मोतयांची माळ (ललीत निबंध)

दामबाब प्रकाशन

प्रकाशन क्रमांक 2



पयली उजवाडावणी
2011

छापणावळ
हिरू नारायण नायक
रुतू ऑफसॅट, वळवय, फोंडें

मुखचित्र : गौरीश वेर्णेकार

मांडावळ : एस ग्राफिक्स
9423056333

मोल : रु. 130/-

हें पुस्तक कला आनी संस्कृती खात्यान 'लेखकां खातीर अर्थीक आदार' हे येवजणे खाला उजवाडायलां

म्हजी ही 'मोतयांची माळ'
म्हजो 103 वर्सां पिरायेचो आजो
श्री. रावजी पै कुचेलकार
तशेंच
म्हजें भुरगेपण सुरबूस करपी
सांखळे गांवचो सैम आनी
म्हजी अपुरबाय करपी थंयचीं मनशां
हांकां मायेमोगान

## मोतयांची माळ गुंथतना...

**म्हज्या** जिवितांतले फाटल्या यादीचे हे मोतयाळे खीण. आयज हातूंतलो एक एक मोती गुंथून ही मोतयांची माळ हांव वाचकांक भेटयतां.

खरें म्हणल्यार ह्या संग्रहा पयलीं म्हजो 'देश परदेश' हो प्रवास वर्णनांचो संग्रह येवपाचो आशिल्लो. तातूंतले लेख एकठांय करून प्रुफां तपासून लेगीत दवरल्यांत. माधवबाब बोरकार तर म्हाका परते परते विचारीत आसतात, 'आगो, कितले लेख जाल्यात. काडटा मगो संग्रह'. बिंब म्हयनाळ्याचे संपादक दिलीपबाब बोरकारान तर म्हाका कितल्या वेळा विचारलां, काडुया मगो प्रवास वर्णनांचो संग्रह म्हणून. पूण कित्याक कोण जाणा, हांवेंच कळाव केलो. आतां मात ह्या संग्रहा फाटल्यान तें रोखडेंच उजवाडा हाडपाचें थारायलां.

हो संग्रह काडपाचो म्हजो विचार नाशिल्लो. पूण म्हजी इश्टीण माया खरंगटे म्हज्या फाटीक लागली. तांणीच म्हाका कला आनी संस्कृती संचालनालयाच्या पुस्तक अनुदान येवजणे विशीं सांगलें आनी प्रुफां तपासपाक म्हजें साहित्य मागून घेतलें. तिचें हांव उपकार मानना. तिच्या रिणांत रावंक म्हका आवडटलें.

आतां म्हजें मनोगत अशें हांवें वेगळें काय बरोवंक ना. ह्या संग्रहांतलो निमाणो लेख 'म्हजो साहित्य क्षेत्रांतलो प्रवास' हातूंत म्हजें मनोगत आयलां.

ह्या संग्रहाक श्रीमती मिनाबाय काकोडकार हांणी वेळांत वेळ काडून बरपाचें बारीकसाणीन वाचन करून सोबीत बरी प्रस्तावना बरयल्या. ते खातीर तांचे उपकार आठयतां.

ह्या संग्रहाक गौरीश वेर्णेकारान बरें मुखचित्र काडून पुस्तकाक सोबा हाडल्या. अमोल कामतीन सोबीत आनी नकसूद अशी अक्षर जुळणी केल्या. कला आनी संस्कृती संचालनालयान अर्थीक पालव दिला. ह्या सगळ्यांचें हांव काळजा सावन उपकारी. तेच बराबर वाचप्यांक हो म्हजो संग्रह भावतलो अशी आस्त बाळगितां.

- **हर्षा सद्‌गुरू शेटये**

# प्रस्तावना

बाय हर्षा,

तुजी 'मोतयांची माळ' वाचली. वाचतना तुजे यादीं वांगडा हांव म्हज्या यादींनी शेणलें. तुजे वांगडा भोंवड्यो करतना हांवूय त्या वाठारांनी पावलें.

यादी जित्यो, जिव्यो करून वाचप्यांचे नदरे मुखार उब्यो करपाची कळाशी तुका जशी जमल्या, तशीच भोंवड्यो करतना तुवें पळयिल्लो वाठार उतरांनी चितारपाची कळाशीय तुका बेस बरी जमल्या. उतरांचेच फोटो कशे!

तुवें ह्या भोंवड्यांचो वेगळो संग्रह काडिल्लो जाल्यार तातूंत तुज्या आल्बमांतले खरे फोटो घालून तांची सुरबूससाण आनीकय वाडोवंक येतली आशिल्ली. तुका आनी तुज्या घरकाराक प्रवास करूंक खूब आवडटा म्हणटकच प्रवासवर्णनांचो तुजोनवो संग्रह नक्कीच येतलो हातूंत म्हाका दुबाव ना.

शंबर वर्सां पिरायेचो तुजो तरणाटो आजो; फाटल्या काळांतली आसूनय नवीं चिंतनां जिणेंत आपणावपी तुजी आजी; दुख्खां पचोवनय धिरान संवसार करपी खंबीर पार्वती. नात्याचो नासूनय आपलो कसो दिसपी

जानूमामा - सगल्योच व्यक्तीरेखा खूब ओडलायण्यो जाल्यात. पूण एक सांगूं, संग्रहांतल्या तुज्या साहित्याचेर चंड बरोवचे परस तुजे विशींच बरयल्यार कशे?

तूं जाणा, तुका प्रत्यक्ष मेळचे पयलीं हांव तुका तुज्या साहित्यांतल्यान मेळ्ळें? 'हर्षा बरें बरयता' अशें म्हाका दिसलें. मागीर जेन्ना जेन्ना हांवें तुजें नांव वाचलें, तेन्ना तेन्ना तुजें लिखाण मुजरत वाचलें. देखूनच आमी प्रत्यक्ष मेळ्ळीं तेन्ना तूं म्हाका सामकें वळखीचें कशें दिसलें.

हर्षा, नातीं खूब तरांचीं आसतात. रगतांची, सख्खी नातीं... सामकी लागींचीं; केन्ना केन्ना लागींचीं आसूनय पयसाविल्लीं. तर केन्ना केन्ना नातीं नासूनय लागशिल्लीं. पूण साहित्य जेन्ना दोग जाणांक जोडटा तेन्ना तें उतरांचें नातें आसता. चिंतनांचें नातें आसता. तुजें म्हजें नातें हें अशें! म्हणूनच घडये तुज्यो यादी वाचतना म्हाका म्हज्यो यादी तातूंत भरसल्यात कश्यो दिसतात.

संग्रहांतल्या साहित्याचेर बरोवचे परस हांव तुजे विशीं बरोवंक सोदतां ताका तशींच कारणां आसात.

जण एका लेखकाची साहित्यनिर्मणेची एक वेगळी प्रक्रिया आसता. ती पूर्ण जाता तेन्नाच लेख, कथा, कविता वा हेर साहित्य जल्माक येता. कागदार जितलें आसता, तितलेंच आमी वाचतात. आमचो अभिप्राय दितात - 'बरें जालां', 'सारकें जालें ना' म्हणटात. 'सुरवात अशी केल्यार बरी जावपाची' वा 'शेवट तसो केल्यार चड बरो जातलो आशिल्लो' अशेंच म्हणटात. पूण तो लेख, कथा, कविता बरयतना लेखकाची जी अवस्था आसता ती; वा लेखकाच्या मनांत जें कितें त्या खिणाक उमळटा तें कोणाक दिश्टी पडत? पूण आपल्या साहित्या इतलेंच, मनांतलें तें उमळप जण एका लेखकाचे नदरेन म्हत्वाचें आसता. लेखकाची नदर समजून घेवन आमी ताचें तें साहित्य वाचलें जाल्यार आमकां तें वेगळें दिसूं येता. देखूनच संग्रहांत प्रसतावने परस लेखकाचें मनोगत आसप चड गरजेचें.

तुका एक मजेची गजाल सांगतां. खूब वर्सां पयलीं एक सस्पेन्स सिनेमा आयिल्लो. आतां भशेन तेन्ना घरा बशिल्ले कडेन सटसट करून सिनेमा पळोवंक मेळनासले. थेटरांत वच्चें पडटालें. सगल्यांनी बरोऽऽ सिनेमा म्हणलो म्हणटकच म्हाकाय वचन दिसलें. तरीकय जाणें तो सिनेमा पळयला अशा मनशाक हांवें विचारलें, 'खऱ्यांनीच बरो मरे सिनेमा? काय बेठेंच...' 'बेस्ट सिनेमा. तूं वचून पळयच. निमाणें म्हणसर खून कोणें केला तें कळना'. ताणेंय आग्रो केलो. इतले म्हणसर आमचे वळखीचो आनीक एकलो थंय पावलो.

'खंयच्या सिनेमाची गजाल उलयतात?' ताणें विचारलें. हांवें नांव सांगलां मात, फट्ट करून ताणें म्हणलें, 'बेस्ट सिनेमा गो. तूं पळयच. घोवूच खून करता म्हणून निमाणे म्हणसर कळना'.

हें आयकना फुडें तो सिनेमा पळोवपाची म्हजी उमेदूच ना जाली. आसूं! ती वेगळी गजाल. सांगपाचें म्हणल्यार खंयचेय गजालींत थोडें सस्पेन्स आसूंकच जाय न्हय? दर एके कथेंत कितें जाता हें सांगल्यार वाचप्याक वाचतना थ्रील तें कितें उरतलें?

एकूच सांगता, तुजी 'मोतयांची माळ' जण एका वाचप्यान मुजरत वाचची अशीच आसा.

तुज्या ह्या संग्रहाक उपाट येस आंवडेतां.

बरें मागून.

- **मीना काकोडकार**

# मांडावळ

# मोतयांची माळ

**नव्या** घरांत रावपाक वतालीं तेन्ना पोरण्यो पोटल्यो उस्तून पळयतालीं. तातूंत म्हाका म्हज्या भुरगेपणांतली एक पोती मेळ्ळी. पोती म्हज्या पोरण्या व्हिस्तीदाची. बरो काश्मिरी टांक्यान भरिल्लो व्हिस्तीद. मडगांवां जार्दीनांत खेळूंक गेल्ले कडेन घसरगुंडेचो पत्रो लागून पिंजिल्लो. त्या व्हिस्तिदाची म्हजें मावशेन म्हाका सोबीत पोती शिंवून दिल्ली. आयज इतल्या वर्सांनी पोती हातांत मेळटकच हांवें तातूंतल्यो वस्तू भायर काडल्यो.

... आनी कितें, हांव पळयतच उरलें. भुरगेपणांतलो जिवा परस चड जपिल्लो खजिनो. अलिबाबाची घोल म्हणल्यार जाता. मोराचीं, पोपटाचीं पिसां, चॉकलेटीचीं चकचकीत कागदां, भायल्या देशांचे स्टॅम्प, इश्टिणीच्यो चिटयो, तांबड्यो गुंजो, जांबावले पाण्ट्या वयले पुंजायिल्ले वांटकुळेच धवे फातर, वेळे वयल्यो घुलो, मणयांच्यो माळो, रिबिनां, काणयांचीं पुस्तकां, चेराच्यो रिकाम्यो बाटल्यो, अमिताभ बच्चनाचे फोटे... हातूंतली एक एक

वस्त म्हणल्यार म्हज्या काळजाचो कुडको. दर एका कुडक्यांत म्हज्यो यादी घुस्पल्यात. भुरगेपणांत कोणें तरी म्हाका तांकां नाका म्हणून मोराच्या पिसांचो आयणो दिल्लो. तातूंतलीं बरीं बरीं मोरपिसां काडून हांवें सांबाळून दवरिल्लीं. थोडीं इश्टिणींक दिल्लीं. आमच्या मागीलदारा माडांचेर कीर येवन बसताले. तांचीं पिसां हांगां थंय पडिल्लीं मेळटालीं. तीं पुंजावन पुंजावन हांव दवरतालें. चॉकलेटीचीं चकचकीत कागदां पळोवन म्हाका हांसूंक आयलें. सादीं रुप्या कोराचीं कागदां - आतां चॉकलेटीचीं रंगरंगयाळीं कागदां हांव सोमतींच कोयराचे पेटयेंत उडयतां आनी हीं इतल्या वर्सां पयलींचीं सादीं रुप्या कोराचीं कागदां हांवें सांबाळून दवरल्यांत. मणयांच्यो माळो तर कोणें कोणें त्या त्या जाग्याची याद म्हणून हाडिल्ल्यो. इश्टिणीचे आवयन नेपाळच्यान हाडिल्ली बारीक पिड्डुकांची माळ. मामान कन्याकुमारीच्यान हाडिल्ली शंखांची माळ, आवयन तिरुपतीच्यान हाडिल्ली तांबड्या मणयांची माळ. ह्यो माळो पळयतना म्हजें अमुरपिकें भुरगेपण म्हजे कडेन पळयत मुमुरखें हांसूंक लागलें.

तांबड्यो गुंजो पळयतना, त्यो पुंजायतना जाल्लीं झगडीं याद जालीं. मडगांवां जार्दीना मुखार आतां कलॅक्टर ऑफिस आसा. ताचे फाटल्यान एक तांबड्या गुंजाचें झाड आशिल्लें. कसलें झाड कोण जाणा. पूण ताचे सकयल तांबड्यो बियो कश्यो गुंजो पडिल्ल्यो आसतल्यो. थंय आमी कित्याक वतालीं तें मात म्हाका आतां याद जायना. घडये जार्दीनांत खेळपाक वतालीं तेन्ना मुद्दाम गुंजो पुंजावपाक वतालीं जावंये!

गुंजोच कित्याक, आमकां बोरां, राजआंवाळे, चिंचो, बिमलां हांचीं झाडां कोंबवाड्यार खंय आसात तीं जुस्त खबर आसतालीं. म्हजो पिनोफोर कसो व्हिस्तीद आशिल्लो. ताका भितरल्यान लांबचे लांब बोल्सां कशीं आशिल्लीं. तातूंत भितर पुंजायिल्लें सगळें भर. कोणाक जाग माग

लागनाशिल्ली. सद्दां व्हिस्तीदाग दाग घालून येता म्हणून आमची·वावराडी कमल बोवाळ मात मारताली. एक दीस पेडांतले एके इश्टिणीन सांगलें, तांचे घरा कडेन राजआंवाळ्यांनी भरिल्लें एक झाड आसा. थंय पावतकच पळयत जाल्यार आमचे पयलींच कोणें तरी आंवाळे बुड्डोवन व्हेल्यात. मागीर दुसरे एके इश्टीणीन सांगलें, दामोदर शाळे कडेन बिमलांचें एक झाड आसा म्हणून. आमची भुरावळ थंय गेली. पळयत जाल्यार तें घर ताईबाय सरमळकारालें. ताईबायचे घरकार अण्णा सरमळकार म्हजे आजयेचो मावशेभाव. आजये बराबर हांव ताईबायगेर खूब वेळा गेल्लें. तांचे घरा भोंवतणी व्हडलें दुरीग. उडकी मारून लेगीत भितर वचपाक कशेंच मेळचें नाशिल्लें. तरीय आमी एक एकटीं आमच्यान दुरगार चडपाक जातलें काय म्हणून उडक्यो मारून पळयतालीं. आमी उडक्यो मारतात तें ताईबायन भितरल्यान पळयलें. तांची वावराडी भायर आयली आनी तिणें सांगलें, ताईबायन तुमकां जाय तितलीं बिमलां व्हर म्हणून सांगल्यांत. मागीर आनी आमी आयकतात! सामकीं गेटींतल्यान भितर सरून बिमलां काडलीं तीं काडलीं! वयल्यान ताईबायन भायर येवन तांगेर सरबताचीं फळां म्हणल्यार पॅशन फ्रूट जातालीं तींय व्हर म्हणलीं. घरा येवन ही गजाल हांवें आजयेक सांगली. मागीर केन्ना तरी ती ताईबायगेर गेल्ली तेन्ना ही खबर आयली. तेन्ना ताईबायन आजयेक म्हणलें खंय, आगो, तांकां पळोवन म्हाका म्हज्या भुरगेपणांतली याद आयली. तोरां, बिमलां पळयतकच आमचेय जिबलेक अशेंच उदक सुट्टालें. तें आयकून ताईबाय म्हाका आमचे वरीच भुरगी कशी दिसली.

सुटयेंतली आमची हक्काची सुवात म्हणल्यार मडगांवचें जार्दीन. जार्दीनांत तेन्ना मेरी-गो-रावंड आशिल्लें. ताचेर, घसरगुंडेर नाजाल्यार झोपाळ्याचेर आमी झोंपय मारतालीं. चारांक जार्दीनांत येतालीं तीं बद्द

सातांक घरा वतालीं. तेन्ना हांव पांचवे-सवेक आसतलें! जार्दीनांत पावोवपाक हाडपाक कोण येनाशिल्लीं. वाड्या वयलीं सगळीं भुरगीं एकठांय जावन येतालीं वतालीं. तेन्ना थंय चार आण्याची हिमालयाची आयस्क्रीम कॅण्डी, 15 पयशांचो चॉकलेट आयस्फ्रूट नाजाल्यार धा पयशांची सोनयाळ्या चण्याची भेळ मेळटाली. त्या वेळार हे जिन्नस खावप म्हणल्यार आमचे खातीर व्हड गजाल. मात्शीं व्हडलीं जातकच कोलव्यां देखून एकटीं वतालीं. लोहिया मैदाना कडल्यान कोलवेंच्यो बसी सुट्टाल्यो. एक दीस दनपरां बेगबेगीन जेवन बस स्टॉपार धांवन आयलीं. पळयत जाल्यार बस ना. दुसरी बस येवपाक अर्द वरा वयर वतलें म्हणून कळ्ळें. आमचेर तर बेगीन पावपाचो भार आशिल्लो. तशींच चलत सकयल्या बाजारांत आयलीं आनी कोलवेंचे वाटेक लागलीं. अर्दी वाट बरी उमेदीन नाचत नाचत चल्लीं. मागीर कदम कदम बढाये जा ची उमेद मावळ्ळी. पांयांत गुळे आयले. इगर्जेकडेन पाविल्लीं. इतल्यान आमच्या शेजाऱ्याली टॅक्सी दिसली. ती कोणाक तरी पाावोवन परती येताली. ताचो ड्रायव्हर आमकां वळखतालो. ताणें आमकां कोलवेंचे वेळेर पावयलीं. बरीं उदकांत खेळ्ळीं. न्हालीं लेगीत. न्हातना म्हज्या पांयांतलें एक पांयजण खंय तरी शेणलें. म्हाका रडपाक येवंक लागलें. सोदून सोदून एकदांचें कोणाक तरी मेळ्ळें. वेळेर माणोयो, घुलो पुंजायल्यो. आयस्क्रीमाच्या गाड्या वयलो कोन आयस्क्रीम खालो आनी घरा आयलीं.

त्या वेळार टीव्ही नाशिल्ले. थेटरांत वचून सिनेमा पळोवपाक आमकां कसलेंय निमित्त पुरो आशिल्लें. परिक्षा सुरू जातली, मागीर सिनेमा पळोवंक मेळचो ना म्हूण एक सिनेमा पळोवन येवप. तशेंच परिक्षा सोंपली रे सोंपली सोमतीं तिनाचो शो पळोवपाक थेटरांत. विशांत, मेट्रोपॉल, सिने लता, खंयच्याय थेटरांत. विशांतांत तिनाचो शो आसलो जाल्यार जेवन भर

दनपारच्या कडार वचचें पडटालें. झरी कडल्यान वयर सरून पाजीफोंडांतल्यान कार्मेल मोनेस्ट्रींत भितर सरून सोपणां देवन विशांता कडेन पावतालीं. अशींच एकदां 'आ गले लग जा' पिक्चराक गेल्लीं. तातूंत 'ओ मेरे बेटे, क्यों रोते' अशें एक पद आसा. तें पळयतना म्हजे एके इश्टिणीक सामकें रडूंक येवंक लागलें. आमकां तेंकून कोण तरी चले बशिल्ले. तांणी सोमतेंच 'ओ मेरी चेडवां, क्यों रोती...' म्हणपा सुरू केलें. आतां आमच्यो सगळ्यो इश्टिणी एकठांय येतात तेन्ना ही याद काडून काडून हांसप जाता.

सकयल्या बाजारांत कोलव्यां वता ते वाटेर एक भाट आशिल्लें. म्हणल्यार अजूनय आसा. थंय बांदार अशें म्हणटात. आमचीं येदीं व्हडलीं चवक्यांचीं घरां आसतना आमी बेठींच पुस्तकां घेवन थंय अभ्यासाक म्हणून वतालीं. पुस्तकां थंयच दवरून थंयच्या व्हाळांत नुस्तीं भोंवतात तीं पळोवप. बाटली उदकांत घालून, तातूंत नुस्तीं धरप. थंयच्या माडांचेर 'हाचीक' नांवाचो एक रेंदेर सूर काडपाक चडिल्लो आसतालो. माडार चडटना तो कांतारां म्हणटालो. 'हाचीक दुरगा कुशीक' म्हणून ताका सगळीं भुरगीं चाल्यतालीं. मागीर फकांडांनी तो तांचे फाटल्यान धांवतालो.

म्हज्या जिवितांतले बारा-तेरा वर्सां मेरेनचे हे मोतयाळे खीण. हातूंतलो एक एक खीण म्हणल्यार एक एक मोती. आतां केन्नाय फाटल्यो यादी उस्तीतना हातूंतलो एक एक मोती हाताक लागता. आनी हीं मोतयां यादींचे दोरयेक गुंथून गुंथून मोतयांची माळ जाता. हांव ही माळ म्हज्या काळजांतले तिजोरेंत सांबाळून दवरतां.



# आमचो पापा

**पापा** म्हणल्यार म्हजे आवयचो बापूय. म्हजो आजो. ह्या म्हयन्यांत तो आपलो 100 वो वाडदीस मनयता. तो 100 वर्सां पिरायेचो जाता म्हणल्यार आमकां खरेंच दिसना. पळोवपाक तरी तो 84-85 वर्सांचोच कसो दिसता. म्हाका तरी तो म्हजे भुरगेपणांत आशिल्लो तसोच दिसता. नातरांक घेवन पासयेक वचपी, देवळांत व्हरपी, बाजारांत वचून नुस्तें हाडपी. अजुनय तो कोणाचो आदार घेनासतना सोपणां देंवता आनी चडटा, ताचें म्हाका व्हड अप्रूप दिसता. ताच्यो 60-70 वर्सां पिरायेच्यो धुवो, म्हजी आवय धरून धोंपरां दुखतात म्हणून सदांच करंदाय करतात.

म्हजो आजो चार चवगां भशेन 'सामान्य' मनीस. पूण आजो म्हणून आमचे खातीर तो असामान्य. ताणें सगळ्या नातरांक आंगाखांदार खेळयल्यांत. आपल्याच्यान जाता तशी अपुरबाय केल्या. सैमाच्या लागीं वचपाक शिकयल्यांत. गिमाळे सुटयेंत आमी तांगेर सांखळे वतालीं तेन्ना

आमकां पेरां, आंबे, पणस, काण्णां, चुन्नां, जांबळां, म्हुट्टे पोटभर खावयल्यात.

आमचो पापा व्हड गिरेस्त न्हय, राजकारणी न्हय, व्हड उद्देजक न्हय, भाटकार न्हय. पूण तो आज आपल्या घरांत कृतार्थ जीण जियेता. त्या काळांत तो पुर्तुगेज सेगुंदग्राव आनी इंग्लेज चवथी शिकिल्लो. आपूण कृष्णाबाब पिसुर्लेकाराचो विद्यार्थी म्हूण तो व्हडा व्हडविकायेन सांगता. म्हाका याद जाता, पापा कडेन एक इंग्लीश-मराठी असो भरपूर पानांचो चित्रबोध आशिल्लो. भुरगेपणांत हांव तो ताचे कडेन परतो परतो पळोवपाक मागतालें. मागीर तो आपली पेट उगडून दाखयतालो. हे पेटयेंत ताणें, हांव तांगेर येवपाचें आसा जाल्यार म्हजे खातीर म्हणून झाडपिके आंबे आनी पेरांय सांबाळून दवरिल्लीं हांवें पळयल्यांत.

पापाचो सदचो भेस म्हणल्यार पुडवें, वयर मोटव्या हातांचो धवो शर्ट. खंयूय पयस वतलो जाल्यार ताचेर काळो ना जाल्यार लेंव हळदुवो कोट आनी माथ्याक काळी तोपी. पांयांक चामड्याचें जोतें तेंय बी मुद्दम करून घेतिल्लें.

पापाची पयली याद, म्हाका याद आसा ती म्हणल्यार हांव तीन-चार वर्सांचें आसतनाची. पापा पोरसांत मानायां बराबर काम करतालो आनी हांव ताचे फाटल्यान भोंवतालें. पापालें घर म्हणल्यार एक वाडो कसो! चोंयवटेन पोरसूं आनी मदीं घर. आमकां नातरांक आमची सुटी घालोवपाक एक मनासारको जागो. माया म्हयन्याचे सुटयेंत मुंबयचीं मामेभावंडां येतालीं. तांचे बराबर तांचीं मामे, मावस भावंडां. घरांत इतलो भुरग्यांचो बोवाळ, पूण पापा केन्ना आमचेर तिकडल्लो, रागार जाल्लो हांवें पळोवंक ना. तेन्नाच न्हय तर केन्नाच ताका राग आयिल्लो हांवें पळोवंक ना. सुटयेंत हरशीं ताची घर शिंवपाची, पुरुमेंताचीं कामां सुरू आसतालीं. खोबरें फोडप, तें सुकोवप,

गिरणीर व्हरून तेल काडप. आजो हीं कामां आपल्या हातांनी करतालो. हांड्या रांदनीर भातय उकडटालो. तें हातरेचेर सुकत घालप, आमकां आवडटा म्हणून पापा यादीन भात उकडटना तातूंत पणसाचीं भिकणां उकडपाक घालतालो. मागीर गिरणीर भात कांडपाचो आनी तेल काडपाचो प्रोग्राम. फुडें दोन पोटल्यो माथ्यार घेवन दोग मानाय. तांचे बराबर आजो अनी फाटल्यान आमची भुरावळ. वाटेर मेळिल्लो कोणूय वळखीचो पापाक हांसून विचारतालो, 'कितें रावजी आप्पा, नातरांक पेंड, भुसो एकठांय करपाक व्हरता काय कितें?'

पापाच्या घरा फाटल्यान व्हडलो दोंगर. आमकां नातरांक घेवन तो सांजवेळा त्या दोंगरार पासयेक वतालो. काण्णां, चुन्नां, भेळसां, हाताक मेळटा तें बुड्डोवन आमी खातालीं. आज्याक चलपाक केन्नाच वाज येनाशिल्लो. तो सांखळेच्यान हरवळ्यां लेगीत चलून वतालो.

पापा केन्नाय मुडांत आयलो जाल्यार आपल्या भुरगेपणांतल्यो खबरी सांगता. पापाच्या आज्यान वामन पैन 1855 त कुचेलीच्यान सांखळे येवन कपड्यांचें दुकान घाल्लें. 1955 मेरेन पापा ह्या कपड्यांच्या धंद्यांत सक्रीय आशिल्लो. मालेगांवांत वचून णववारी कापडां हाडप, शहापूरच्यान कांबळी, सोलापूरच्यान चादरी हाडपाक पापा वतालो. ताच्यो त्यो यादी 100 व्या वर्सा देखून ताज्यो टवटवीत आसात. आपूण कपड्याचें दुकान चलतालों तेन्ना आमोणेंच्यान अडेज रुपयांच्यो मुड्डश्यो, काळुंदरांच्यो गांथनी घेवन नुस्तेकार येताले, तो हुमणाची रूच काडून सांगता.

गोंय स्वतंत्र जावचे पयलीं पुर्तुगेज सरकारान भारतीय फुडाऱ्यांचें भाशण रेडियोचेर आयकुपाचेर बंदी घाल्ली. एकदां खंय ते वेरेंकाराल्या दुकानाचेर बसून रेडियोवयलें भाशण आयकताले. तेन्ना जुस्तच पुलीस खंय तांकां धरपाक आयले. तांचे बराबरच्या चार-पांच जाणांक धरून व्हेले. पापा

थंयच्यान धांवलो. ताचेय फाटल्यान पुलीस लागिल्ले. पूण तो खंय तरी लिपून बसलो. गोंय स्वतंत्र जातकच ताचे बराबर रेडियो आयकताल्यांची स्नातंत्र्यसैनीक म्हूण नोंद जाली. तांकां स्वातंत्र्यसैनिकांक मेळटा तें पेन्शन मेळ्ळें खंय! पापानय घडये तें मागिल्लें जाल्यार ताकाय मेळटाशिल्लें.

पापाक स्थितप्रज्ञ म्हणप समा जातलें. ताचेर कितलेच वायट प्रसंग आयले, दुख्खाचे खीण आयले तरी ताच्या वागपांत कांयच फरक पडूंक ना. ताणें तीं दुख्खां काळजांतलो घाय लिपयत पचयल्यात. ताचो तरणो पुतणयो अचकीत अपघातांत गेलो, तेन्ना ताचे निमणे संस्कार करून घरा येतकच ताका घसघस करून रडिल्लो हांवें पळयला. पूण फुडें एका फाटोफाट तागेले तीग जाण जांवय गेले तेन्ना दोळ्यांत दूक दाखयनासतना धुवांक धीर दितना हांवें ताका पळयला. इतली घटसाण ताणें खंयच्यान हाडली काय?

म्हजे आजयेक आरीचें दुयेंस जावन तिका खावपाक, जेवपाक, भोंवपाक त्रास जावंक लागले. फुडें ती तातूंतल्यान निवळ्ळी. पूण आतां कशें जातलें, तिचें कोण करतलो? म्हूण केन्नाच पिरंगल्लो ताका पळोवंक ना. पिरंगण हें उतर ताच्या कोशांत नाशिल्लें जावंये. केन्ना जेवणा-खाणाक नांवां दवरिल्लीं हांवें ताका पळोवंक ना.

जाणटेपणांत लोक परत भुरगेपणां करतात म्हणटात. पूण पापाचें उलोवप, वागप अजूनय हे वटेन ते वटेन जायना. स्मरणशक्त मात्शी उणी जाल्या, पूण 100 वर्सां पिरायेच्या मानान जायती बरी आसा म्हणची पडटली. अजूनय तो आपल्या हातांनी आपलीं कामां करता. शक्य आसा तितलो व्यायाम करता. पयलीं तो सकाळीं उठना फुडें सदांच सूर्यनमस्कार घालतालो. म्हणून जावंये डायबिटीस, प्रेशर असलीं दुयेंसां ताचे पसून चार हात पयस रावल्यांत. हालींसराक चार-पांच वर्सां तें बंद जालां.

फाटल्या दिसांनी हांव तागेर गेल्ले कडेन हांवें ताचीं फकांडां केलीं, पापा

पयलीं आमकां दोंगरार घेवन वतालो. तसो आतां पणटुरांक घेवन वता रे? तर ताणें म्हाका भायर गॅलरींत व्हेलें आनी सांगलें, हांव तांकां बरों घेवन वचन, पूण हांगा दोंगर खंय उरला तो म्हाका मात्सो दाखय. हांव अजापान पळयत उरलें. आज्याचें पोरणें 'पालास' कशें घर मोडून थंय आतां बिल्डींग आयल्या आनी घरा फाटल्या दोंगरार कुचकुचीत घरां. आमच्या भुरगेपणांतल्या दोंगराची थंय कसलीच कुरू ना.

कालाय तस्मै नमः आनी दुसरें कितें?



# म्हजी आजी

**म्हजी** आजी म्हणल्यार म्हजे आवयची आवय. आमी तिका आई म्हूण उलो मारतालीं. म्हज्या भुरगेपणा सावन आजी वचसर हांवें तिचें एकच रूप पळयलां. ती जाणटेली कशी केन्ना दिसली ना. तांबशी, गोरशी, लांब, शिडशिडीत आंगलोटाची, णववारी देगापदराचीं कापडां न्हेंसपी. गळ्यांत घसघशीत तीन पोडी भांगरान गुंथिल्लो मणी. कानांत मोतयांच्यो वेडी. हाताक पाटली-कांकणां. हाचे परस चड भांगरय हांवें केन्ना तिच्या आंगार पळयलें ना.

कपलाक ती बरो चार आण्या येदो वांटकुळोच कुकूम लायताली. कपलाक कुकूम लावपाचो तिचो एक व्हडलो आक्त आसतालो. ती मान्न्यांतली न्हावन भायर येतना ओलो वालो न्हेंसून तशीच भायर येताली. दोरये वयलें णववारी कापड गुठलावन ती सोमती पेटला कडेन येताली. पेटलांतलो कुकमाचो करंड आनी मेणतेलाची डबी भायर काडटाली. तिच्या

पेटलांत एक वांटकुळोच बुतांव कसो आसतालो. ताका मेणतेल लावन मागीर पेटलांतल्या हारशांत पळोवन ती तो बुतांव कपलाक लावन घेताली. त्या बुतांवाक लायिल्लें मेणतेल वाटकुळेंच कपलाक लागतालें. मागीर ताचेर कुकूम लावन घेताली. हें मेणतेल करपाचो आनीक एक व्हडलो आक्त आसतालो. मागीर तें डबयेंत भरून दवरप... पिरायेच्या 85 वर्सां मेरेन तिचे केंस मात काळेच आशिल्ले. म्हणून आसत आमकां ती जाण्टी कशी केन्नाच दिसली ना.

हांव ल्हान आसतना पांच-स वर्सां मेरेन म्हज्या आजोळाच आसतालें. ते खातीर म्हज्या सगळ्या मावस, मामे भावंडां परस म्हाका आजयेचो सहवास चड मेळ्ळो. लौकीक अर्थान आजयेचें शिक्षण व्हडलें अशें जावंक नाशिल्लें. पूण आजयेक वाचनाची खूब आवड. त्या काळार बापायन खंय मराठी मास्तर दवरून पांचय भावंडांक वाचूंक बरोवंक शिकयिल्लें. ती रांदचे कुडींतलें सगळें काम सोंपतकच सांजवेळची भायर वारांदाचेर बांकार बसताली. हो नेम तिणें मरसर चुकयलो ना. तेन्ना तिच्या हातांत पेपर आसतालो. सगळो पेपर ती बारीकसाणीन वाचताली.

तिका गायनाची खूब आवड आसूंक जाय. तिचो गळो सामको सुरेल आशिल्लो. आमकां नातरांक पांयार घेवन ती कसलीं ना कसलीं तरी पदां, आल्लयो म्हणत आसताली.

बाबू आमचो घोड्यार बसतलो, मामा ताका सत्री धरतलो, ही आल्लय गायत सगळ्या नातरांक तिणें न्हिदयल्यांत. लग्नाच्यो व्हींवयो म्हणपाक ती सगळ्यांत फुडें. तशेंच तिका कितलींशींच लोकगितां तोंडपाठ आशिल्लीं... आलतडीन पलतडीन जिरें रोयलां... हुंदराची हुनुल्ली... बांगडो न्हवरो पेड व्हंकल, कुंडेकुस्कूर... अशीं कितलींशींच गितां तिच्या तोंडांतल्यान हांवें आयकल्यांत. चांगुणाचो अध्याय ती धडाधड म्हणटाली. बाळचिल्लयाची

काणी त्या गितांत आसताली. ती आमी तिका परत परत म्हणपाक लायतालीं. श्रीयाळ राजा, चांगुणा राणी, बाळ तयाचा चिल्लया, सांब सदाशीव दाराशीं, मांस मागतो चिल्लयाचें... हें तिचे कडलयान आयकतना दोळ्यांत दुकां उबीं रावतालीं.

हीं गितां ती खंय शिकली काय? हो प्रस्न सदांच म्हजे तकलेंत वळवळटालो. हालींसराक म्हाका ताची जाप मेळ्ळी. आजयेच्या भावाली चली फाटल्या दिसांनी सहज उलयतना म्हणूंक लागली - आमची 'बा' बरी पदां म्हणटाली. चांगुणाचो अध्याय आपूण ल्हान आसतना खूबदां तिच्या तोंडांतल्यान आयकला. 'बा' म्हणल्यार म्हजे आजयेची आवय. म्हजी पणजी. म्हाका तिची हय न्हय शी याद आसा. तिचे म्हऱ्यांत गेलीं की ती आमच्या हातार एक लिंबाचें पिपिरमीट दवरताली. त्या पिपिरमिटाची रूच अजून म्हजे जिबेर आसा.

आजयेक लोकगितांचें दायज तिचे आवय कडल्यान मेळ्ळां हें कळ्ळें. आजी स्वता कवनां रचताली आसूंक जाय.

हांव 8-10 वर्सां पिरायेचें आशिल्लें तेन्नाची गजाल. ती आमगेर मडगांवां आयिल्ली. अण्णा (वासुदेव सरमळकार) हे तिचे मावसभास. तांगेर ती म्हाका घेवन गेल्ली. तेन्ना ताईबायन तिका आपलो 'गोटलां' हो काव्यसंग्रह दिलो. तातूंत ताईबायन आपले नातीचेर एक कविता बरयिल्ली आसा. हावें तिका सोमतेंच म्हणलें, म्हजेरय एक कविता कर मगे. तिणें म्हजें नांव घेवन चार वळी म्हाका म्हणून दाखयल्यो. आतां उतरांची सारकी याद जायना.

तेन्ना जर तिच्या तोंडांतल्यान आतऱ्या पयऱ्यान येवपी व्होंवयो, गितां संग्रहीत केल्लीं जाल्यार लोकगितांचो म्हालवज हाताक लागपाचो. तेन्ना म्हाका ताचो व्हालोर खबर नाशिल्लो. आज म्हाका धव्यार काळें करीन

दिसता ताचें मूळ घडये भुरगेपणांत मेळिल्लो आजयेचो सहवास आसूंक जाय.

म्हज्या भुरगेपणांत म्हज्या आजोळा गोरवां आसतालीं. आजी दूद काडपाक गेली की हांव तिचे फाटल्या फुडल्यान नाचतालें. तिच्या हातच्या घराव्या दुदाचे तांबशे दुदफेणे खावनच हांव व्हड जालां म्हणल्यार फट जावचें ना. तिचीं जेवणा-खाणां सामकीं रुच्चीक जातालीं.

म्हाका रेसिपी पुंजावपाच्यो आनी करून पळोवपाची भोव आवड. गोंयच्यो पोरण्यो रेसिपी संग्रहीत करपाचें हांवें थारायलें तेन्ना पयलीं हांव आजये कडेन गेलें. घडये फाल्यां ती नासत हो दुबाव तकलेंत आशिल्लो जावंये. चार वर्सां पयलीं तिका आरिचो झटको आयिल्लो. तिची इत्साशक्त जबरदस्त आशिल्ल्यान तातूंतल्यान ती वाटावली. हातांत बडी घेवन घरांत चलूंक लागली. हांवें विचारिल्ल्यो रेसिपी याद करून करून तिणें म्हाका सांगल्यो. तिची मापांय मूठभर तांदूळ, चिमूटभर साकर, नाकटा येदें आलें अशीं आसलीं. आयलोळ्यो, येलापे, खांटोळी, कायलोळ्यो, काजूबियांचो पोस हीं गोडशीं धरून काजूच्या बोंडाची शाक, काजूच्या धोडकांची भाजी, इतलेंच न्हय तर वयल्यान आमच्या भुरगेपणांत आमची 'बा' आमकां कापेपणसाची खीर, आंब्याची खीर, पणसाची भाजी, निरपणसाचो-कणंगांचो हालवो असले जिन्नस करून खावयताली. हें सांगून तांच्यो रेसिपीय सांगल्यो. आतां म्हजो हो संग्रह केन्ना उजवाडा येता तेन्ना येता.

म्हजी आजी व्हडली गिरेस्त न्हय. पूण मनान खूब गिरेस्त आशिल्ली. शेजारच्या, घरच्या लोकांची ती 'आतीबाय' आशिल्ली. शेजारचो कोणूय आडीअडचणीक कितेंय मागूंक आयल्यार ती केन्नाच ना म्हणनाशिल्ली. एक व्हडलें हांड्या येदें बुयांव भरून ती आंबल्यो खळाक घालताली. वाड्या वयलो कोणूय बरो नासलो, जिबेक रूच नासली जाल्यार

'आतीबाय' कडेन आंबल्यो मागूंक येतालीं. तांचे खातीरूच म्हणून ती इतल्यो आंबल्यो दोणांत घालताली. तिणें मरसर हें काम नेमान केलें. आतां हें व्हडलें बुयांव म्हजे आजेच्या नव्या घरांत 'शो पीस' म्हणून दवरलां. तें बुयांव पळयले बराबर म्हज्या नाकांत तो खळांतले आंबलेंचो 'मिरमिरीत' वास रिगता.

स्त्रीमुक्ती, स्त्रीस्वातंत्र्य असलीं उतरां तिच्या कोशांत नाशिल्लीं. पूण बायलांचेर जातात ते अत्याचार, आगळिको वाचून तिका तिडक मारताली. मागीर ती वाचिल्ली खबर तिडकीन मेळत ताका सांगताली. विज्ञानान केल्ली प्रगती पळोवन मात ती धादोशी जाताली. गॅस, मिक्सर, नळ, लायट हांचो सोद कोणें लायलो ताका ती सदांच देव बरें करूं म्हणटाली. कित्याक तर कितलींशींच वर्सां तिणें रांदनीपोल्ल्यांत बसून फू फू करून नळयेन फुकिल्लें, वानार बसून कितलींशींच वांटपां वांटिल्लीं. पॅत्रॉलाच्या दिव्यांनी वाती घाल्ल्यो, बांयचीं उदकां ओडिल्लीं. तेंय बी 40-50 जाणांच्या कुटुंबांत.

आजयेची व्हडली भयण खंय पयल्याच बांळटेरा वेळार भायर पडिल्ली. कोणाय बायलेचें 'सिझेरियन' केलें म्हूण कळना फुडें ती म्हणटाली, त्या वेळार हे असले उपाय आशिल्ले जाल्यार म्हजी भयण आमकां सोडून वच्ची नाशिल्ली.

60 वर्सां पयलींचीं गजाल. आज्याचे एके विधवा बापोलभयणीन पुनर्विवाह केल्लो. त्या काळार विधवेचें लग्न म्हणल्यार दुर्मीळ गजाल. त्या लग्नाक आजयेन तेंको दिल्लो. लग्न जातकच आजयेचे 'ते' नणंदेन हळदीकुकूम केलो. हळदीकुकमाक वचपाक कोणूच बायलो तयार नात. आजी ह्या हळदीकुकमाक गेली. वयल्यान आपले धाकटे जावेकय वांगडा घेवन गेली. तिणें हळदीकुकमाक खंय कुकमाच्यो डबयो वांटिल्ल्यो. मागीर

आजयेक खंय घरच्या बापोल, तिपोल जावांनी विचारलें, 'आगे बाये, तिचे कडल्यान तुमी कुकूम कपलाक लावन घेतलो. थुमेकाल म्हणात आनी डबी भायर उडयात.' आजयेन ते डबयेंतलो कुकूम सोंपसर कपलाक लायलो आनी सगळ्यांचीं तोंडां बंद केलीं. हे घडणुकेचें दुसरें अर्द म्हणल्यार ही म्हजी आजी आनी तिची जाव दोगांय पिरायेच्या 85 वर्सा आयावपणांत गेल्यात आनी म्हजो 103 वर्सां पिरायेचो आजो अजून चलता भोंवता.

आजयेच्यो चार भयणी आनी एक भाव. तिचो आपल्या धाकट्या भावाचेर खूब जीव आशिल्लो. तिच्या निमण्या दिसांनी ती म्हयनोभर हांतरुणार आशिल्ली. मरचे दोन दीस पयलीं ती भावाचेंच नांव घेवन हुस्केताली. तिचो 80 वर्सां पिरायेचो भाव, (स्वातंत्र्यसैनिक कै. शंभू किर्तनी) तिका मेळपाक आयलो. तो तिका मेळून तिचे कडेन खूब वेळ उलयलो. ताचे फाटल्यान अर्द वरान तिणें जीव सोडलो. हाचे वयल्यान म्हाका दिसलें, बायलमनीस कितलीय जाणटी जावं, तिचें 'कुळार' तिका सगळ्यांत चड 'प्रिय' आसता.



# गोंयची खाद्य संस्कृताय

**गोंय!** सैमान नटिल्लो एक सोबीत प्रदेश! गोंय म्हणलें काय दोळ्यां मुखार येतात गोंयच्यो पिठाभशेन दर्यादिगो. नाल्ल-सुपारेचीं कुळागरां. वाऱ्याचेर धोलपी पाचवींचार शेतां. कानांक धादोस करपी गोड म्होवाळ कोंकणी भास. तेचवांगडा गोंयच्यो इगर्जी, शांतादुर्गेचें, मंगेशाचें, म्हाळशेचें देवूळ. दोळ्यां सामकार येतात काजू. मानकुराद आंबो, तशेंच ताजे फडफडीत बांगडे, विसवण, शेंवटे, मुड्‌डश्यो. येतल्या वतल्यांक काळजा सावन येवकार दिवपी, आपूण खावन दुसऱ्यांक खावपाक घालून धादोस जावपी गोंयकार याद जातात.

गोंयकार हरशीं सुसेगाद. पूण नुस्त्याकडेन पावलो काय ताचीं सुसेगादपणां खंयचे खंय नाच्च जातात. तो सकाळीं उठून हातांत पिशवी घेवन नुस्त्याक वतलो (आतां प्लास्टिक पिशवयांचें यूग आयिल्ल्यान पिशवी घेवन नुस्त्याक वचप उणें जालां). चार-पांच नुस्तेकान्नींकडेन भोवन

बऱ्यांतलें बरें (बोल्साक परवडटा) तसलें नुस्तें घेवन घरा येतलो. घरा येवन घरकान्नीक फर्मायतलो, 'आगो तेफळ घालून बांगड्यांचें धबधबीत कर. नाजाल्यार तोर, आंबाडे घालून सुंगटाचें हुमण कर...' 'खंय रे, नुस्त्याक वता?' हें तांचें गुडमॉर्निंग. 'आज नुस्तें कितें खाल्लें रे?' हें तांचें गुडइव्हनिंग.

बरें बरें रुचीचें खावप, जेवप हें गोंयकारांचे संस्कृतायेचें एक आंग जावन आसा. ते ह्या पोटभरणांक यज्ञकर्म मानतात. आनी जेवणाक परब्रह्म! सोयऱ्यांक येवकार दिवपाक गोंयकार सदांच फुडें. शेजरापाजरा कोणी सोयरीं आयल्यार देखून तांकां खोशी जाता. तो मुजरत तांकां जेवणाचें आमंत्रण दिता. तुमीं सगळीं मंगळारा आमगेर जेवपाक येयात अशें मुजरत सांगता. कित्याक तर सोमारा शिवराक! बऱ्या आंबट तिखट नुस्त्याच्या जेवणाचें आमंत्रण दिवपाक ताका मनापसून आवडटा. नुस्त्याचे तरेकवार जिन्नस तो आवडीन खाता आनी तितलेच आवडीन दुसऱ्यांक खावंक घालता.

गोंयच्या जेवणांत मागीर तें शिवराक आसूं, नुस्त्याचें आसूं नाजाल्यार गोडशें आसूं; तातूंत नाल्लाक खूबच म्हत्व आसा. नुस्त्याचें सुकें, हुमण, भाजी, उसळ आसूं नाजाल्यार पणसाचें धोणस, तवशाची तवसळी, तातूंत घालूंक नाल्लाची सोयच जाय. गोंयचीं गोडशीं तर नाल्लाच्या रोसाबगर जायचनात. मणगणें, सोजी, खीर हातूंत घालपाक नाल्लाचो दाट रोसूच जाय. खोबऱ्याच्यो कातल्योय जाय. पातोळ्यांत, कणगांच्या नेवऱ्यांत गोड आनी सोय घालून कालयिल्लें चून जाय.

गोंयकार मनशाचें शीत, हुमण आनी नुस्तें हाचेवयलो मोग साहित्यांत देखून दिसता. नुस्तेकार आनी नुस्तें ह्या विशयाचेर तर कितलींशींच पदां रचिल्लीं आसात. बाकीबाब बोरकारान लेगीत म्हणिल्लें आसा, 'नुस्तें आसल्यार गोंयकार वीर, नाजाल्यार गोंयकार व्हीर'. पदावयल्यान याद जाली, गोंयकारांक नित्याचे जिणेंत लेगीत खावपाजेवपाच्यो ओपारी

मारपाची खूब आवड! एकाद्या कार्याक यत्न करून लेगीत अपेस आयलें जाल्यार तो म्हणटा, 'धोडयाऱ्याचे तकलेंत तिनूच फातर'. एकादी गजाल सारकी थारिल्ली नासली जाल्यार 'दाट जाल्यार सान्नां, पातळ जाल्यार पोळे' अशें म्हणटलो. एकादे शिडशिडीत सुंदर चलयेक सामकी मुड्डशी कशी म्हणटा. तर स्मार्ट चलयेक सुंगट कशें पिटपिट्टा. घरांतल्या कामाक हुशार आशिल्ले बायलेक कामाक सामकी कुल्ली कशी अशें म्हणटात.

बांगड्यांचें आनी गोंयकारांचें सामकें जल्मा जल्माचें नातें आसा. बांगड्याचें हुमण, धबधबीत, सुकें, लोणचें, उड्डमेथी, रेशाद, चटणी, भरिल्लो बांगडो, तणांत भाजिल्लो बांगडो अशे कितले तरी प्रकार करतात. निकटे यादीनूच तोंडाक उदक सुट्टा. बांगड्या वांगडा तारले, पेडवे लेगीत गोंयकार रूचीन खातात. बांगड्याच्या हुमणांत तेफळ जायच. म्हाका सदांच प्रस्न पडटा, बांगड्या खातीर तेफळ काय तेफळा खातीर बांगडो? तेफळान झणझणचें पूण बांगड्याचो मान दवरून अशें खंय तरी पु.ल. देशपांडेन बरयिल्ल्याची याद जाता.

श्रावण म्हयनो सोंपतां सोंपतां बांगडुल्यो येतात. चवथीचे दीस आनी बांगडुल्यो येवपाचे दीस एकूच. हाचेर कांय खाजुड्ड्या गोंयकारांनी उपाय सोदून काडला. चवथीक माटोळेक तेफळांचो घोंस बांदिल्लो आसता. पंचमी दिसा बाजारांत बांगडुल्यो आयल्यो काय कोणाकूय बाजारांत धाडून त्यो हाडून घेवन मागीलदारांत दवरतात. गणपती पावयलो रे पावयलो तांचें आंबट-तिखट धबधबीत करून तातूंत तेफळां धाडावन घालीं कीं जो वास घरांत दरवळता तातूंत सोमतीच तीन दिसांच्या शिवराक जेवणाची सांगता जाता.

बांगड्या भशेनच गोंयकारांक मानशेच्या आगराच्या सुंगटांची सामकी अपुरबाय. अशीं धवीं सुंगटां नुस्त्या बाजारांत दिसलीं रे दिसलीं गोंयकार

ताचेर सामको घालून घेता. ह्या सुंगटांची रुचय सामकी अप्रतीम! हळद, सुक्यो मिरसांगो, मिरयां, कोथमीर, सोय घालून वांटिल्ली, तोरां घालून, कांदो, हींग फोण्णां घालून केल्ल्या सुंगटाच्या हुमणाची रूच जिबे वयल्यान कशीच वचना. हाताक लागिल्लो घमघमीत वास तर चार-पांच वरां कसोच वचना. सुंगटाच्या हुमणाचें एक बरें, तातूंत घालपाक कितेंय चलता. तोरां, बिमलां, करमलां, आंबाडे, मुळो, मस्काच्यो सांगो धरून बुळबुळीत भेंडें लेगीत. बांगड्याभशेन सुंगटांचेय बी कितलेशेच प्रकार करपाक येतात. सुंगटांचें सुकें, तोंडाक, पुलाव, बालशांव, लोणचें, डांगर, उड्डमेथी, खारवडी. मोट्यो वाघयो तर सांबार, आलें, लसूण लावन चुरचुरीत तळसून खावच्यो, कितलीं खालीं तें कळचें लेगीत ना.

बांगड्या-सुंगटां वांगडा कुल्ल्यो, वेल्ल्यो, तिसऱ्यो, कालवां, विसवण, चणक, रांवस, काळूंदर, पाळू, खांपी, कल्ली, लेपो हें सगळें नुस्तें गोंयकारांचे जिबेची रूच भागयता. ताजें तट्टटीत नुस्तें घरांत येतकच घरची अन्नपुर्णा नुस्तें उजरावप, नाल्ल कांतप, वांटप, सामकें उमेदीन करता. कांदो फोण्ण घालून केल्ली बांगड्याची उड्डमेथी खावची तर ती गोंयकान्नीच्याच हातची. रांवस, मुड्डशी, शेंवटे, चणक ह्या राजेशाही नुस्त्याचें हुमण खावचें तर गोंयकार अन्नपुर्णेच्याच हातचें. दाट नाल्लाचो रोस घालून केल्लें हुमण खातना जिबेर ताबो उरना. शेश्ट्यो घालून केल्ली कळपुटी, तिसऱ्यां, खुब्यांचें सुकें, दांगर, खोबरेल तेलान तळिल्लीं विसवणाचीं पोस्तां, भरिल्ले बांगडे, मोरयेचें तोंडाक असले तरेकवार नग ती आवडीन करता आनी खोशेन सगळ्यांक खावंक घालता. आनी इतलें सगळें खावन ॲसिडिटी जावपाचो तर कसलोच हुस्को ना. ते खातीर गुलाबी रंगाची सोलांची कडी तयारच आसता.

पावसाच्या दिसांनी मात गोंयकारांचे मातशे हाल जातात. सेगीत पांच-स

दीस जेन्ना पावस पडटा तेन्ना जिवें नुस्तें मेळना. ते खातीर ताणें सुक्या नुस्त्याचो पुरुमेंत करून दवरिल्लोच आसता. चड करून खारें बांगडे, सुंगटां, वेल्ल्यो, मोरयो, बोमील, मोतयाळें...

सामको घसघशानी पावस रकूंक लागलो म्हटकच ताका ह्या बांगड्यांची याद जाता. मागीर सात-आठ बांगडे भायर सरतात. बांगडो बरो लिप्प करून ताच्यो उब्यो शिरो करून इंगळ्यार, नाजाल्यार गॅसीर तव्यार खोबरेल तेलांन भाजतात. भायर पावस आनी घरांत भितर बांगड्यांचो घमघमीत वास. मागीर कितें विचारता, जिबेंतल्यान लाळ केन्ना भायर सरता तें कळच ना. भाजिल्ल्या बांगड्याचे बारीक बारीक कुडके करून तातूंत सोय, बारीक चिरिल्लो कांदो, हळदी पिठो, मिरसांगे पिठो, आमटाण घालून बरें कालोवन किसमूर करतात. मागीर मदीं बोट घालून बुराक करून तातूंत पेटिल्लो इंगळो दवरून इंगळ्याचेर खोबरेल तेल घालप आनी कुशींतली किसमूर घालून बुराक बंद करप. मागीर चुरूचुरू आवाज करीत धुंवर भायर सरता. हे किसमुरेची रूच आनी चुरूचुरू आवाज फायव्ह स्टार हॉटॅलांच्या सिझलारूकय फाटीं घालतलो. ही किसमूर आनी बारीक बारीक गांवठी कांदे घालून केल्लो दाळचो रोस. ह्या जेवणाची रूच तर व्हडल्या राजाल्या जेवणाक देखून येवची ना.

सदच्या जेवणांत नुस्त्याचो कुडको जाय आसलो तरी गोंयकार सोमारा, बिरेस्तारा वा सणा-परबेक पुजेच्या व्रताच्या दिसा सामको शिवराक रावता. शिवराक म्हणचे कांदो, लसूण खायनासतना. इतलेंच न्हय तर आषाढी, कार्तिकी, एकादशेक, संकश्टेक, विनायकेक, महाशिवरात्रेक, दत्तजयंतीक तो कडकडीत उपास करता. कडकडीत म्हणचे गोंयकाराचे भाशेंत नुस्तें आनी शीत सोडून केल्लो उपास. ह्या उपासाक रोटयो, रव्याचो शिरो, सत्व इतलेंच न्हय तर कालयिल्ले फोव लेगीत खाल्यार चलता. गंवाच्या पिठांत

तवशें किसून गोड आनी सोय घालून मुद्दाम उपासाक खावपाची भाकरी थापतात.

गोंयांत पिकता ती सगळी पिकावळ गोंयच्या शिवराक जेवणांत दिश्टी पडटा. मागीर ती मस्काच्या पाल्याची भाजी आसूं नाजाल्यार तायकिळ्याच्या पाल्याची भाजी आसूं. पावसांत जेन्ना म्हस्काक तन्नी कोमरी फुट्टा तेन्ना बरी पणसाचीं भिकणां आनी तोरची दाळ घालून ही भाजी करतात. श्रावण म्हयनो लागचे पयलीं ही भाजी दोनदां तिनदां तरी खावपाक जाय. तशीच आळूं आनी तेरें हांचीय भाजी करतात. वयल्यान खोबरेल तेलान कुवाळ्याच्यो वडयो वा लसणीचीं फोण्णां दितात. पोरसांत किल्लल्ल्यो कुड्डुकीची, गोळची, अळसांद्याच्या पाल्याची, लुतीची भाजी खावची तर ती ह्याच दिसांनी. नुस्तें जरी कमी मेळ्ळें तरी ताचो जागो ह्यो भाज्ज्यो भरून काडटात.

पावसांत फुलपी अळम्याचें तर गोंयकारांक व्हडलें अप्रूप. बाजारांत अळमी अयल्यांत काय ना तें पळोवपाक नीज गोंयकार बाजारांत दोन-तीन तरी पासयो मारले बगर रावना. अळम्याचें झणझणीत तोंडाक खाले बगर ताका सूख लागना. अळम्याचें तोंडाक खावचें तर तें पातळ पोळ्या वांगडा. सुरय आनी उकडे तांदूळ वांटून केल्ले पातळ पोळे खातना खावऱ्याक सर्गसूख मेळटा. हीं अळमीं तळुनय खातात. तशेंच तांचे दांगर, सुकें आदी पदार्थ करतात.

आंब्या-पणसाचे दीस म्हणचे गोंयकारांचे नदरेन सणा-परबेचे दीस. एका पणसाचेच हांगा तरेकवार नग करता. हरव्या पणसाचो, कुंवल्याचो चाको, सुशेल, घरे मात्शे जून जतकच मावेचें लेगीत भर्त करतात. थोडे कडेन तर जून घरे खंय दोणांत घालून दवरतात. दोणांत आमल्यो घालतात तशे. ह्याच दिसांनी काजूच्या बिब्यांची उसळी, तोंडाक, म्हुट्ट्याची भाजी,

घोटांचें सांसव, अनसघोटांचें तोंडाक, तोरांची उड्डमेथी, करम, लोणचें सगळें पोटभर खावपाचें. आंबे, पणस, भिण्णाचीं सोलां, पणसाचीं भिकणां ह्या सगळ्यांचो वर्सभर पुरुमेंत करताना घरकान्नीक बरोच घाम काडचो पडटा.

आंब्यापणसाच्या भाज्ज्यांशिवाय तरेकवार शिवराक खाणां करतात. मुगांच्यो गांठी आनी खतखतें हांचे बगर तर गोंयचीं लग्नां जायच नात. गोडशीं तर जायच जाय. मणगणें आनी सोजी हीं सामकीं कॉमन गोडशीं. दिवाळेक, तुळशी लग्नाक, अष्टमेक फोवांचो फराळ, संवसार पाडव्याक हीट रोस, सुकुरउंडे, शिगम्या पुनवेक पुरणपोळयो, कणगांनेवऱ्यो, नागपंचमीक पातोळ्यो, एकादशीक मुगाचें कण्ण, संक्रांतीक खांटोळी हीट रोस, रथसप्तमीक, नव्याच्या पुनवेक दुदाचो पायस, दिवाळी पाडव्याक रोसांतले पोळे, गुंडल्या परबेक गुळणी अशी तरेकवार गोडशांची व्हडली यादीच तयार जातली.

सणा-परबेक गोडशीं करपाक क्रिस्तांव समाजूय फाटीं ना. हिंदू समाजांत करता तीं चडशीं गोडशीं क्रिस्तांवांगेरय करतात. फकत गोडशाचें नांव वा परब दुसरी आसता. नातलांच्या वेळार नेवऱ्यो, बिबिंक, धोदल, दोस, कलकल, करमलां हे जिन्नस करतात तर 15 ऑगस्टाच्या फेस्ताक पातोळ्यो करतात. हेर फेस्तांक सान्नां, रोसांतल्यो कायलोळयो करतात.

गोंयचीं खाणां-जेवणां षड्रसाच्या रुचीची मैफल म्हणल्यार फट जावचें ना. गोंयची खाद्य संस्कृताय चोंयवटेन परिपूर्ण अशी आसा आनी गोंयकार मानकुराद आंब्या भशेन रसाळ मनान सोयऱ्यांक येवकार दिवपाक सदांच उबो आसता.



# ताजें टवटवीत बंगळुरू

**बंगळुरू** भारतांतलें एक ताजें टवटवीत, थंड, शितळ हवामान आशिल्लें शार. रसरशीत निळशा दोळ्याचें, जुवान, वयांत आयिल्लें चली कशें. हांवें बंगळुरू केन्नाच झेमिल्लें बाविल्लें अशें पळोवंक ना. मागीर ऋतू खंयचोय आसूं. बंगळुरू कर्नाटक राज्याची राजधानी. भारतांतले पांचव्या नंबराचें शार. भारताचे पयले पंतप्रधान पंडित जवाहरलाल नेहरू हांणी बंगळुरूक 'सिटी ऑफ फ्यूचर' अशें म्हणिल्लें खंय. बंगळुरूक आदीं 'सिटी ऑफ गार्डन्स' म्हूण वळखताले. पूण आतां त्याच बंगळुरूक 'सायबर सिटी' म्हूण वळखतात. पंडित नेहरूंक ती दूरदृश्टी आशिल्ली जावंये.

बंगळुरूचो 'गार्डन सिटी' ते 'सायबर सिटी' हो प्रवास नेटान जायत गेलो. विजयनगर साम्राज्याचो सेनापती केम्पेगौडा हांणी 1537 वर्सा एक मातयेचो किल्लो बांदून ह्या शाराची बुनयाद घाली. मागीर विजयनगर साम्राज्य वचून थंय विजापुरकारांचें राज्य आयलें. शिवाजीचो बापूय शहाजी

राजा हांगाचें राज्य चलयतालो. शिवाजी भुरगेपणांत हांगा आशिल्लो. मागीर दादाजी कोंडदेवा वांगडा दिवन शिवाजीक पुण्या धाडलो. मागीर हैदर अलीन हे मातयेचो किल्लो मोडून नवें बंगळुरू वसयलें. ताच्या पुतान, टिपू सुलतानान तातूंत आनिकूय भर घाली. बंगळुरूचो खरो विकास म्हैसूरचे वडियार राजा कृष्णदेवराय हांणी विश्वेश्वरैया हांचे मजतीन केलो. सर मार्क कब्बन, म्हैसूर राज्याचो ब्रिटिश कमिशनर हांणी बंगळुरूंत क्लब, इगर्जी, गार्डनां आनी तळीं बांदलीं. बंगळुरूच्या बऱ्या नशीबान ताचेर राज्य करतल्यांनी ताचें वैभव वाडयत व्हेलें.

आतां तर बंगळुरूंत आयटी इंडस्ट्रीक (म्हायती तंत्रगिन्यान) लागून उदरगतीक नेट आयला. ह्या क्षेत्रांतल्यो हांगा उण्यांत उण्यो म्हणल्यार दोनशां वयर कंपन्यो आसात. हांगा कॉल सँटराक लागून वेगवेगळ्या राज्यांतले भुरगे नोकरेक येतात. ते खातीर बंगळुरू खऱ्या अर्थान कॉस्मोपोलिटन शार जालां. थंय 'कामचलावू' हिंदी आनी इंग्लिश तर चडशा सगळ्यांक समजता. केरळ, तामिळनाडू भाशेन थंय भाशाभिमानाची अतिताय ना. थंय चडशा सगळ्या दुकानांच्यो पाटयो कन्नडांत दिश्टी पडटात. व्हडल्या व्हडल्या शोरूमांच्यो मात इंग्लिशींत. बंगळुरूचे चडशे रस्ते काळेच आनी सुळसुळीत. रस्त्याचे दोंशीं वटेन पाचवींचार झाडां. शाराच्या मदल्या भागांत इतली दाट झाडी, म्हाका दिसता बंगळुरू सोडल्यार भारतांतल्या हेर खंयच्याच शारांत दिश्टी पडची ना. बंगळुरूचो महात्मा गांधी रस्तो, एम. जी. रोड ह्या रस्त्यां कडेन सर्त करपी रस्तो एक दिल्ली सोडल्यार भारतांत आनीक खंय आसत सो दिसना. एके वटेन पाचवी देग आनी दुसरे वटेन दुकानां. सकाळीं पासयेक वतना दवांत भिजिल्लो एम.जी. रोड पळोवचोच. दनपारच्या वताच्या कडार ताची पाचवीसाण दोळ्यांक सुखायता. सांजवेळचो थंय भरिल्लो बाजार तिनसांजेचो दिव्यांच्या उजवाडांत

लकलकपी एम.जी. रोड बंगळुरूच्या सोबीत तुऱ्यांत आनीक एक पीस खोयता. फाटीं हांव जपानांत गेल्लें तेन्ना टोकयोंतल्या एका रस्त्या वयल्यान चलतना बंगळुरूच्या एम.जी. रोडा वयल्यान चलिल्ल्याचो भास म्हाका जालो. आनी टोकयोंतल्या रस्त्यां कडेन सर्त करपी रस्तो बंगळुरूंत आसा म्हूण खोसय भोगली. हांव जेन्ना जेन्ना ह्या रस्त्या वयल्यान गेलां तेन्ना थंयच्या बार्टन सँटरा लागीं एकलो मसालो फाफुडिल्ल्यो हुनहुनीत चिरमुल्यो घेवन बशिल्लो दिश्टी पडला. चिरमुल्यो खायत खायत रस्त्याचें सौंदर्य पियेत हांव भोंवलां. थंय लागींच 1930 त सुरू केल्लो लेक व्ह्यू मिल्क बार आसा. थंय स्नॅक्स, केक, पेस्ट्री धरून आयस्क्रीम लेगीत मेळटा. ताचेर एक सुभाशीत बरयिल्लें आसा. तें वाक्य म्हाका खूब आवडलें. 'Life is like an icecream. Enjoy before it melts.' जिवीत हें आयस्क्रीमा वरी आसता. तें विरगळचे पयलींच तातूंतली खोस अणभवात. हें सादेशें वाक्य मनशाच्या जिविताचें तत्वज्ञान सांगून वता.

बंगळुरूक गार्डनाची सिटी म्हूण वळखतात तें कितें ओगीच न्हय. तिनशें एकर जमनीचेर पातळिल्लें कब्बन पार्क हें एकूच उदाहरण खरेपण करपाक पुरो. सबंद कब्बन पार्क पांयांनी भोवन पळयतले जाल्यार एक दीस जायच. थंयचे कोंड्याचें रान पळोवन अजापच जावपाचें. इतले रुंद आनी उंच कोंडे अटंग्या रानांत आसतले. भोंवपाक मोव मोव लॉन. भुरग्यां खातीर पार्क. थंयच जवाहर बाल भवन. तातूंत भुरग्यां खातीर कार्टून फिल्मां बी दाखयतात. मत्स्यालय, सरकारी म्युझियम, ह्यो सगळ्यो इमारती कब्बन पार्कांत येतात. हें म्युझियम तुका हजार वर्सां फाटल्या काळांत घेवन वता. टिपू सुलतान आनी ब्रिटिशांचीं झुजां दोळ्यां मुखार येतात. ह्या शस्त्रांनी कितल्या जाणांक सर्गांत धाडलें काय? कितले रगताचे व्हाळ व्हांवयले काय?

थंयच तेंकून आसा वेंकटप्पा आर्ट गॅलरी. सर्गेस्त वेंकटप्पा हे एक तिभाशाली चित्रकार. म्हणून तांचें नांव हे गॅलरीक दिलां. तेंकून आशिल्लें व. विश्वेश्वरैया इंडस्ट्रियल अॅण्ड टॅक्नॉलॉजिकल म्युझियम. हें अशे तरेचें ारतांतलें पयलें वयलें म्युझियम आसूंक जाय. भुरग्यांच्या जाणट्यांच्या ामान्य ज्ञानांत भर घालपी अशें हें म्युझियम.

कब्बन पार्काचे उत्तरेक आशिल्ली विधान सौध ही कर्नाटक राज्याची विधानसभा इमारत बंगळुरूचें वैभव. सुंदर कोरीव काम केल्ली चंदनाच्या लांकडाचीं दारां. व्हडलें घुमट. कलात्मक खांबे. पळयतना दिसता हातूंत राजकारण चलयनासतना कलाकारांनी कलाकृती सादर करपाक जाय आशिल्ल्यो.

फाटल्या काळांत बंगळुरूक मुंबय भशेन मळबाक तेंकूंक सोदपी इमारतींचें पिशें नाशिल्लें. ते खातीर हांगाच्यो चडश्यो इमारती ग्रॅनायटाच्या फातरांनी बांदिल्ल्यो, खासा दक्षिणी पद्‌दतीच्यो. हालींसराक नव्यो इमारती, शॉपिंग मॉल्स येतात. ते मात सामके हारशांचे म्हाल कशे. 'फॉरम' सारक्या शॉपिंग मॉलांत तर थेटरां लेगीत आसात.

कमर्शियल स्ट्रीट ही बंगळुरूची व्हडली बाजारपेठ. सगळे तरेचीं दुकानां. जोतीं, पुस्तकां, कपडे, हार्डवेर, हॅण्डीक्राफ्ट... कितें ना म्हूण ना. सगळें आसा. तातूंतच भर म्हणून वुडीस हें रेस्टोरंट आसा. थंय मंगळूरियन मोदीचें घरावें जेवण मेळटा. शिरवळ्यो आनी नाल्लाचो रोस. पानांच्या दोण्यांनी उकडिल्ले हीट गुळीआप्पे. तवश्याचे पोळे, बिसीबेळे भात, खारा भात (उपीट), खिचडी... बंगळुरू कितलेय दीस राव. तें तुजे जिबेची रूच भागयता.

एम.जी. रोडा फाटल्या चर्च स्ट्रीटा वयलें हॉटॅल अम्पायर हांगा तरेकतरांचे ज्यूस मेळटात. हालीं थंय एक नवीनच प्रकार म्हाका खावपाक

मेळ्ळो. चिकन दोसा, खिमा दोसा, चिकन इटली, इदीआप्पम आनी चिकन, म्हणल्यार शिरवळ्यो खास मंगळूर स्टायलीन फोण्णां दिल्ल्यो. चिकना बराबर खावपाच्यो. कांटे, कुलेरां घेवन न्हय, हातांनी. म्युझियम स्ट्रीटा वयले बांबू शुट्स... चायनीज आनी थाई मोदीचें जेवण जेवपाक म्हजे पांय ओपाआप थंय वळटात.

बंगळुरू वचून लालबाग तर पळोवंकच जाय. हैदर अलीन ही बाग तयार केल्ली. थंय ताच्या पुतान टिपू सुलतानान अफगाणिस्तान, इराण, फ्रान्स धरून सगळे कडल्यान झाडां हाडून रोयिल्लीं. साळकाचीं तळीं, कितलेशेच तरांचे गुलाब हांगां लेंव जांबळ्या रंगाचो गुलाब फुलिल्लो हांवें पयलेच खेपे पळयिल्लो. हांगा आशिल्लें ग्लास हावस तर लालबागचो अलंकार. वाटकुळेंच पाखें आशिल्लें हें हारशांचें घर. हांगा इंदिरा गांधी पंतप्रधान आसतना काँग्रेसीचीं अधिवेशनां जाल्यांत आनी गाजल्यांतय बी.

लालबाग पळोवन थंय लागसाराक आशिल्ल्या मावळी टिफीन ह्या रेस्टोरंटांत वचून थंयच्या टिफीनाची रूच घेतले बगर येवं नजो. दक्षिणे कडेन टिफीन म्हणल्यार नाश्तो. इडली, दोसा, वडा... हांगाच्या टिफीनाची रूच टिपिकल दक्षिणी चुरचुरीत दोसा, मोव मुलायम इडली, विरविरीत वडे...

बंगळुरूक खंयच्याय देवळांत वच. भाविकांची रांक लागिल्ली आसता. मागीर तें बसवगुडीचें बुल टेम्पल आसूं ना जाल्यार टिपूच्या राजवाड्यांतलें श्रीनिवास मंदीर आसूं. महालक्ष्मी ले-आवट हांगा आशिल्ल्या वीर अंजनेया मंदीर ह्या मारुतीच्या देवळांत तर सदांच भाविकांची गर्दी आसता. हांगा काळ्या पाशाणांतली मारुतीची पर्वत हातांत धरिल्ली आठ मिटर उंचायेची मूर्त आसा. मारुतीची ही आशियांतली सगळ्यांत व्हड मूर्त खंय. फाटल्यान राम लक्ष्मण सितेचेंय देवूळ आसा. ह्या देवळांचें वैशिश्ट्य म्हणल्यार ह्या देवळांत तळघर आसा आनी थंय ध्यानमंदीर आसा. ह्या सगळ्या देवळांचो

कळस म्हणल्यार थंय लागसारच कॉर्ड रोडाचेर हरे राम हिलाचेर आशिल्लें इस्कॉन हरे राम हरे कृष्ण मंदीर. एकदां थंय दिवाळेच्या दिसांनी गेल्लें आसतना कार्तीक पुनवेक जावपी दिपोत्सव पळोवपाक मेळ्ळो. देवूळ पणट्यांच्या मंद उजवाडांत न्हाता. अक्षय तृतियेक राधाकृष्णाक बलरामाक म्हणल्यार तांच्या मुर्त्यांक सुंदर फुलांनी सजयिल्ल्या झोपाळ्याचेर बसयतात. तो धोलोत्सव आठ दीस थंय चलता. ती फुलांची आरास, तो साज शृंगार पळोवपाक हांव चुकून पावलां आनी दोळे भरून पळयला.

बंगळुरू हें गार्डनाचें शार तशेंच सिल्काचेंय. चंदनाचेंय शार. चिकपेठ ही सिल्काची पोरणी बाजारपेठ. तरेकवार सिल्काच्यो साडयो थंय होलसेल दरान मेळटात. ते खातीर चिकपेठ म्हणल्यार सिल्काच्यो साडयो असो समानार्थी अर्थ जाला. आतां ल्हवू ल्हवू हें पोरणें बंगळुरू बदलत आसा. तें नगराचें महानगर जायत चल्लां. दिसानदीस थंय पब कल्चर वाडत आसा. नवे नवे उद्देग धंदे आयिल्ल्यान बंगळुरूची लोकवस्ती दाट जायत चल्ल्या. एका काळार भारताची एअर कण्डीशण्ड सिटी म्हूण नामना आशिल्ल्या बंगळुरूचें तापमान खंय दिसानदीस वाडत आसा. अशें थंयचे जाणटे लोक कागाळ करतात. शंबर वर्सां पयलीं बांदिल्ल्या कांय घरांनी शियां दिसांनी शेकोटी पेटोवपाची वेवस्था आसा खंय. पूण आतां घराघरांनी एसी लावचे पडटात. वर्सुयभर प्रसन्न वातावरण आशिल्लें हें शार पर्यटकांक तर एक 'कुळार' कशें. तें सदांच अशेंच ताजें टवटवीत उरूंक जाय.



# नंदी हिल्स

नंदी हिल्स हें बंगळुरू लागसारचें सुपुल्लें हिल स्टेशन. आमी बंगळुर सावन नंदी हिल्स वचपाक भायर सरलीं. गाडी येलांका रस्त्या वयल्या धांवताली. हांगां बंगळुरूचो नवो इंटरनॅशनल एअरपोर्ट येता. ते खातीर रस्त रुंदीकरणाचें काम चलतालें. त्या दिसा आयतार आशिल्ल्यान येलांक गांवांत बाजार भरिल्लो. वाटेर वचत थंय आंब्याच्यो राशी आनी केळ्यां घड. आंबे आकारान खुबच व्हड. आमीय देंवन आंबे घेतले.

देवणहळ्ळी गांवांत भितर सरतनाच सर्कलाचेर पाशाणाचो नंदी बसयल आनी थंयच्यान नंदी हिल्सार वचपाची वाट दाखयल्या. गांवांत पावल बराबर द्राक्षांचे मळेय लागले. म्हाका दिसलें, खंयच्याय हिल स्टेशनार भित सरतनाच कसले ना कसले तरी मळे लागतात. महाबळेश्वराक स्ट्रॉबेरीचे मळे तर हांगा द्राक्षांचे मळे. द्राक्षां मात मोटीं. वाटेर तागडी आनी द्राक्षांच घोंस हातांत धरून भुरगे द्राक्षां विकपाक राविल्ले. हरशीं खातात त

बाजारांतलीं द्राक्षां. मळ्यांतलीं निकतींच तोडून हाडिल्ल्या ताज्या टवटवीत द्राक्षांचो घोंस खावपाक कसो लागता तो पळोवया म्हूण हांवें गाडी थारावपाक लायली.

एक 13-14 वर्सां पिरायेचो भुरगो हातांत द्राक्षांचो घोंस धरून उबो आशिल्लो. 24 रुपया किलो म्हणूंक लागलो. हांवें एक किलो घेतलीं. दुसरो भुरगो मात्सो व्हड आशिल्लो ताणें जोखून दिलीं. हांवें तांकां हरशींच विचारलें, 'तूं शिकता रे? काय मळ्यांत काम करता?' ताणें सांगलें, आपूण बीए शिकतां आनी द्राक्षां घेवन उबो आशिल्लो तो ताचो धाकलो भाव चंद्रशेखर णव्वी पास जावन धावेंत गेला. हांव विचारतां तें पळोवन ताका दिसलां जावंये, म्हाका कामाक मनीस बी जाय काय म्हणून. तो मोडके तोडके हिंदींत विचारूंक लागलो, 'आरे आमी गोंयांत रावतात. हांगा फकत भोंवपाक आयल्यांत. म्हजे कडेन काम आसल्यार पसून तुका तें कित्याक उपेग?' तर तो म्हणपाक लागलो, 'काम मेळटा जाल्यार आपूण गोंयांत देखून येवंक तयार आसां. हांगा आमकां रोजगाराचें कसलेंच साधन ना.' मागीर सद्गुरून ताका सांगलें, 'तूं पयलीं शीक. नोकरेचें मागीर पळोवचें.'

गाडी आतां दोंगरा वयल्यान वाट काडीत वयर चडटाली. दोशींकुशीची धड बांदिल्ली. देगेर व्हडलीं व्हडलीं खडपां आशिल्लीं. ताचेर चडून लोक घाटांतलें सौंदर्य तोखेताले. हवा सामकी थंड आशिल्ली. पावसान घुमटी घाल्ली. केन्ना झडत ताचो नेम नाशिल्लो. गाडी नंदी हिलाच्या पांयां कडेन थांबली. गाडी वयर व्हरपाक तिकीट काडची पडटा. वयर वचपाक बरो डांबरी रस्तो आसा. ह्या दोंगराची उंचाय 2000 फूट आसून तो सबंद दोंगर मोनोलिथिक ग्रॅनायटाचो आसा. सकयल एक विज खात्याचें आनीक एक सरकारी गेस्ट हावस आशिल्लें. वयर चडून वतात तो दोंगराचो भाग किल्ल्या सारको बांदून काडिल्लो आसा. थंयसावन वयर दोंगरार चडून

वचपाक 1175 सोपणां आसात. पिकनिकेक आयिल्ले लोक मजेंत तीं सोपणां चडून वताले. अठराव्या शेंकड्यांत टिपू सुलतान वसंत ऋतूंत हांगा रावपाक येतालो खंय! हांगा टिपूस ड्रॉप म्हणून एक कडो आसा. त्या कड्या वयल्यान टिपूच्या काळांत अपराध्यांक कडेलोटाची ख्यास्त दिताले खंय.

हांगा गाडी वयर मेरेन व्हरूंक मेळटा. बसी बी सकयलच थांबोवच्यो पडटात. आमी गाडी एकदम वयर व्हरून थारायली. त्या दिसा आयतार जाल्ल्यान पिकनिकेक आयिल्ल्या लोकांची गर्दी आशिल्ली. थंय गार्डनां खूब आसात. तातूंत लोकांक बसपा खातीर बांक आसात. भुरग्यांक खेळपाक पार्क आसात. सगळ्यांत वयल्या पोयंटार योगनंदीश्वर हें शंकराचें देवूळ आसा. थंय वचपाक गाडयेंतल्यान देंवलीं मात, झणझणीत वाऱ्यान पांय फुडें घालपाक पसून जायना जालें. माया म्हयन्याच्या निमण्या सप्तकांत जंय गरमेन जीव नाका पुरो जाल्लो, तेन्ना हांगा इतलो कुडकुडो आसतलो म्हणून कोणाक खबर! आमी तर शाल स्वेटर कांयच व्हरूंक नाशिल्लें. हें योगनंदीश्वराचें देवूळ छेला राजान बांदिल्लें. देवूळ व्हडल्या फातरांनी बांदिल्लें आसा. खूब पोरणें. देवळांत पांय धुवनच भितर सरपाक जाय. थंय काळ्या पाशाणाचो सोबीत नंदी आसा. ताका पळयल्यार तो हालींसराक थंय बसयला कसो दिसतालो. एक दोग जाणांक विचारलें. तांकां कन्नड सोडून दुसरी कसलीच भास येनाशिल्ली. पुरातन देवळां जावं आनी कितेंय, तीं तशींच त्याच स्वरुपांत दवरूंक जाय. तातूंत बदल आनी कित्याक करप? कुशीकच नवग्रहांच्यो देवळ्यो आसात. देवळाच्या मुखार सुपुल्ली तळी आसा. देवळांत आयिल्ले भावीक तळये कडेन वचून माथ्याक उदक लायतात तें दत्तराजान पळयिल्लें. आपूणय तळयेर वतलों म्हणूंक लागलो. इतल्या तेंपाची तळी, पूण सामकी बरे स्थितींत आशिल्ली.

दोंगरार एके वटेन गच्च झाडी. दुसरे वटेन देंवती. व्हडलीं व्हडलीं

खडपां. झाडा वयल्यान माकडां उडक्यो मारतालीं. थंय कर्नाटक टुरिझमाचें हॉटॅल मयुरा आसा. थंय आमकां एका दिसाक रुम मेळ्ळो. थंय जेवन घेतलें आनी वयर गेलीं. पंडित जवाहरलाल नेहरू बंगळुरू येतकच हांगा येवन मुद्दाम रावताले खंय. ते रावताले त्या घराक 'नेहरू निलय' अशें नांव दिलां. आतां ही इमारत हॉर्टिकल्चर विभागाच्या ताब्यांत आसा. हांगा महाराणी एलिझाबेथ देखून येवन रावन गेल्या खंय! ते बगर दक्षिण आशियाई देशांच्या संघटनेची (नाम) परिशद भारतांत जाल्ली तेन्ना सगळे सभासद सुटयेंत रावपाक नंदी हिलार गेल्ले खंय. चोगमाच्या वेळार गोंयांत आयिल्ले तशे. हांगा तशी लोकवस्ती व्हडली ना. सिझनाच्या दिसांनी सकयल्या नंदी गांवांतले लोक कितें कितें विकपाक घेवन येतात. आंबे, पिपऱ्यो, द्राक्षां, केळीं... आमी थंयच्या गार्डनांत वचून बसलीं. माकडां उडक्यो मारीत आमचे म्हऱ्यांत येतालीं. दत्तराजान तांकां एक एक करीत द्राक्षां घालून सोंपयलीं. अशी पासय मारपाक गेलीं. उंच उंच पाचवेचार 'पायन' रूख. थंय मोडको तोडको फातराचो नंदी दिश्टी पडलो. थंय आशीकुशीक तण वाडिल्लें आशिल्लें. घडये पयलीं देवूळ बांदिल्लें तेन्ना नंदीची स्थापना ह्या सुवातेर केल्ली जावंये. ह्याच दोंगरा वयल्यान आयकावती, पेनार आनी पालार ह्या तिनूय न्हंयांचो उगम जाला.

इतलें म्हणसर पावसाची व्हडली दडक आयली. रुमांत पावता म्हणसर चिप्प भिजलीं. दत्तराजाची मजा! आयतेंच पावसांत भिजूंक मेळ्ळें. तिनसांजेचो मात्सो पावस उणो जालो. पूण वारें बरेंच आशिल्लें. कोणें म्हणलें, टिपूस ड्रॉपा वयल्यान रातचें बंगळुरू सुंदर दिसता. म्हणून कुडकुडत मुद्दाम पळोवपाक गेलीं. बिण्ण काळखांत बंगळुरू शारांतले दिवे लुकलुकताले. रातकिड्यांचो किर्र किर्र आवाज येतालो. थंयय एक दोग मनीस दिसताले. थंड वाऱ्यान आनी पासय मारून पोटाक चुरचुरीत भूक

लागिल्ली. बेगबेगीन रुमांत आयलीं. जेवलीं आनी न्हिदलीं. फॅन लेगीत बंद करचो पडलो.

सकाळीं उठून भायर आयलें. पावस थांबिल्लो. झाडां न्हावन धुवन कवकवीत दिसतालीं. सकाळचीं सात वरां. पूण धड धुक्याचो न्ही, धड पावसाचो न्ही, असो एक मदलोच झिरझिरीत पड्डो दोंगराचेर पातळिल्लो. तशें थंय पळोवपा सारकें कांय ना, पूण सैमीक सोबितकाय आनी वैशाखांतल्या रखरखीत दिसांनी शिंयाळ्या वाऱ्यान कुडकुडावपाची शक्त नंदी हिलांत आसा.

इतल्यान दत्तराज उठलो. आमी ब्रेकफास्ट घेतलो आनी बंगळुरू वचपाक भायर सरलीं. गाडी सकयल देंवयतना पळयलें जाल्यार थंय पुराय नंदी हिलाचो मॅप दाखयिल्लो. काल तो आमचे नदरेक येवनाशिल्लो. थंय तेंकून अमृत सरोवर म्हणून चारी कुशींनी बांदिल्लें तळें आसा आनी टिपू सुलतान नमाज वाचतालो तीय सुवात आसा. तळ्याचे कुशीक थंय काम करपी कामगारांचीं भुरगीं खेळटालीं. एकट्यान हातांत बडी घेतिल्ली ताचें ताणें बॅट केल्लें. दुसऱ्याच्या हातांत हरवो आंबो. ताचो केल्लो बोल. तो घेवन ते धांवताले. तें पळोवन दत्तराजाक तांचे बराबर खेळपाची फुरफुरी आयली. तोय खेळूंक लागलो. मात्सो वेळ खेळ्ळो. मदींच एकट्यान त्या आंब्याक घांस मारलो आनी खावपाक सुरवात केली. दुसरो लागलो रडूंक. आमी काल घेतिल्ले ते आंबे तशेच आशिल्ले. ते तांकां दिले. तांचीं नांवां कितें काय म्हणल्यार नंदेश आनी व्यंकटेश. आमची गाडी सकयल देंवली. थंय भोगनंदीश्वराचें छेला राजान बांदिल्लें देवूळ आसा. दोनी शंकराचींच देवळां. दोंगरा वयल्या शंकराचें नांव योगनंदीश्वर जाल्यार मुळसांतल्या भोगनंदीश्वर. हें नांवांचें कुवाडें मात सुटलें ना.



# पार्वती

**म्हज्या** भुरगेपणांत पार्वती आमगेर वावर करपाक येताली. रंगान गोरशी, मोटवी, वांटकुळ्याच आंगलोटाची. केंसांचो व्हडलो आंबाडो, ताचेर सदांच कसलीं ना कसलीं तरी फुलां आसतालीं. तांबडया पिटकोळीचो घोंस, काण्णाचो घोंस इतलेंच न्हय तर राजआंवाळ्याचो घोंस देखून माळटाली. पूण माथें उक्तें केन्नाच दवरिनाशिल्ली. कपलाक सदांच चार आण्या येदो वांटकुळोच घसघशीत कुकूम, गळ्यांत अनशिदोरयेंत गुंथिल्ल्यो चार पोडी काळ्यो पिड्डुको. णववारी कापड सामकें घट्ट न्हेंसताली.

आमच्या घरालागींच दोन पायणी सोडून तिसरे पायणींत रावताली. दोन भुरगे जातकच तिच्या घोवान तिका सोडून दुसरें लग्न केल्लें. हिणेंच चार लोकांगेर वावर करून तांकां ल्हानाचे व्हड केल्ले. आतां व्हडलो चलो फॅक्टरींत कामाक लागिल्लो. आनी दुसरो टॅक्सी चलयतालो. तांकां तांची आवय आमगेर वावराक येता हाची लज दिसताली. ते तिका काम सोड म्हूण

फाटीक लागताले. पूण पार्वतीन तांचें केन्नाच आयकलें ना.

पार्वती सगळ्या कामाक सामकी वागीण. आमी वर्साक दोन-तीन फावट पापड करतालीं. ते तिच्याच जिवार. पांच-पांच कील उड्डांची दाळ ही बायल दांत्यार दळटाली. पापडाची कालयिल्ली पिठी मुसळान धोडयताली. मुसळ एका हातांतल्यान दुसऱ्या हातांत झेलून घेतना तिची लयबद्द हालचाल हांव ल्हान आसतना तोंड उक्तें दवरून पळयत रावतालें. कांडटना दळटना ही अशिक्षीत बायल कोंकणी मराठी मिस्तुराद पदां म्हणटाली.

आई मी आई मी खेळायला जाते
आई मला आई मला नेसायला नाय
नेस गो तू बाय नेस गो तू बाय
व्हनीबायची साडी
व्हनीबाय व्हनीबाय कामार आहे

हें पद तर आयदनां घासतना, ओलीं उमळटना तिच्या ओंठांचेर आसतालें. मागीर साडयेच्या वांट्याचीं कांकणां, जोतीं, माळ अशें कितें कितें येतालें आनी तें पद बरेंच लांबतालें. एके वटेन मुसळाचें, जात्याचें संगीत आनी त्या नादार धोलपी पार्वती पळयतना मजाच येताली.

पार्वतीचो भुताखेतांचेर, दिश्ट असल्या गजालींचेर खूब विस्वास आशिल्लो. आमकां ती देंवचाराच्यो, भुतांच्यो काणयो सामक्यो रंगोवन रंगोवन सांगताली. तिच्या भुरगेपणांत देंवचारान तिका वडाच्या झाडाचेर कशी लिपोवन दवरली आनी तीन दिसांनी ती वडाच्या झाडाचेर बशिल्ली दिश्टी पडली, हें आयकतना आमची सामकी भियेवन गुळी जाताली.

म्हजेर तिचो सामको जीव आशिल्लो. म्हज्या कपलाक मात्शी मिरी लागली जाल्यार धांवत मीठ घेवन दिश्ट काडपाक येताली. भायल्या भितरल्यांची येतल्या-वतल्यांची आमगेल्या बायची दिश्ट वचूं. तांच्या

दोळ्यांत माती पडूं! अशें म्हणीत तीन वेळा मीठ ओंवाळटाली. मागीर तें मीठ रांदनींत उडयताली आनी मिठाचो फुटफूट आवाज आयलो काय वयल्यान पळय, पळय, कितलो आवाज येता तो. मेल्ल्याचे दोळे बरेच खर. आतां येवजिल्यार हांसूंक येता. मीठ रांदनीत पडलें की ताचो आवाज येतलाचे न्हय.

एक मात खरें, ती सदांच हांसऱ्या तोंडान वावुरताली. तशें येतल्या वतल्यां कडेन केन्ना घोवाची याद काडिल्ली हांवें तिका पळोवंक ना. पूण राग मात तिच्या नाकार आशिल्लो. घोवाचें नांव घेवन कोणेंय तिका कितेंय म्हणलें जाल्यार मात ती त्या मनशाक सामकी खेपताली. तिचो शेजारी तुकाराम ताचे कडेन मात तिचें पटनाशिल्लें. तांच्या झाडाचीं पानां हांच्या आंगणांत पडटात. तांचो बुकलो हिच्या घरांत घुसता इतलेंच कारण झगडें सुरू करूंक पुरो आशिल्लें. हाचें खरें कारण वेगळेंच आशिल्लें. तुकाराम तिच्या घोवाचो इश्ट. ताचे कडेन आतऱ्या पयऱ्यान वचपी. म्हणून तिका ताचो राग येतालो.

घोवा कडेन मात्तूय संबंद नासतना देखून कोणेंय खबर नाशिल्ल्यान घोवाचें नांव विचारलें जाल्यार कशेंच सांगनाशिल्ली. बाय, तेचें नांव कशें घेवूं? अशें म्हणत लजताली. सामको कोणूय फाटीकूच लागलो जाल्यार लग्नांत बी घेतिल्ले वरी खणखणीत आवाजांत उमाण्यांत गुंथून घेताली.

वयल्या रानांत फुल्ल्या पत्री

शंकराच्या हातांत भांगराची सत्री

अशें म्हणून मेकळी जाताली. मागीर त्या मनशान शंकर हें तिच्या घोवाचें नांव हें सोदून काडपाचें. घोवान सोडिल्ली हें दुख्ख तिणें आयुश्यभर कशें पचयलें तीच जाणा.

एक दीस तर तिणें मजाच केली. श्रावण म्हयन्यांत आमगेर पुजा आशिल्ली. ती फुलांचे हार बरे गुंथताली. आमच्या मागीलदारा शंकराच्या

फुलांचें एक झाड आशिल्लें. ही आजयेक येवन विचारूंक लागली,

'दामू बापायच्या फुलांचो हार गुंथूं?'

आज्जेक कांयच कळना जालें. 'आगे, तूं कितें विचारता? दामू बापायचीं फुलां?'

'तो गे व्हनीबाय, म्हज्या पुताचो बापूय. ताचें नांव कशें घेवं हांव?'

हें आयकून म्हजी आजी व्हडल्या व्हडल्यान हांसूंक लागली.

कपिलेश्वरीचो श्री कपिलेश्वर हो तिचो कुळदेव. हरशीं सामकी सादी रावपी पार्वती कपिलेश्वराचे जात्रेक मात सामकी नटून वताली. म्हजे आवयची भांगराची माळ आनी कांकणां मुद्दाम मागून व्हरताली. दिवजां जातकच जरीचें कापड न्हेंसून तेल घालपाक येताली. तेन्ना तिचो थाट पळोवपा सारको आसतालो.

मदीं तिच्या व्हडल्या पुताचें लग्न जालें. मागीर तिणें वावर करपाचो सोडलो. तरी ती केन्ना केन्नाय आमगेर येताली.

'बाय, तुज्या लग्नाचो सांबार हांव मुसळानूच कांडटलीं आं! मिक्सराचेर बी करूं नाकात.' अशें सदांच म्हणटाली.

एक दीस सांजवेळा पार्वतीन बांयंत उडी मारली ही खबर घेवन तिची शेजान्न आमगेर आयली. रोखडीच तिच्या व्हडल्या पुतान उडी मारून तिका वयर काडली खंय.

दुसऱ्याच दिसा पार्वती आमगेर हजर. तिका पळोवन आजयेक आयली तिडक. 'कितें गे, अशें बांयंत उडी मारपा सारकें कितें घडिल्लें? येदें व्हडलें घोवाचें दुख्ख तुवें सोंसलें. आतां इल्लेंशें तुज्यान सोंसपाक जालें ना.'

'कितें सांगतली व्हनीबाय, फाटले दोन दीस हांव बरी नाशिल्ली. जोर येतालो. जेवपाक लेगीत म्हज्यान उठपाक जालें ना. सुनेनूच जेवण करून म्हाका वाडलें. पूण म्हजें ताट मात घासूंक व्हेलें ना. वयल्यान म्हणटा कशी,

दुसऱ्यांचें उश्टें काडपाची म्हाका संवय ना. हें आयकून म्हाका अस्सो राग आयलो. खोयलें कापड आनी घेतली उडी.'

'आनी कितेंय जाल्लें जाल्यार?' आजयेन रागान विचारलें.

'कांय जावचें नाशिल्लें. हांव बांयंत पडटकच घप्प आवाज जालो. तो आयकून दोगूय पूत धांवत आयले. व्हडलो म्हजो बऱ्यांतलो पेंवपी. दोगूय जाण बांयंत उडी घेवंक लागले. सुनेच्यो किळच्यो आयकून वाड्या वयले लोक धांवत आयले. ताणीं मागीर धाकट्याक आडायलो. व्हडलो राजवाक धरून भितर देंवलो. म्हज्यान काय राजवाक धरून वयर सरूंक जायना जालें. मागीर धाकट्यान आयडिया केली. राजू बांदून पाळणो भितर सोडलो. पाळण्यांत बसून हांव वयर आयली.' पार्वतीन आत्महत्तेचो प्रसंग सामको रंगोवन रंगोवन सांगलो. हें आयकून आजयेन कपलार हात मारलो.

'तुमी भियेवंक नाका व्हनीबाय. हांव इतल्यान मरपाची ना. बायचें लग्न पळोवंक. ताच्या लग्नाचें कापड न्हेंसूंक जाय.' ती हें सांगतना नशीब तिका हांसतालें हें आमकां तरी खंय खबर!

रोखडोच आठ दिसांनी पार्वतेक पिसाविल्लो सुणो चाबलो आनी तिका रेबीज जावन सामके वायट परिस्थितींत तिका मरण आयलें. एक मात तिच्या मनासारकें जालें.

मदीं मदी घोवा कडेन बोट दाखयत ती आजयेक म्हणटाली, 'पाड पडिल्ल्यान कसलें सूख म्हणटा तें केन्नाच दाखयलें ना. भांगरा सारके म्हजे पूत. पूण तांणी लेगीत केन्ना बापायचो एक पयसो पळयलो ना. आतां देवालागीं एकूच मागतां तो जिवो आसतना म्हाका मरण येवंदी.'

तिची ही इत्सा मात देवान पूर्ण केली. फुडें स म्हयन्यांनी म्हजें लग्न जालें. लग्नाचो सांबार कांडटना 'बाय, तुज्या लग्नाचो सांबार हांवच कांडटलीं आं' म्हणपी पार्वती दोळ्या मुखार आयली.

# जनूमामा

जिविताच्या एकाद्र्या मोडणार मेळिल्ली एकाद्री व्यक्ती मनांत सासणाची याद दवरून वता. अशीच एक व्यक्ती म्हणल्यार जनूमामा. रगताच्या नात्याचें न्ही पूण म्हज्या मनाचे एके कुशींत आपलो जागो दवरून गेलो.

म्हज्या भुरगेपणांत आमच्या शेजरा मुंबयच्यान एक घराबो रावपाक आयिल्लो. नमुआका, तिचो पूत प्रकाश आनी सून आनी चार वर्सांचो नातू. प्रकाश बँकेंत काम करतालो. नमुआकाचें कुळार सावंतवाडीच्या लागसार एका गांवांत आशिल्लें. नमुआकाचो सभाव मायेस्त. ते खातीर तांगेर आमचें येवप वचप सुरू जालें.

तेन्ना हांव बारा-तेरा वर्सांचें आसतलें. एक दीस सकाळीं पुडवें, कोट आनी धवी तोपी घाल्लो एक जाणटेलो नमुआकाचो नामो सोदत आयलो. आतां याद जाल्यार ताच्या धव्याफुल्ल कपड्यांचें म्हाका व्हडलें अजाप

ःसता. कित्याक तर तेन्ना एरियल, सर्फ अल्ट्रा असले कपडे धुवपाचे साबू
ा पावडर नाशिल्ले. तरीपूण ताचे कपडे 'दाग ढुंढते रह जाओगे' इतले 'शुभ्र'
नाशिल्ले.

'आमचां नमु खंयसर रावतं?' तांणी म्हाका विचारलें. पयलीं तर ते कितें
वेचारतात तें म्हाका समजलें ना. म्हज्याय आजयेचें नांव नमू आशिल्ल्यान
ांव घुस्पले. नमू सांखळे रावता अशें फट् करून सांगून हांव मेकळें जालें

'कांयच बोलां नको आं. हालींच मुंबयसून हंयसर रवांक इली माजी
भयण नमू, तिचो झील पको, सून आनी नातू.'

आतां म्हजे तकलेंत उजवाड पडलो. हांव तांकां घेवन नमुआका कडेन
गेलें. तांणी म्हाका आपले पोतयेंतल्यान काण्णाचो पुडो काडून दिलो.
नमुआकाचो पूत तांकां जनूमामा म्हणटालो. मागीर कितें... ते आमच्या
सगळ्यांचे जनूमामा जाले. येतना तांणी सोंशाचें मास हाडिल्लें. तातूंतलो
अर्दोवांटो आमकां मेळ्ळो.

तांची दोन तीन म्हयन्यांनी एकदां भयणी कडेन पासय आसतालीच.
गांवांत तांचीं कुळागरां, शेतां आशिल्लीं. येतना ते भयणी खातीर घरावे
तांदूळ, सोलां, आंबे, पणस घेवन येताले. म्हाका मेळटकच ते आमचे पयले
भेटीची याद काडटाले.

'प्वोर मोटां बेरकी आसा. म्हाका भायरच्या भायर धांवडावंक
सोदतालंय', अशें म्हणून तोंड भरून हांसताले. तांकां नुस्त्या बगर एकूय उंडी
वचनाशिल्ली. एप्रील, माया म्हयन्यांत मुद्दाम मडगांवां येवन ते खारें नुस्तें
घेवन वताले.

एकदां तर नमूआका वांगडा हांव जनूमामाच्या गांवांत वचून आयलें.
कुळागरांनी झाडांनी लिपिल्लें ल्हानशेंच नळ्यांचें घर. जनूमामाचे बायलेन
तर आमकां असो येवकार दिलो, विचारूंकच नाका. घरांत भितर सरले

बराबर पिवपाक आडसराचें थंड उदक. वांगडा तांदळाच्या पिठाचें चून्न घालून केल्ले धवेफुल्ल घावन. दनपारच्या जेवणांत साळीचें मटण आनी नाचण्याच्यो भाकऱ्यो असो झणझणीत मेन्यू आशिल्लो. तेन्ना तांचो एकुलतो एक चलो मिलिटरींत गेल्लो.

मागीर चार-पांच वर्सांनी नमुआकाच्या पुताची बदली परती मुंबयंत जाली. तरीपूण वर्सांतल्यान एकदां खारें नुस्तें घेवपाच्या निमतान जनूमामा आमगेर येत रावले. येतना मात सोंशाचें वा साळीचें मटण हाडपाक केन्नाच विसरनाशिल्ले. वयल्यान म्हजे आवयक रांदचे कुडींत येवन मुजरत सांगताले, 'तुमी मटणा वांगडा पाव खायांत नातर ब्रेड खायांत. मजां कांय म्हणनां नाय. जोंधळ्याचं पीठ आसं मां. मिया मटणा वांगडा भाकरीच खातलंय आं.' अशें हक्कान सांगताले.

फुडें दोन तीन वर्सां ते मडगांवां येवंकच नात. मदीं नमुआकाचो पूत आनी सून शांतादुर्गेच्या दर्शनाक कवळ्यां आयिल्लीं. तेन्ना तांचे कडल्यान जनूमामाचे घरकान्नीक मरण आयिल्ल्याचें कळ्ळें.

हालींच पांच-स वर्सां पयलीं दिवचलच्यान तिळारीसावन बेळगांवां वतना म्हाका जनूमामाची याद जाली. हांवें म्हज्या घोवाक पांच मिणटां खातीर गाडी थांबोवंक सांगली. मात्शें जनूमामा आसा जाल्यार पळोवन येता म्हूण. हांव गाडयेंतल्यान सकयल देंवलें. हांगा थंय विचारून हांवें तांचें घर सोदून काडलें. पळयता जाल्यार कितें! 15-20 वर्सां पयलींचें घर आनी आताचें घर हातूंत भितर कितलोसोच फरक आशिल्लो. घराची सामकी दशा जाल्ली. मुखा वयलीं सगळीं झाडांय सुकून गेल्लीं.

जनूमामा ऽऽऽ जनूमामाऽऽ हांव उलो करीत भितर सरलें. 'कोण इयलंय?' अशें म्हणत हातांत बडी घेवन ते भायर आयले. आंगा वयल्यान शर्टाचो रंग केन्ना एका तेंपार धवो आशिल्लो हें कोणाक सांगूनय खरें दिसचें

नाशिल्लें. दोळ्यांनी तांकां दिसनाशिल्लें जावंये. म्हाका तर ते वळखूंकच नासले. म्हणून हांवें म्हजी वळख करून दिली. काण्णाच्या पुड्याचीय याद केली.

‘पोरां केदां मोटां झालयंस गो. लगीन करान घोवा घेवन इलय ते. तेका काय माज्यान बगांक गांवांचा नाय. सरकारान दोळां फोडान ठेवलंय बग’ जनूमामान म्हणलें.

‘कितें जाला तुमच्या दोळ्यांक?’

‘काय सांगतलंय तुका. दाव्या दोळ्यां फूल पडलाला. भाच्यान सांगलं मुंबयक ये म्हणांन. आपरेशन करांक. गांवांत मुंबयसावन डाक्टर इलेंत. गांवचो सरपंच फाटीक लागलो. आपरेशन करान टाक म्हणान. मगे मी काय करतलंय. केला आपरेशन. धा झील माणूस आनी चार बायलमाणसां सगळ्यांचे आपरेशन करान एक एक दोळो फोडून ठेयलो बग. दुसऱ्या दोळ्याचा माका आपरेशन करूंचा नाय.’

‘तुमी हांगा एकलेच रावतात.’ हांवें अजापान विचारलें.

‘भाचो बोलयतय मुंबयक यो म्हणान. माजो झील आसता आसामाक. तेची म्हयन्याच्या म्हयन्याक मनीऑर्डर येता. तेणें काय लगीन बिगीन करांक नाय. आतां कांय, अर्दी हाडां मसणांत गेलंय. तवां काय जावचां आसा तां घराच जाल्लां बरां.’ जनूमामान वयर मळबा कडेन बोट दाखोवन म्हणलें.

‘...आनी तुमचीं शेतां.. कुळागरां?’ चारी वटेन शुकशुकाट पळोवन हांवें विचारलें.

‘आतां कांय एक रवांक नाय. चुलतभावान नांवार करान ठेयला.. मी कोर्टांत गेलंय, काय निकाल लागाचो आसा ता लागतलो’, जनूमामान वितरागान म्हणलें.

म्हज्यान ताची ती अवस्था पळोवंक जाली ना. बरें तर आमी येतां

म्हणल्यार आमकां कसोच वचपाक दिना जालो.

'घोवाक घेवन इयलंस ते त्वोंड गोड करन जा. साकार तरी त्वोंडांत घाल' अशें म्हणत साकरेचो करंड घेवन आयलो.

'तुका बगून खूब बरां वाटलां गो पोरा. आमचे नमूची याद इली. बरां भाग्याचां मरण इला तेका.'

साकर तोंडांत उडोवन आमी भायर सरलीं. हातांतली बडी तेंकयत तेंकयत आमकां पावपाक दुरगां मेरेन आयले.

'बरां करं जावां प्वोरांनो!' अशें म्हणत हात हालयत रावले. गाडी सुरू करतकच उडिल्ले धुळीच्या लोटान तांची आकृती धुसर जायत गेली.



# मावशीबायचे नवस

**काल** बाजारांतल्यान येतना वाटेर मावशीबाय दिसली. हरशीं तिचीं धोंपरां दुखतात पूण काल सामकी बेगबेगीन धेंपां उखलीत चलताली. तातो, मावशीबायचो घोव दुयेंत आसा म्हूण आयकल्लें. पूण हांव तांचे खबरेक पावंक नाशिल्लें. फाटल्या वर्सांनी मावशीबाय आमच्या शेजरा भाड्याच्या घरांत रावताली. थंयच आसतना तिच्या दोगांय धुवांचीं लग्नां जाल्लीं. सून हाडिल्ली. आतां सून-पूत दोगांय नोकरी करतात. तीन बेडरुमांचो नवो फ्लॅट घेवन तीं सगळीं जाणां थंय रावपाक गेल्लीं. मावशीबायलीं धोंपरां दुखतात. चलपाक त्रास जाता. इतलें आसतनाय ही खंय धांवता तें तरी पळोवया म्हूण हांवें तिका उलो केलो.

'मावशीबाय... आगे मावशीबाय, खंय धांवता गे?'

'आगो तूं गो पापया, हांव म्हणटा कोण काय म्हूण! हांव मगो दामबाबाच्या सालांत गेल्ली. नवस करपाक. पांच नाल्लांची पंचखाद्य दितां

म्हूण सांगून आयलां.' हें आयकून म्हज्या पोटांत कूळ्ळ जालें. म्हाका तात्याचो हुस्को दिसूंक लागलो.

'तातो, तातो कसो आसा?' हांवें भियेत भियेत विचारलें.

'तातो मगो, सामको ब्येस्ट!' आपले सदचेच स्टायलीन मावशीबायन जाप दिली.

'आगो म्हाका आनी आतां ह्या संवसाराच्या जंवजाळांत घुस्पून रावपाचें ना. नाका जाल्लें दळडीर पळोवचे परस आफय रे परगेश्वरा हातापांयांनी धड आसतना. म्हाका उखल हांगाचें, दामबाबाक सोमतें सांगून आयलां.'

'आगे पूण तुजी भलायकी सामकी बरी आसा. एक धोंपरां सोडलीं जाल्यार तू सामकी तट्टटीत आसा तशें तातो सदांच म्हणटा. पूत-सून दोगांय तुका रेस्पेत दितात. भांगरासारकीं नातरां आसात. आनी इतले बेगीन वयर वचपाचे दुवाळे कित्याक गे तुका?'

'फाटले दीस बरे गेले. फुडलें वर्स आनीक कसले दीस घेवन येतलें कोण जाणा? आगो, आतां फुडें फुडें खंय आमकां रांदपाची बी कांयच गरज पडची ना. सगळे तरेच्यो गुळयो खंय रेडीमेड मेळटल्यो. वरण करूंक जाय, वरणाची गुळी घेवपाची. उदकांत उडोवपाची, जालें वरण तयार! शी! शीत जाय, शिताची गुळी. म्हाका बाये नुस्त्याच्या हुमणा बगर उंडी वचना. आनी हुमणाची गुळी तयार करपाक ब्रह्मदेवाक देखून येवची ना.'

'आगो, हुमणा वयल्यान याद जाली', हांव आयकतां तें पळोवन मावशीबाय सामकी नेटान सांगपाक लागली.

'आगो सध्या गोंयांत इतले भोंवडेकार येतात, तांचे खातीर कितें जाता जाणां? बरीं बरीं रुचीक सुंगटां, शेंवटे, मुड्डश्यो, कुल्ल्यो सगळें हॉटॅलांनी वता. आमच्या भुरगेपणांत आमोण्यां काळुंदराच्यो, मुड्डश्यांच्यो कितल्यो रुचीक गांथनी मेळटाल्यो जाणा! आतां आमकां दुदाची तान ताकाचेरच

भागोवची पडटा. गांथनी काय आमच्या सारक्या मध्यमवर्गीयांक परवडना. आमी आपले तारले, पेडवेच खावपाचे! आतांच ही तरा जाल्यार फुडलें सगळें आयुश्य कशें वतलें गो! आतां आनी तुमचें तें चायनीज फूड सगळ्या घराघरांनी पावलां.

'आगो तो धोंपरा येदो पप्पू (मावशीबायचो पांच वर्साचो नातू) म्हाका फर्मायता, आज्जे म्हाका शीत नाका. हुमण नाका. खंयची ती अमेरिकन चॉप्सी, पेकिंग रायस, मन्चुरियन, हाँगकाँग चिकन... नाका जाल्लीं रीत नाशिल्लीं खाणां जेवणां'. मावशीबायचें तोंड चालूच.

'आज मेरेन तरी ताणें पाली, जंल्ले, शेड्डे असली फर्माईय करूना म्हूण माणसुकी. फाल्यां कोणाच्यान सांगूं येता, तो घडये तेंय बी खायत. ते अवचिन्न चीनी कितेंय खातात म्हणून कितें आमीय खावपाचें? आतां ह्या पप्पूक कोण समजायतलो?'

'आगो, आमच्या भुरग्यांनी कितें टिफिनां व्हरूंक नाशिल्लीं इश्कोलांनी? पूण तातूंत बरें धोणस, तवसळी, नाचण्याचें सत्व, पिठ्याचे लाडू असलीं बरीं घटसणीचीं खाणां आसतालीं. हे आयचे भशेन जंक काय चंक फूड नासतालें. आतां तूं म्हाका सांग, हे बर्गर, नुडल्स, पिझ्झा, वेफर्स, चॉकलेटी, बिस्किटी असलीं सगळीं भिकारलवडी खाणां खावन ह्या भुरग्यांचें पोशण कशें जातलें गो. हांचीं सपनां व्हडलीं, हावेस मोटे, पूण असल्या खाणांनी तें तांकां कशें पेलवतलें. भुरग्यांची भलायकी पयलीं धड जाय. नाका रे भगवंता, याद कर म्हजी बेगीन. हांव बरी सत्यनारायणाची पुजा बांदीन रे सायबा.'

मावशीबायचें उलोवन सोंपतकच हांवें म्हणलें, 'नाका जाल्लें कितें उलयता मावशीबाय...' म्हाका आनीक उलोवपाची संद दिनासतना मावशीबायन आपलो भरभर परतो सुरू केलो.

'नाका जाल्लें कित्याक, हांव खरें तेंच उलयतां. आतां खंय ते रोबो
काम करपाक येतले. घरांतलीं, ऑफिसांतलीं, रस्ते झाडपाचीं
नितळसाणीचीं सगळीं कामां खंय तेच करतले.'

'मागीर बरें जालें मगे, तांणी काम केल्यार तुका कितें जाता?' हांव
आपलें सादेपणान विचारलें.

'आवयस्स!' तुका कितें जाता म्हणटा? आगो बऱ्यो देगपदराच्यो
साडयो न्हेंशिल्ल्यो बायलो रस्ते झाडूंक येतात. तोंडांत खावचीं पानां घालून
रस्त्याचे देगेक एकामेकां वांगडा खबरो करीत बसतात. मावशीबाय कितलो
टायम जालो? अशें म्हाका दिसांतल्यान धा फावटीं तरी विचारतात. हे तुमचे
रोबोट मानाय काय कामेरी कोण तीं एकामेकां कडेन खबरो तरी करतलीं?
म्हाका कितें मावशीबाय म्हूण उलो मारतलीं? आनी तें तुमचे इंटरनॅट काय
बिंटरनॅट तें! एकदां जसो मनीस तातूंत रिगलो म्हणटकच तांकां खंय तानभूक
कांयच लागना. एक गुळी घेतली काय कुडीच्या पोशणाक जाय तीं
जिवनसत्वां मेळटात खंय.'

मावशीबायली गाडी सुरू जाल्ली ती काय थांबपाची चिन्नां दिसलीं ना.

'जाणा मगो बायूल, हाचे फुडें खंय भुरगें जल्माक घालूंक लेगीत
बापायची गरज लागची ना! दादलो आनी बायलेच्या संयोगा बगर फकत
कुडीच्या पेशींतल्यान खंय नवो जीव जल्माक येतलो. एकाच मनशाचीं
कितलींशींच प्रतिरुपां जल्माक येतलीं हाचो भंय दिसता गो! आमचे
राजकारणी, खुनी, स्मगलर हांच्यो प्रतिकृत्यो जल्माक आयल्यो जाल्यार
कितें जातलें हें मात्शें येवजीय. फाल्यां आमच्या पप्पून, पिंकीन
(मावशीबायची नात, 2 वर्सां) असलें कितेंय केलें म्हणचे, नाका रे देवा हो
संवसार, गणपतीबाप्पा पाव रे म्हाका. तुजे कडेन आफय रे म्हाका. तुका हांव
एकवीस मोदकाचो नैवेद्य दाखयन!'

आरे देवा! ही सर्गांत वतकच हे मोदक खंय करतली? आनी नवस कसो पावयतली? हांवें हांशें लिपयत ल्हवूच मावशीबायच्या तोंडा कडेन पळयलें. हांव ओग्गी रावन आयकतां हें पळोवन ती व्हडल्या झेतान म्हजे लागीं उलोवंक लागली.

'फाल्यां म्हज्या पप्पूक लग्न जावपाक चली मेळटली काय ना तें म्हाका पडलां. एकवेळ बरो शिकलो संवरलो जाल्यार सर्वीस घडये रोखडीच मेळत पूण लग्न जावपाक व्हंकल मेळपाची ना. चलयेकारांच्या दारांनी वचून चली दी चली दी म्हूण भीक मागपाची पाळी येना जाल्यार पुरो.'

'हें मात चडूच जालें मावशीबाय. हांगा चलयांच्या बापायक जोतीं झरोवचीं पडटात आनी तूं म्हणटा चली कशी काय मेळटली म्हूण.'

'आगो तूं खंय आसा. सध्या भारतांत खंय गर्भाची लिंग परिक्षा करपी कांय न्ही म्हणल्यार वर्साक 50 लाख केशी जातात खंय. चलयेचो गर्भ पोटांत आसतनाच मारतात खंय! आतां तूं सांग हें परिमाण वाडत उरलें जाल्यार म्हज्या पप्पूक व्हंकल खंयची मेळटली? आनी समज लग्न जालेंच आनी असली तसली सून येवन तिणें म्हज्या पुताक आनी सुनेक वृद्धाश्रमांत धाडलीं जाल्यार? ताचे परस नाका रे देवा. फातर्पेकान्नी पाव गे सायबिणी. तुजी हांव पांच नाल्लाची व्हंटी भरीन.'

'पूण मावशीबाय म्हाका एक सांग, तुका हें सगळें सांगता कोण?'

'म्हणचे कितें गो, तूं म्हाका सामकें अनाडी समजता काय कितें गों. बऱ्यो चार यत्ता शिकल्या हांव. आमगेर दोन दोन खबरांपत्रां येतात. दोनूय पेपर हांव बरे दोन-दोनदां वाचतां समजलें? तुमचे भशेन वयले वयर वाचना!'

'आगो इंग्लंड, अमेरिकेंत खंय चले, चलयो वयांत आयलीं म्हणटकच आवयबापायचें घर सोडटात आनी वेगळे रावतात. आतां हें फॅड हांगाय येवन

पावलां. फाल्यां म्हजें पैकी कोणाय टॉम, हॅरी वांगडा लग्न बगर रावलें जाल्यार म्हज्यान बाये पळोवंक जावचें ना आनी सहनय जावचें ना. ते परस देवान म्हजी याद केल्ली बरी. मारूतीराया, तुका हांव एक शेर तिळाच्या तेलान न्हाणयता रे!'

मावशीबायच्या उलोवण्याक आतां बरीच धार आयिल्ली. आशीकुशीक आशिल्ल्या लोकांनी आतां आमच्या उलोवण्या कडेन कान लायिल्ले. मावशीबायले प्रस्न वयलेवर पळोवपाक हांसून व्हरपासारके दिसले जाल्यारय ताचेर विचार करूंक लावपा सारके आशिल्ले.

हांवें मनांतल्या मनांत मावशीबायक हात जोडले आनी तिका तेत्तीस कोटी देवांक नवस करपाचो त्रास नाका म्हणून हांवें ल्हवूच थंयच्यान कूस मारली.



# म्हजो पयलो कोंकण रेल्वेचो प्रवास

**कोंकण** रेल्वे सुरू जातली म्हूण जेन्ना हांवें खबरांपत्रांत वाचिल्लें तेन्ना सावन कोंकण रेल्वेन प्रवास करपाचें हांवें थारायिल्लें. म्हज्या घोवाक तर नव्याचो खूब सोंस. ते खातीर ताच्या उलोवण्यांत सदांच कोंकण रेल्वेचो उल्लेख आसतालो.

कोंकण रेल्वे वेवसायिकांचे नदरेन सामकी फायदेशीर. आपलीं सदचीं कामां निभावन सांजेच्या स वराचेर स्टेशनार पावल्यार पुरो! सकाळीं साताक व्ही.टी. स्टेशन! दोनूय दीस प्रवासांत फुकट वचनात. विमानांत न्हय म्हणलें तरी एक दीस फुकट वता. दनपरां दोन वरांचेर विमान आसलें तरी दाबोळी विमानतळाचेर वचपाक बारा वरांचेरच घरांतल्यान भायर सरचें पडटा. मुंबय पावतकच टॅक्सी घेवन चर्चगेट पावसर सांजेचीं स वरां जातात. मुंबयच्यान येतल्या वतल्यांक हो एक सारको सांगतालो, जसो काय हो सप्तकांतल्यान एकदां मुंबय वतालो. इतलें मात खरें, ते खातीर म्हजें कोकण रेल्वे विशींचें

कुतूहल चडच वाडलें.

कोंकण रेल्वे सुरू जातकच आयज फाल्यां करत आमी जुलय म्हयन्यांत वचपाचें नक्की केलें. तेन्ना म्हज्या घोवान आनी ताच्या दिवचलच्या इश्टान मडगांवां एक बिल्डिंग बांदपाक घेतिल्ली. त्या कामा खातीर ते दोगूय कोंकण रेल्वेंतल्यान दोन दिसां खातीर मुंबय वचपाचे आशिल्ले. म्हजीय बऱ्याच दिसांची कोंकण रेल्वेंतल्यान प्रवास करपाची इत्सा भितरल्यान वयर उफेली. दुसऱ्या दिसा 6.20 ची गाडी आशिल्ली. म्हज्या घोवान तर आमी जणू काय पिकनिकेक गेल्ले भशेन दुसऱ्या दिसा बरोबर घेवपाच्या जेवणाचो 'मेन्यू' फिक्स केल्लो. अळसांद्याचें तोंडाक, ब्रेड, सॅण्डविच, पुरण पोळयो. खावपी तोंडां कितलीं तर तीग जाणां.

आमचें दोगांयचेंय रिझर्वेशन मडगांव सावन आशिल्लें. तर आमच्या इश्टाचें थिये सावन. ताचीय तिकीट आमचे कडेन आशिल्ली.

हांव आमचो जेवणाचो डबो, उदकाच्यो बाटल्यो भरून घेवन साडेपांच वरांचेरच तयार! हे वटेनच्यान टॅक्सी लेगीत येवन दारांत उबी राविल्ली. पूण घोवाचीच जाग ना.

6.10 क हो हजर! इतलो वेळ कित्याक? हांवें मात्शें रागानच विचारलें. कितें घडलां तें तुका मागीर सांगतां. पयलीं सामान उखल. नाका त्या वेळार नाका ते प्रस्न विचारपाची तुका संवयच जाल्या. अशें म्हणीत तो एक बेग उखलून घेवन सकयल देंवलो. हाचें कितें तरी जालां हें म्हजे तकलेंत आयलें. तरीय पूण म्हजो सभाव म्हाका ओगी बसूंक दिना जालो.

टॅक्सींत बसतकच म्हजो परतो प्रस्न.

मुंबयक व्हरपाक म्हूण सकाळींच बँकेंतल्यान काडून हाडिल्ले 75 हजार चोरयेक गेले!

तें आयकले बराबर म्हज्या काळजांत कप्प जालें. आरे देवा, प्रवासाचे

सुरवेकच आनी हें कसलें अरिश्ट आयलें? कोंकणींत एक म्हण आसा, गणेसपुजेक फुटको नाल्ल! कित्याक कोण जाणा ओगीच म्हाका ते म्हणीची याद जाली.

आतां प्रवासाचो बेत कॅन्सल केल्लो बरो. 'आगो, पूण हांव कितें सांगतां तें तरी आयक पयलीं. उदकाची बाटली विकती घेवपाक म्हूण हांवें गोमंत विद्यानिकेतना कडल्या गाड्या कडेन गाडी थांबयली. फुडल्या सिटाचेर पयशांचें पास्त आशिल्लें. हांव गाडयेक फाट तेकोवन उबो आशिल्लों. दोग 10-12 वर्सां पिरायेच्यो चलयो पास्त घेवन धांवलीं. तांकां जुस्त गाडेकारान पळयलीं. तो काचाबूल जावन चोर चोर... धांवलीं... धांवलीं... करपाक लागलो. हांव एके चलये फाटल्यान धांवलो, तर तो गाडेकार बावडो आपलो गाडो उगडो उडोवन दुसरे फाटल्यान धांवलो. ते चलयेच्या हातांत पयशांचें पास्त आशिल्लें. तो तांकां घेवन सोमतो पुलीस स्टेशनार गेलो. पंचनामो करून पयशे परते घेतले. तें सगळें जाता म्हणसर वेळ जालो.' पयशे परतें मेळ्ळे हें कळटकच जीव सुसेगाद जालो. आमी एकदांचीं स्टेशनार पावलीं.

सामान घेवन सकयल देंवता थंय आसा, गाडी सुटली. आता पी टी उषा भशेन धांविल्लीं जाल्यार लेगीत गाडी धरपाक जावची नाशिल्ली. असल्या वेळार फुकटचो सल्लो दिवपाक कितलेशेच जाण फुडें आयले. एकलो म्हणूं लागलो, फाटलो सगळो सप्तक गाडी सदांच अर्दवर, एकवर लेगीत लेट आसताली. आयजूच टायमार सुटल्या. तर दुसरो म्हणपाक लागलो, आतां डायरेक्ट करमळी स्टेशनार वचात.. बेगीन चलात.

टॅक्सी तशीच फाटल्यान घेतली. आमी दोगांय टॅक्सींत. आमचो इश्ट दिवचलच्यान थिवी स्टेशनार गाडयेंत बसतलो आशिल्लो. असल्या वेळार मोबायल फोनाचो खूबच उपेग जालो. तेन्ना मोबायल फोन नवोच आयिल्लो. म्हज्या घोवाच्या हातांत घरांत सदांच कॉर्डलेस फोन आनी घरा

भायर मोबायल आसता. ताका फोनाचेर वरां वरां उलोवपाची खूब आवड. म्हूण हांव फोनाक म्हजी सवत म्हणटालें.

आतां हाणें दिवचले फोन करून इश्टाक सगळी खबर सांगली आनी थिवी गाडयेंत चडपाक सांगलें. आमी गाडयेंत नात जाल्यार पेडण्यां परतो देंव अशेंय सांगलें. हो रेकाद ताका दिवपाक मेळूंक नाशिल्लो ज़ाल्यार टीसी आमचीं सिटां रितीं आसात म्हूण समजून तीं कोणाक तरी दुसऱ्याक दिवन मेकळो जातलो आशिल्लो. ते खातीर आतां म्हजेर, सवत म्हजी अपुरबायेची अशें म्हणपाची पाळी आयली.

आमची टॅक्सी एकदांची जुवारी पुलार चडली आनी आमकां रेल्वे पुला वयल्यान वचपी 'कोंकण कन्या' दिसली. आतां करमळी स्टेशनार वचून कांयच फायदो नाशिल्लो. ते खातीर आमी एकदम पेडण्यां वचपाचें थारायलें.

पणजे पावतकच ड्रायवरान गाडी पॅत्रॉल पंपार उबी केली.

'कितें रे, कितें जालें?'

'पात्रांव, पॅत्रॉल सोंपलें, पयशे जाय.'

आतां म्हाका हिंदी सिनेमाची याद आयली. हिरो हिरोईन पळून वतात. वाटेर टॅक्सी बंद पडटा. पॅत्रॉल सोंपता.. .असलें बरेंच कितें कितें जाता... निमाणी एकदाचीं 7.40 क पेडण्यां पावलीं. जिवितांत पयलेच फावट पेडण्यां पांय दवरलो. हरशीं पेडणें फकत गोंयच्या नकाशाचेर पळयिल्लें. आमची टॅक्सी स्टेशनार भितर सरपाक गाडी आयली. आमी हातांत बेगां घेवन मुखार दिसता त्या डब्यांत चडलीं... डबे एकामेकांक जोडिल्ले, ते खातीर एका डब्यांतल्यान दुसऱ्या डब्यांत वचपाक मेळटालें. आमच्या डब्यांत पावतकच आमच्या वांगडच्या प्रवाशांनी आमकां व्हडले खोशेन येवकार दिलो. तें पळोवन म्हाका सामकें अजाप जालें.

एकटयान तर टीसीक बरोच सणसणायलो. मडगांवच्यान गाडी चुकिल्ले कोणूच पेडण्यां पावनात म्हणटालो मरे तूं! आनी तांच्यो तिकिटी दुसऱ्यांक दिवपाक पळयतालो मरे! आतां उलय मरे! ओग्गी कित्याक? ताणें टीसीक बरोच उजरायलो. ताचें खरें कारण वेगळेंच आशिल्लें. तो प्रवासी बावडो कामा खातीर गोंयांत आयिल्लो. कामाक लागून तो पणजे गेल्लो. ताचें रिझर्वेशन थिये सावन आशिल्लें. करमळी स्टेशन लागीं पडटलें म्हूण तो थंयच गाडयेंत चडलो. करमळी ते थिवी मेरेन तिकिटा बगर प्रवास करता म्हूण टीसीन ताचे कडल्यान देडशे रुपया दंड म्हूण वसूल केल्ले. ते तिडकीन तो आमच्या फावरान झगडटालो.

आमच्या इश्टाचें तिकीट आमचे कडेन आशिल्ल्यान टीसी ताचे कडल्यानूय दंड वसूल करपाक पळयतालो. निमणे बाकीच्या प्रवाशांनी ताका मनीसपण म्हूण तरी पेडण्यां पावसर राव आनी मागीर जाय तितलो दंड वसूल कर आनी आमचीं सिटांय दुसऱ्यांक दिवन उडय अशें सांगलें. आमकां सगळ्यांनी खोशेन येवकार दिवपा फाटल्यान खरें कारण हें आशिल्लें.

गोंयचो सैम पळयत प्रवास करपाचें म्हजें सपन थंयच भंगलें. तरी येतनाचो प्रवास सैमीक सोबितकाय नियाळत करचो अशें हांवें मनांतल्या मनांत थारायलें. जेवण जेवन हाथरूण बी घालून एकदांचीं न्हिदतलीं म्हणल्यार एकलो खरशेत खरशेत डब्यांत कोण दोतोर आसा काय म्हूण विचारत आयलो. मडगांवां गाडयेंत चडिल्ली एक बायल बेशुद्ध पडल्या म्हूण तो मनीस दोतोराक सोदत भोंवतालो. आमच्या मुखा वयल्या डब्यांत एक दोतोर आशिल्लो तो ताचे वांगडा गेलो.

म्हज्या शेजरा मडगांवचीच एक बायल बशिल्ली. ती म्हणूंक लागली, कितें जालां तें तरी आमी वचून पळोवन येवया. वळखीचीच कोण बायल

आसत बी... आमचो डबो एका पोंताक जाल्यार तो दुसऱ्या पोंताक. डबे एकामेकांक जोडिल्ले आशिल्ल्यान आमी थंय मेरेन पावलीं. गर्दैंतल्यान वाट काडीत गेल्ल्यान सामकीं घामाघूम जालीं.

थंय वचून पळयत जाल्यार कितें?... 18-20 वर्सांचें एक चली बेशुद्ध पडलां. ताचे बराबर फकत ताची आवय! दोतोरान ताका तपासलें. अस्थमाचो अ‍ॅटॅक अशें कितें तरी म्हणलें. बेगीबेगीन हॉस्पिटलांत अ‍ॅडमीट करचें पडटलें अशेंय म्हणलें. मागीर ते आवय धुवेक फुडल्या स्टेशनार कणकवली काय खंय तरी रेल्वेचें हॉस्पिटल आसा थंय देंवोवपाचें थारलें.

भायर धो-धो करून पावस पडटालो. न्हीद येवपाची काय चिन्नां नाशिल्लीं. तातूंत वाटेर पावसांत भुसभुशीत जावन दोंगुल्ल्यो कोसळून माती बिती पडली तर! होय भंय आशिल्लो. तातूंत ते चलयेची भर. ताका हॉस्पिटलांत अ‍ॅडमिट केलें काय? त्या अनवळखी जाग्यार तांणी कशें निभयलें आसतलें? तकलेंत फकत प्रस्न. तातूंत ती शेजारची बायल. तिचो तेरा-चौदा वर्सां पिरायेचो पूत वयल्या बर्थार न्हिदिल्लो. ही बायल परती परती अर्द अर्द वरान ताका उलो करताली. अमित, न्हिदला मरे? तो बावडो न्हिदेंतल्यान उठून दोळे चोळीत 'हय' म्हणटालो.

फांतोडेर मात्सो दोळो लागता थंय आसा, 'अमित, आरे, अमित, उठ. दिवा स्टेशन आयलें'. तो बावडो धडपडत सकयल देंवलो.

म्हाका म्हज्या घोवाची सामकी तोखणाय दिसली. इतलें सगळें रामायण घडटा आसतना तो वयर सुसेगाद न्हिदिल्लो.

दिवा स्टेशनार सिग्नल मेळना जाल्यार गाडी चार-चार वरां थंयच उरता. मागीर सगळें सामान हातांत घेवन चलत वचून टॅक्सी धरची पडटा. अश्यो मनरिजवण्यो काणयो हांवें कांय कोकण रेल्वेच्या प्रवाशां कडल्यान आयकल्ल्यो. ते खातीर मात्सो हुस्को दिसतालो.

गाडयेन एकदाचें दिवा स्टेशन... ठाणे हुपलें. पूण मदींच खंय तरी कोण शिंकलो आनी गाडी घाटकोपराक थांबली. आतां चड करून 'आसमान पका... खजूर में अटका' अशें जातलें कशें दिसलें. पूण एका वरान गाडी ली. सकाळीं साडेसातांक आमची व्हंकलपावणी दादर स्टेशनार देंवली नी म्हाका सूऽऽ जालें.

दादर स्टेशनार मार झेतान उबी आशिल्ले कोंकण कन्येक हांवें तल्या मनांत हात जोडले. आनी म्हणलें, नमस्कार गे तुका सायबिणी. गांव स्टेशना वयल्यान तूं केन्नाच न्हय ती आयज वेळार सुटली आनी का जल्मभर याद उरतलो असो प्रवास घडयलो. अशें म्हणत हांवें तिचो प घेतलो.



# वेंकटाचल पर्वताचेर...

**वेंकटाचल** पर्वत म्हणल्यार सर्गांतल्या मेरू पर्वताचोच एक कुडको. पैराणीक काळांत शेषनाग आनी वायुदेव हांचे मदीं व्हड कोण हाचेर झगडें जालें. वायुदेव मेरू पर्वत आपल्या झणझणीत वाऱ्यान हालयतालो जाल्यार शेषनाग आपल्या फणान ताका घट्ट धरतालो. दोगूय जाण आपलें व्हडपण सिद्ध करूंक नेटान लागिल्ले. त्या बोवाळांत मेरू पर्वताचे तीन कुडके जावन धतरीर पडले. ह्या कुडक्यांतलो एक म्हणल्यार वेंकटाचल पर्वत. तिरुमाला वेंकटाचल पर्वताचेर वसयला. तिरुपती बालाजी (व्यंकटेश) मंदीर व्यंकटाचल पर्वताच्या माथ्यार आसा. व्यंकटाचल पर्वताच्या पांयां कडेन तिरुपतीनगर हें गांव आसा.

श्रीक्षेत्र तिरुपती हें आंध्र प्रदेशांतल्या चित्तूर जिल्ल्यांतल्या चंद्रागिरी तालुक्यांत आसा.

आमी तिरुपतीक पावलीं तेन्ना दनपारचीं 3 वरां जाल्लीं. आमी थंय

ह़ॉटॅलांत जेवण घेतलें आनी आमची टेम्पो ट्रॅवलर ल्हवू ल्हवू वयर तेरुमालाचेर चडूंक लागली. तिरुपती ते तिरुमाला अंतर लागीं लागीं विशेक केलोमिटर आसा. वयर चडपाक बरो काँक्रिटाचो रस्तो आसा. केन्ना चडटी केन्ना वोल्तां, सकयल खोल खोल दरयो. म्हज्या भुरगेपणांत, तिरुपतीक वतना बसी प्रवाशां सयत सकयल दरयेंत पडिल्ल्यो खबरो हांवें आयकल्ल्यो. वायट खबरो सदांच तकलेंत खंय तरी उरतात आनी जुस्तूच नाका तेन्ना तांची याद जाता. आतां तशी ही सगळी धड बांदून काडल्या. रस्त्याच्या दोनी कुशींक दाट झाडां. मदीं मदीं बोगनवालीचीं धवीं, हळदुवीं, गुलाबी झाडां दिसतालीं. रस्त्याचे कुशीक चलून वयर देवळांत वतल्यां खातीर सोपणां आशिल्लीं. लोक थंयच्च्यान चलून वताले. सबंद रस्त्यार सुंदर फुलझाडां, मदीं मदीं आशिल्ल्यो देवाच्यो सुंदर मुर्त्योथंयचें वातावरण प्रसन्न करताल्यो. लोक दोंगर चडूनय वयर वताले ते दिश्टी पडटाले. हांगा लोक मुद्दाम आंगवण करतात. आपल्या मनांतली इत्सा देवाक सांगतात. ती पुराय जातकच आपूण सप्तगिरी पर्वत चडून तुजे भेटेक येतलों अशी आंगवण करतात. सात दोंगुल्ल्यो मेळून वेंकटाचल पर्वत तयार जाला म्हणून ताका सप्तगिरी पर्वत म्हणटात.

तिरुमालाची हवा खंयच्च्याय हिल स्टेशना भशेन थंड आनी शितळ. देवस्थानाचे वतीन रावपाक सुंदर सुंदर कॉटेजी आसात. सामक्यो हिलस्टेशनार सोबसारक्यो. आमीय थंय कॉटेजी बूक केल्ल्यो. सामान बी भितर दवरून मात्शी फ्रॅश जावन भायर येवन बसलीं जाल्यार वळार खांदार कांकणां घेवन आयले. कांकणां पळोवनच दोळे दिपकावले. हरशीं म्हाका कांचेचीं कांकणां व्हडलींशीं आवडनात. म्हज्या लग्नांत पांचवो चुडो घाल्लो तितलोच. पूण तीं सोबीत रंगरंगयाळीं कांकणां आनी ताचे वयली नकाशी पळोवन हातांत घालीन शीं दिसलीं. हांवें देवाच्या पांयां कडलीं, हाका ताका

दिवपाक मेळटलीं म्हणून कितलींशींच कांकणां घेतलीं.

आमच्या लागसारचे कॉटेजींत एक तामीळ कुटुंब रावतालें. आवय, बापूय आनी दोग धुवो, जयंती आनी सैमिया. दोगांय सोनल आनी नेहलाचेच पिरायेचीं. तांणी आनी तांचे आवयनय हातभर कांकणां भरलीं. तांचे आवयचे केंस दिश्ट लागपा सारके लांब आनी काळेच. ताचेर तिणें धवेच फुलांचें वळेसर माळिल्लें. भुरग्यांचेय केंस तशेच. तिरुपतीक चेंगयारल्लू म्हूण आमचे वळखीचो एक वेवसायीक आसा. तांचो भारतभर ट्रान्सपोर्टचो वेवसाय आसा. तांणी आमचे खातीर तिरुमालाक कॉटेजी बूक केल्ल्यो आनी आपलो एक मनीस स्वामी म्हणून आमचे वांगडा दिल्लो. आमी तिरुमाला गांवांत भोंवन येवया म्हूण भायर सरलीं. स्वामी हिंदी बरो उलयतालो. आपखोशेन तो आमचो 'गायड' जालो.

एकदां सगळे ऋषी एकठांय जावन मनीस जातीच्या कल्याणा खातीर खंय म्हायज्ञ करताले. थंय नारदान येवन खंय कळ लायली. जगांत सगळ्यांत व्हड देव कोण? ब्रह्मदेव, विष्णू कांय महादेव? कोणाचेंच एकमत जायना. निमणें हें काम सगळ्यांनी भृगुऋषी कडेन सोंपयलें. भृगुमहर्षी ब्रह्मलोकांत गेलो. ब्रह्मदेव आसनाचेर बशिल्लो. तांची सभा चलताली. सभेंत एके वटेन देवर्षी, राजर्षी, ब्रह्मर्षी तर दुसरे वटेन यक्ष, गंधर्व, किन्नर बशिल्ले. ब्रह्मदेव तांकां वेदांचे अर्थ समजावन सांगतालो. त्याच वेळार भृगुमहर्षी सभेंत भितर सरलो. ब्रह्मदेवाक नमस्कार करिनासतना आसनार येवन बसलो. ब्रह्मदेवाक राग आयलो. हे सभेंत सगळे महामुनी बशिल्ले आसात. तूं कोण तांचे परस व्हडलो आपली अनुमती घेनासतना हांगा बसला तो? हें आयकून भृगुमहर्षी सरळ उठून कैलास पर्वताचेर गेलो. नंदीन सांगलें, भितर वचूं नाका. तो तसोच भितर सरलो. महादेव आनी पार्वती सारीपाट खेळपाक मग्न आशिल्लीं. भृगुमहर्षीक थंय पळोवन महादेवाक राग आयलो. घोव आनी

बायल एकांतांत आसतना भितर सरप ना इतलीय अक्कल ना तुका. चल वच हांगासल्ल्यान. भृगुमहर्षी हांसलो. आरे हो तर तामसगूण. तो थंयच्यान वैकुंठांत गेलो. थंय विष्णू शेषाचेर न्हिदिल्लो आनी लक्ष्मी ताचे पांय चेपताली. भृगुमहर्षी थंय गेलो आनी विष्णूच्या हड्ड्यार वचून खोंट मारली. विष्णू उठून पळयत जाल्यार भृगुमहर्षी उबो. लक्ष्मी तर अजापान पळयत उरली. विष्णून आनीक वेळ केलो ना. भृगुमहर्षीच्या पांयांक हात लावन विचारलें, तुमचो पांय दुखलो ना मूं? ताणें भृगुमहर्षीक हाताक धरून आसनार बसयलो आनी उपरण्यान ताचे पांय पुसले. भृगुमहर्षीन विष्णूच्या हड्ड्यार पांय मारतकच लक्ष्मीक आयलो राग. खंयचो हो दळिद्री, जटावालो संन्यासी येता आनी विष्णूच्या काळजांत, जंय आपलो राबितो आसता ताचेर खोंट मारता. आनी वयल्यान विष्णू ताचो सन्मान करता. ही विष्णूची सामकी विचित्र करणी पळोवन तिका तो तिचो अपमान कसो दिसलो आनी ती तडक वैकुंठांतल्यान धर्तरेर आयली आनी महाराष्ट्रांतल्या कोल्हापूर नगरींत तप करूंक बसली.

स्वामी सामको रंगांत येवन व्यंकटेश्वराची कथा सांगतालो.

आरे खंय कोल्हापूर आनी खंय वेंकटाचल पर्वत. तूं कोणाची कथा सांगता रे, हांवें ताका मदींच विचारलें.

सोनल ही कथा सामकी तल्लीन जावन आयकतालें. 'राव गे हर्षाकाकी, तो कितें सांगता तें आयक मगे. मदींच कित्याक उलयता?' मात्शें बेजारूनच म्हणूंक लागलें. लक्ष्मी वांगडा वैकुंठाचें सगळें वैभवच ना नपयत जालें. बायलेक सोदीत सोदीत विष्णू धर्तरेचेर पावलो. निमणें तो वेंकटाचल पर्वताचेर येवन एके रोयणींत येवन बसलो. खावपा जेवपाक नाशिल्ल्यान विष्णू दिसानदीस बारीक जायत रावलो. निमणें ब्रह्मदेवान आनी महादेवान वचून लक्ष्मीक सांगलें, विष्णूच्या पोटांत कितेंय तरी वचूंक जाय. आमी

दोगूय गाय आनी पाडूक जातात. तूं गवळण जा आनी आमकां व्हरून चौल राजाक वीक. लक्ष्मीन तशें केलें. राजाचो राखणो गाय आनी पाडकांक घेवन वेंकटाचल पर्वताचेर चरपाक घेवन वतालो. ही गाय बाकीच्या गोरवां वांगडा चरपाक वचनाशिल्ली. एकटीच ते रोयणी कडेन वताली. वयर बिळांतल्यान दुदाची धार भितर सोडून भितर बशिल्ल्या विष्णूक दूद पिवयताली. ही विचित्र घडणूक पळोवन राखण्याक आयली तिडक आनी हातांतली कुराड गायचेर मारूंक उखल्ली. तिका वाटावपाक विष्णू रोयणींतल्यान भायर सरलो आनी ती कुराड विष्णूचे तकलेक आपटली आनी कपलांतल्यान रगत व्हांवंक लागलें. इतल्यान थंय चौल राजा पावलो. हें सगळें पळोवन ताणें श्री विष्णूचे पांय धरले आनी क्षमा मागली. तूं फुडल्या जल्मांत आकाशराजा ह्या नांवान जल्म घेतलो आनी तुजे पद्मावती हे धुवेचें लग्न म्हजे कडेन करतलो तेन्ना तुका मुक्ती मेळटली...

हें पळय वराह स्वामीचें देवूळ... स्वामीन बस थांबोवपाक लायली. वराहस्वामी म्हणल्यार विष्णूचो तिसरो अवतार. जेन्ना हिरण्याक्ष राक्षसान पृथ्वी व्हरून पाताळांत लिपयली तेन्ना भगवंत श्री विष्णून वराहाचें रूप घेवन हिरण्याक्षाक मारलो आनी पृथ्वी उखलून परत हाडून जाग्यार दवरली. तेन्ना बाकीच्या देवांनी वराहरुपाक विनंती केली. कलयुगांत भक्तांची राखण करपा खातीर ह्याच अवतारांत धर्तरेर राव.

भगवंत विष्णूक राखण्यान कुराड मारून केल्लो घाय ताका ख[illegible] दुखतालो. ताचेर लावपाक कसलेंय वखद मेळटा काय म्हूण सोदीत सोद[illegible]त तो वराहस्वामींच्या आश्रमांत पावलो. वराहस्वामीन ताका रावपाक जागो दिलो आनी आपली एक भक्त बकुळादेवी ही तुजे बराबर रावन आ[illegible] भशेन तुका सांबाळटली म्हूण सांगलें.

ह्या वराहस्वामीचो मान दवरपाक तिरुमाला पावतकच ताचें द[illegible]

ळीं घेतात. वराहस्वामीचें आनीक खंय देवूळ आसत हें हांवें केन्ना
जूंकच नाशिल्लें. नरसिंह अवतार, वामन अवतार हांचीं देवळां गोंयांत
सात. पूण मच्छ, कुर्म आनी वराह हांचीं देवळां भारतांत खंय तरी आसात
ण केन्नाच आयकूंक नाशिल्लें. आमी वचून वराहस्वामीचें दर्शन घेवन
यलीं.

बकुळादेवीन वखदी वनस्पती वाटून विष्णूच्या कंपलाक लायली आनी
गलें आयच्यान तुका हांव श्रीनिवास म्हूण उलो मारतली. 'ही बकुळादेवी
णल्यार पयल्या जल्मांतली कोण ती खबर आसा तुमकां? भारतांतलो दर
क मनीस तिका वळखता. खंयचेय आवयक तिचीच उपमा दितात.'
ामीन एक गुगली उडयली. आमच्या भितरल्यान कोणें तरी म्हणलें,
र्वती. गणपतीची आवय न्ही?'

'रामाची आवय कौसल्या', दुसऱ्यान म्हणलें.

'भरताची आवय शकुंतला', कपिलान म्हणलें.

'खंय पावलीं तुमीं. तुमी सगळीं नांवां घेतलीं. पूण एके आवयक
सरलीं. कृष्णाची आवय यशोदा मैया.'

हय खरेंच, कशीं विसरलीं आमी तिका? हे यशोदा मातेन खंय
पारयुगांत एक दीस कृष्णाक म्हणलें, 'तूं म्हजे व्हंटयेंत खेळ्ळो. तुजे
रगेपणांतलीं मस्तेपणां, आडांगीपणां हांवें पळयलीं, अणभवलीं. म्हजे दोळे
जाले. पूण तुजें लग्न पळोवपाची एकूच इत्सा मात तशीच उरली.' तेन्ना
का कृष्णान सांगलें, 'कलयुगांत हांव पद्मावती कडेन लग्न जातलों. तेन्ना
बकुळामाता जावन म्हाका आशीर्वाद दितली.' ते प्रमाण फुडें
कुळादेवीच्या फुडारपणा खाला श्रीनिवासाचें लग्न ह्याच वेंकटाचल
र्वताचेर पद्मावती कडेन जालें.

स्वामीन एकदांची काणी सोंपयली.

'हो पळय, हो पळय श्रीदेवीचो महल, हांगा पद्मावती, मिनाक्षी ह
मंदिरां आसात. ही श्रीदेवी आनी खंयची देवी?'

आमच्या चेऱ्यांचेर प्रस्नचिन्न पळोवन स्वामीन हांसत हांसत म्हणलें,

'सिने अभिनेत्री श्रीदेवी. श्रीदेवीन आपूण हांगा येता तेन्ना आपल्या रावपाक हो बंगलो बांदून दवरला. आनिकूय सिने अभिनेत्यांचे हांगा बंग आसात.'

तिनसांज जायत आयिल्ली. वेंकटेश्वराच्या देवळाचो भांगराचो कळस चकचकतालो. भोवन भोवन भुरग्यांक भूक लागिल्ली, म्हूण तांकां आम पयलीं जेवंक घेवन गेलीं. हॉटॅलाचो जेवपाचो हॉल बरोच व्हड आशिल्लो हांवें दत्तराजा खातीर पुरी-भाजी सांगली. भाजये बराबर एक व्हडली पु आयली. ही येदी व्हडली पुरी तळपाची कायल केदी व्हडली आसतल काय? बेठोच तकलेंत प्रस्न वळवळ्ळो. जेवन आमी केंस कापूंक गेलीं देवळाच्या लागसारच केंस कापपाचो म्हणजे तासपाचो एक व्हडलो हॉल आसा. हांगा केंस तासून घेवपाक कूपन काडून नंबर लावचो पडटा. सद्गुरू शिवदत्त, सतीश भावोजी, कपिल सगळे केंस तासपाक बसले.

दत्तराजाचेय तासुंया म्हणलें. दत्तराज तेन्ना देड वर्साचो. भुरग्यांक वाखो लायतात तें म्हज्यान कशेंच पळोवंक जायना. म्हाका तें आवडना. हांवें ताचे केंस कापून घेना म्हणलें. मागीर नवल म्हणपाक लागलें, आपूण ताका मांडयेर घेवन बसतां. पूण तो कोणाच कडेन कस्सो बसना जालो. मागीर हांवें सद्गुरूक सांगलें, आतां तूंच ताका घे आनी बस म्हूण. पूण तो म्हजेय फुडलो. चल्याचे केंस कापून घेवपाक जाय म्हूण आपूण कुशीक रावलो. निमणें म्हाकाच ताका घेवन बसचो पडलो. थंय कितल्योश्योच बायलोय बी केंस तासून घेताल्यो. तें पळोवन म्हाका अजाप जालें. पयलीं गोंयांत माथ्या वयल्या पदराच्यो बायलो आसताल्यो. त्यो केंस तासून घेताल्यो म्हूण

आयकल्लें. पूण हांवें म्हज्या दोळ्यांनी तसली एकूय बायलमनीस पळोवंक ना. आमचे संस्कृतायेंत बायलेन केंस तासून घेवप हें अशुभ, अभद्र मानलां. पूण आपली सगळ्यांत आवडटी अशी वस्त देवाच्या पांयां कडेन अर्पण करची असो शुद्ध हेत तातूंत आसूं येता.

आमी थंय आसतनाच एक बायल आनी दोन चलयो मुखा वयल्यान आयिल्ल्यो. त्या चलयांनी सोनलाक आनी नेहलाक हडकिलें. पळयत जाल्यार जयंती, सैमिया आनी तांची आवय. तांणी आमकां हडकूंक नाशिल्लें जाल्यार आमी तांकां वळखुचीं नाशिल्लीं. तांचे आवयक पळोवन म्हाका कितेंशेंच दिसलें. लांब केंस म्हणटात ते बायल मनशेची सोबा. तांबडे साडयेचेर वांटकुळोच बोल दवरिल्लेवरी ती दिसताली. तकलेर थंडसाणीक तांणी गंध थापिल्लें. ते खातीर तिची तकली म्हणल्यार बुडकुलो कसो दिसूंक लागलो. हे सगळ्यांनी दान केल्ले केंस गंगावन, आंबाडे, वीग करपाक वतात. ते केंस विकूनच देवस्थानाक कितलोसोच पयसो मेळटा.

केंस तासतना दत्तराजान एकूच आकांत केलो. थंडसाण येवपाक बेगबेगीन तकलेर खोबरेल तेल थापलें. सोनल त्या वातावरणांत भाराविल्लेवरी जालें आनी आपूणय केंस तासपाक बसलें. नेहलान सांगलें, हांव मात कशेंच कापपी न्ही.

सकाळीं पांचांक आमकां दर्शनाक वचपाक जाय आशिल्लें. ते खातीर आमी बेगीनच न्हिदलीं. एप्रील म्हयन्यांतलें निमाणें सप्तक. हांगा आनी फांतोडेर इतलें शीं आसतलें हाची कल्पनाच नाशिल्ली. पांचांक आमकां देवळांत पावंक जाय आशिल्लें. बेगीबेगीन खतखतीत उदक न्हावन भुरग्यांक तयार केलीं. दत्तराजाक स्वेटर बी कांयच हाडूंक नाशिल्लो. तातूंतले तातूंत दाटसो एक टी-शर्ट चडयलो आनी पांगरुणांत गुठलायलो. थंड शितळ वारो आंगाक तेंकतकच सामको शिरशिरो आयलो.

देवूळ भायल्यान पळयता आसतनाच देवळाची गिरेस्तकाय नदरेंत भरताली. भितर सरतना लायनींत रावपाक दोनी कुशींनी ग्रील्स लायिल्ल्यो. लांबचे लांब पायणी. तातूंत बसपाक शिमिटाचे बांक. पायणींतल्यान फुडें फुडें सरत रावप. मदीं परतो हॉल... लायन मुंयेचे गतीन फुडें सरतालीं. गोविंदा गोविंदा... गजर करीत भक्त फुडें वताले.

देवळाचे तीन भाग आसात. पयलो भाग चंपक प्रदक्षीण. हातूंत आसा प्रतिमा मंडप. हांगा विजयनगराचे सुप्रसिद्ध सम्राट श्रीकृष्ण देवराय, वेंकटपतीराय आनी अच्चुतराय हांचे पुतळे आसात. तांच्यो राणयो वरदराजम्मा, तीरुमलादेवी आनी चित्रादेवी हांचेय पुतळे आसात. हे पुतळे म्हणल्यार शिल्पकृतीचे अप्रतीम नमुने. लायन फुडें सरत राविल्ली. दत्तराज मेघाचे हांडीर बशिल्लो तो परतो म्हजे कडेन आयलो. फुडें वतकच सुंदर सुंदर खांब्यांचेर उबो आशिल्लो तिरुमलराय मंडप. दर एका खांब्याचेर पुराणांतलो एक एक प्रसंग चितारिल्लो. हिरण्यकश्यपाचो वध, कृष्णलिला. धनुष्यधारी प्रभू राम... ताचे फुडलो ध्वज मंडप. फुडें कल्याण मंडप. हा मंडपांतूच श्रीनिवास (व्यंकटेश्वर) आनी पद्मावती हांचें लग्न जाल्लें अशें म्हणटात. रांग फुडें फुडें सरता, तसो गोविंदा गोविंदाचो गजर सामको नेटान जाता. गर्भकुडी लागीं पावता म्हणल्यार एक वेगळोच अणभव येवपाक लागलो. मन सामकें ल्हवपीक जाल्लेवरी जालें. म्हजे हांडीर बशिल्लो दत्तराज लेगीत 'गोयना गोयना' करूंक लागलो.. आनी... [illegible] पयसुल्ल्यान गर्भकुडींतले भगवंताचे मुर्तीचेर नदर गेली. गर्भकुडींत मंद लामण दिव्याचो उजवाड फांकिल्लो. प्रवेशदाराचेर जय विजय दोगूय द्वारपालांचे पुतळे आशिल्ले. ल्हवू ल्हवू मुर्तीचे लागीं पावलीं आनी लामण दिव्याच्या उजवाडांत श्री व्यंकटपतीची ती पाशाणाची धायेक फूट उंचायेची ती अप्रतीम मूर्त दोळ्यां मुखार दिसली. शंख, चक्र, गळ्यांत मणी, कपलार

गंदाची उटी, कानांत वज्राचे डूल, तकले वयलो वज्राचो मुकूट मंद उज़वाडांत चकचकतालो. मुर्तीच्या गळ्यांत वज्राचो हार, आभूशणां झगझगतालीं. गर्भकुडींत फुलांचो वास दरवळटालो. म्हजे दोळे भरून आयले. हांव भाराविल्ले वरी थंयच उबें उरलें. मदीं व्यंकटपती, दावे वटेन पद्मावती तर उजवे वटेन देवी लक्ष्मी. म्हजो पांय फुडें वचना जालो. मुर्तीच्या मंगलमय दर्शनान जीव सामको धादोस जालो. फाटले रांगेंतले लोक फुडें सरताले. भट म्हाका आगे जाओ, आगे जाओ म्हणीत राविल्लो. ताच्या बोवाळांत म्हजी तंद्री भंगली. हांडी वयलो दत्तराज देवा पाव... पाव करीत आशिल्लो. हाचे पयलीं हांव गोंयांत तशेंच गोंयां भायर कितल्याशाच देवळांनी गेलां. पूण आयचो हो 'दिव्य' असो अणभव म्हाका केन्नाच येवंक ना.

हें देवूळ म्हणल्यार एक व्हड संस्थान कशें. गिरेस्तकाय तर देवळाच्या आंगाखांदा वयल्यान भरून भरून ओतता. देवळाचो वयलो भाग, गोपूर भांगराच्या पत्र्यांनी मढयला. भितर सरतना दारांत एक व्हडली हुंडी दवरल्या. ही हुंडी वरा भरान व्हरून रिकामी करतात. हातूंत पयशे धरून भांगर, वज्रां सगळें हांगा येवपी भक्त घालतात. संस्थानाचे वतीन हांगा शाळा, कॉलेजी, हॉस्टेलां, हॉस्पिटलां चलयतात. हांगाचो लाडवाचो प्रसाद सामको रुचीक. घरावे तुपांत वळिल्ले मोव बुंदीचे लाडू. हातूंत काजू, खिसमीस, बदाम, वेलची, खडीसाकर... सगळें आसता. कितलेशेच लोक हांगा लाडू वळपाक बसतात.

कितलेंशेंच टन अन्न हांगा सदचें शिजता. हजारांनी लोक हांगा जेवतात. देवळा मुखार इल्लीशी तळी आशिल्ली. थंय कितलेशेच लोक न्हाताले. चडशे केंस ताशिल्ले. थंय तशें पळोवपा सारकें खूब आशिल्लें. पूण भुरग्यांक भूक लागिल्ली. आमी हॉटॅलांत वचून इडली-वडा खालो. हांव दत्तराजाक आनी नेहलाक घेवन रुमांत रावलें आनी बाकीच्यांक भोंवपाक धाडलीं. हांव

पयले फावट आयिल्लें तेन्ना हांवें सगळें तिरुमाला भोवन पळयिल्लें.

दनपरां आमकां सकयल तिरुपतीक चेंगयारल्लूगेर जेवपाक आफयिल्लें. आमी इतलीं जाणां आसात दुसरे फावट पळोवया म्हणल्यार ते कशेच आयकनात जाले. ते गोंयांत येतात तेन्ना मुजरत तिरुमालाचो एक व्हडलो लाडू घेवन येतात. जेवण आंध्रा-कर्नाटका मोदीचें. बिसीबेळे भात, पायसम, रसम, आवियाल... आवियाल पळोवन म्हाका आमच्या खतखत्याची याद आयली. सगळ्या जेवणाक करबीलाचीं फोण्णां दिल्लीं.

जेवन आमी गोविंदराज स्वामीचें देवूळ पळोवपाक गेलीं. देवळाची बांदावळ दक्षिणी पद्‌दतीची. उत्कृश्ठ शिल्पकलेचो नमुनो. हें देवूळ भायल्यान पळोवपाक सुंदर दिसता. भितर गर्भकुडींत शेषाचेर आडवी जाल्ली गोविंदराजाची सुंदर मूर्त आसा. हांगा मंडपांत आचार्य रामानुजम हांचीय सुंदर मूर्त आसा. ह्या देवळाची प्रतिश्ठापना वैष्णव संप्रदायाचे संस्थापक श्री रामानुजाचार्य हांणी केल्या अशें म्हणटात. इतलेंच न्हय तर देवळाच्या चारी वटेनच्या नगराची रचनाय श्री रामानुजामाचार्यांनीच केल्या. हांगा लागींच तिनेक मैलांच्या अंतराचेर श्री व्यंकटपतीची बायल पद्मावतीचेंय देवूळ आसा. तेंय बी आमी पळोवन आयलीं. हीं देवळां पळोवन आनी स्वामीचो निरोप घेवन तिरुपतीक परत एकदां येवपाचो निश्चेव करून आमी बंगळुरूचे वाटेक लागलीं.



# भुरगेपणांतल्यो आजोळच्यो यादी

**यादींची** पोटली खूब व्हड आसता. भुरगेपणांतल्या यादींची पोटली तर चडच व्हड आसता. हांव सात वर्सां मेरेन म्हज्या आजोळा सांखळेच आसतालें. तेन्ना म्हजे यादींचे पोटलेंतलो व्हड जागो आजोळच्या यादींनी भरला. केन्नाय ह्यो म्होंव्यो यादी अचळय भायर सरतात. दिमखुऱ्यांनी धांवत येवन म्हजे वेंगेंत रिगतात. म्हाका सुखायतात. आंगा वयल्यान मोर पांख भोंवडायतात, खातकुतल्यो करतात तर केन्नाय गळ्ळ करून दोळ्यांतल्यान व्हांवतात.

म्हजी इल्लीशी तीन-चार वर्सांनी मूर्त आज्या फाटल्यान पोरसांत भोंवतना दोळ्या मुखार येता. फुडें आजो, ताचे बराबर पोरसांत काम करपी गुरमळ्याच्या भाटांतले भागेली, नारायण ना जाल्यार बाबली आनी फाटल्यान मिरयांचो व्हिस्तीद घालून हातांत एक बडी घेतिल्लें हांव.

आज्यालें घर व्हड. घराचे चारी वटेन फातरांचें दुरीग. व्हडली कोंड्याची

गेट. भितर सरतनाच पयलीं पेरांच्या झाडांचेर नदर पडटाली. दोंशीं वटेन दोन पेरांचीं झाडां. पेरां बरींच मोटीं आनी गोड. गेटीचे उजवे वटेन शावियर आंबो, ताचे कुशीक आफोंस आनी कोनशाक पारजताचें झाड. दावे वटेन हुडगो आनी ताचे पेल्यान कोनशाक मानकुराद. परत उजवे वटेन कापो पणस. ह्या झाडाचे कुंवले चडशे चाको, सुशेल, गऱ्यांची भाजी करपाक वापरताले. दावे वटेन 'ती व्हडली आमुल्ली' घोंटांची राणी कशी झेतान उबी आसताली. आमी त्या झाडाक घोंटीण म्हूण वळखतालीं. घोंटां म्हणल्यार आंब्या भशेन मासाळ, भितर केसरीच रंगाचो काथो. कात मात पाचवीचार. ह्या घोंटांचें सांसव रुचीक जातालें. हीं 'झाडपिकी' घोंटां वाऱ्यान सकयल पडटात काय म्हूण आमी वाट पळयत उबीं रावतालीं. घोंट चोखून चोखून खावपाक म्हाका खूब आवडटालें. घोंट चोखतना ताचो रोस व्हिस्तीदाचेर पडटालो. हाताच्या कोपरा वयल्यान रोस सकयल गळटालो. पोरसांतले बाकीचे आंबे एक वर्स चंवरताले. दुसऱ्या वर्सा चंवरनाशिल्ले. पूण ही घोंटीण ताका अपवाद आशिल्ली. ती वर्सान वर्स नेमान चंवरताली.

घोंटणीचे दावे वटेन आनीक एक मानकुराद आंबो आशिल्लो. हाका चड आंबे लागनाशिल्ले. पूण हो मानकुराद बरे जातीचो. हो झाडपिको खावपाक चड बरो लागतालो. फुडें परतें एक पेराचें झाड. हें मात्शें ल्हान, पूण पेरां तेच जातीचीं. मागीर एक व्हडली बांय. बांयचे धडेर पुर्तुगाली जांबाचें झाड. हे असले जांब हांवें तरी आनीक खंयच पळोवंक ना. सामके हळदुवेच, गोड जांब साकरेच्या पाकांत घोळयिल्ले भशेन. मदीं आंबट जांबाक आसता तसली इल्लीशी बी. ह्या जांबाच्या झाडाचेर एक मोगरेची वेल घुस्पल्ली. मोगरेचो कळो मोट्टो. बाकीची वेल वयर जांबार चडिल्ल्यान कळे काडूंक मेळनाशिल्ले. मात दुसऱ्या दिसा सकाळीं फुडें जांबाच्या मुळांत फुलांची रास आसताली.

थंयच मुखार एक चिकवाचें झाड आशिल्लें. ताचे मुखार दुरगार धडेर आनीक एक आंब्याचें झाड. घडये हें मुसराद जावंये. पूण तें व्हडले लागनाशिल्ले. खंयूय 10-12 आंबे दिश्टी पडटाले. जांबाचे मुखार एक आंबाडो आनी आशीकुशीक तीन-चार म्हसकाचीं झाडां.

आनीक एक आमुल्ली थंय आशिल्ली. बारीक लांबट शीं घोंटां, इल्लोसो काथो, मासाळ पूण आंबट. ही आमटी घोंटां म्हाका मात्तूय आवडनाशिल्लीं. म्हजे आजयेकय तीं आवडनाशिल्लीं. हांचें सांसव करपाक ती केन्नाच तयार जायनाशिल्ली. किलोभर गोड लागतलें म्हणटाली. केन्नाय बारीक, बारीक बावके मानकुराद आंबे आसताले, तांचें ती सांसव करताली. तेन्ना मात ती आंबटसाणी खातीर हीं चार घोंटां तातूंत उडयताली. तितलेंच त्या घोंटांचें भाग्य! ताका तेंकून आनीक एक आंबो आशिल्लो. ताचे आंबे खाल्ल्याची म्हाका याद जायना. पूण दिखाळ तोरां हुमणाक आनी धोणांत घालतालीं. थंयच कोनशाक कोंड्याचीं झाडां आशिल्लीं आनी तेंकून तें चांफ्याचें झाड. पूण ताचीं फुलां केन्नाच देवा खातीर काडिल्लीं म्हाका याद जायना. घडये थंय संडास आशिल्लो म्हणून जायत. मागीलदाराचे दावे वटेन एक पणसाचें झाड आशिल्लें. म्हाका दिसता चड करून हो पणस पावसांत पिकतालो म्हणून जावंये, चडशे कुवले झडूनच वताले. मागीलदाराचे गेटीक दावे वटेन एक व्हडलें चिंचेचें झाड आशिल्लें आनी उजवे वटेन म्हजें आवडीचें झाड, धवो चांफो. ह्या धव्या चांफ्याचीं फुलां हांव हातांत फुलांचो कुरपणो घेवन पुंजायतालें. तांचे बटन करून, तांच्यो माळो गुंथून हातांत, गळ्यांत घालतालें. ह्या चांफ्याच्या झाडाच्या मुखार शावियेर आंब्याचें झाड. माया म्हयनो सोंपता म्हणल्यार हे आंबे पिकताले. तासून खावपाक बरे लागताले. ताचे मुखारच एक तांबडो चांफो आशिल्लो पूण धव्या चांफ्या इतलो ताका व्हालोर नाशिल्लो.

उजवे वटेन कोनशाक गोरवांचो गोठो आशिल्लो. म्हजे यादीक त्या गोठ्यांत तीन-चार गायो आसताल्यो. हांवें त्या गायांक नांवां दवरिल्लीं. तांबडी ती तांबू गाय, काळे गायेक काळू, एके धवे गायेच्या आंगार काळे ठिपके आशिल्ले, तिका बाळी गाय म्हणटालें. चड करून आजोच दूद काडटालो. केन्नाय अनिला मावशी ना जाल्यार जय मावशीय बी दूद काडटाली. घरचें दूद आशिल्ल्यान आतऱ्या पयऱ्यान आजयेचे दुदफेणे करप जातालें. गोठ्याचे वयर पावसांत दुदणीच्यो, कुंवाळ्याच्यो वाली चडयतालीं. दुदयाचें फूल जातकच ताचो व्हडलो दुदी जायसर हांव वचून वचून पळयतालें. चडशे दुदी, कुंवाळे हाका ताका दिवनच सोंपताले. घरांत उरताले त्या दुदयाच्यो गांठी, भर्त, फोडी करून सोंपयताली. चवथीक खतखत्याक आनी तुळशी लग्ना मेरेन हे दुदी उरताले. निमणे बरीं पणसाचीं भिकणां, दाळ बी घालून दुदयाच्या पाल्याची भाजी करतालीं. आजी कुंवाळ्याच्यो वडयो करताली. ही हरवी पिठी खावपाक बरी लागताली.

गोठ्या कडल्यान उजवे वटेन शेणाची गायर आशिल्ली. थंय मुखार आनीक तीन-चार आंब्याचीं झाडां आशिल्लीं. तातूंतलो एक मांगेलाल खूब लागतालो. सामको सकयल बावगतालो. देवा कुडीच्या जनेलांतल्यान हांत भायर घाल्यार आंबे हाताक लागताले. घराक दावे वटेनच्यान भोंवताडो मारून परते उजवे वटेन शेजारच्या मातीला मामीच्या दुरगाक तेंकून 'तें' सगळ्या भुरग्यांचें आवडटें पणसाचें झाड आशिल्लें. ताच्या आंगा-खांदार इल्ले इल्लेशे पणस. एक जाणटी आजी आपल्या नातरां-पणटुरांक आंगाखांद्यार घेवन खेळयता ते भशेन. एका एका पणसांत फकत धा-पंदराच गरे. पूण गरे सामके गोड. रोसाळ, म्होंवाळ, सामके भांगरा कोराचे. एक एकट्यान एक एक पणस खावपाचो. नारायण, बाबली आयलो की आमी पयलीं तांचे कडल्यान पणस काडून घेवप. मागीर आजी ताचें धोणस

करताली. चड आसल्यार साठांय घालताली. आतां परतीं त्या काप्प्या पणसा कडेन पावतालीं. ताचे मुखार दुरगाक तेंकून जायांचीं झोंपां आनी कुंजां. घरा मुखार पेरी कडेन उजवे वटेन तुळस. हे तुळशी म्हऱ्यांत रथसप्तमी दिसा रांदन पेटोवन उज्याक शेणी घालून ताचेर गोडशें 'पायस' करताली. ह्यो शेणीय खंयच्यो तर दिवाळे कडेन गोरवां पाडव्या दिसा शेणाचो गोठो करतालीं. दुसऱ्या दिसा मागीर त्या शेणाच्यो शेणी थापून तश्योच सांबाळून दवरतालीं त्यो मागीर रथसप्तमी दिसा उज्याक लायतालीं. तुळशीचे पेले वटेन पेरी मुळांत एक हळदुव्या कोरण्याचें झाड आशिल्लें. ते बगर खूब तरेचीं फुलझाडां आशिल्लीं. अनंताचीं, सदाफुलीचीं, देवकेळम्याचीं, बटमोगरेचीं, रामुलो, विलोद, बटण, दशीण, आबोलीं, हळदुवीं आनी धवीं गोठलां. मारुतीच्यो शेंपड्यो, तांबडे गोंडे कशीं एक फुलां तर वर्सुयभर फुलतालीं. पोरसुंभर वंये कडेन अडुळशाचीं झाडां आशिल्लीं. ते बगर करबील, पोपाय, तारवटी मिरसांगो आनी गंजन, वट्टेलांव, पुनर्नवा असली कसाय करपाची वखदी वनस्पतय आशिल्ली. पावसांत आज्याल्या पोरसांत आळू, तेरें, तायखिळो किल्लतालो. ते बगर चिड्ड्याचीं झाडां किल्लतालीं. तांकां तांबडी, गुलाबी, केसरी सोबीत फुलां फुलतालीं. हीं म्हजे यादींतलीं झाडां. आनीकय आसतलीं.

ह्या सगळ्या झाडांच्या पोरसांत मदीं आज्यालें व्हड घर आशिल्लें. भायल्यान पळोवपाक तें 'पालास' कशें दिसतालें. वयर चडपाक धा-बारा रूंद सोपणां.

दोंशीं वटेन हात धरपाक घसरगुंडी कशी गराद. वयर चडटकच घराचे तिनूय वटेन लांबचे लांब वारांद. वारांदाचेर बसपाक दोनी वटेन दोन लांकडाचे बांक, 'ॲण्टीक' कशे. वारांदाक तिनूय वटेन सोबीत कोरांतिल्ले खांबे आशिल्ले. मागीर उजवे वटेनचो वारांद. अनिला मावशी थंय शिवणेचो

क्लास घेताली. तेन्ना बांदून ताची कूड केल्ली. तेन्नाच्यान ते कुडीक क्लास म्हणटालीं. मागीर शिवणीचो क्लास बंद जावन मावशेचें लग्न जालें, तरीय ते कुडीक क्लास हेंच नांव उरलें. ह्या वारांदांतल्यान घरांत सरपाक तीन दारां. दारांय म्हूण केदीं, सायलाचीं लांब रूंद. ताका भितरल्यान खिळी बी ना. फकत व्हडलो आडो. सकाळीं 5.30 क दारां उगडटालीं तीं बद्द रातचीं इकराक न्हिदतना बंद जातालीं. दारा कुशीक दोन वटेन दोन मातयेचे रंगयिल्ले बावले उबे. भित्तर सरतकच एक व्हडलें साल. साला भितर पायण. पायणीचे दोंशीं कुशीक दोन न्हिदपाच्यो कुडी. परत मागीर मदलें साल. मदल्या सालांत उजवे वटेन इल्लीशी देवा कूड. मदल्या सालांत परत दोन दारां. एक रांदचे कुडींत वचपाक तर एक मान्यांत वचपाक. घराक कुडी चड नाशिल्ल्यो. पूण सालां मात लांबचे लांब.

आज्याल्या घरा फाटल्यान दोंगर आनी त्या दोंगरा सकयल एक व्हडली खण. पावसांत ती खण भरून व्हांवताली. खणींतलें उदक भरतकच तें व्हाळांतल्यान रस्त्यार येतालें. थंय हुंवार येतालो. सकयल्या वाड्यार बी घरांत उदक येतालें. आज्यालें घर उंचायेचेर आशिल्ल्यान आमकां उदक बादनाशिल्लें. सांखळे बाजारांत आशिल्ल्या आज्याल्या पोरण्या घरांत वाळवंटी न्हंयेक हुंवार येतकच उदक येतालें. मागीर थंयचे लोक वयर आज्याल्या घरांत रावपाक येताले. पूण म्हजे यादीक तशें केन्नाच घडूंक ना.

पूण हांवें तांच्या तोंडांतल्यान सांखळेचे बुडटेच्यो खूब खबरो आयकल्यात.

सांखळे आज्याल्या घरा फाटल्यान रामनाथ भाऊचें घर. ती त्या घरांत रावपाक आयल्यांत हाची म्हाका हय न्हय शी याद आसा. सांखळेच्या घराच्या, पोरसाच्या यादी बराबर थंय येतल्या वतल्या मनशांच्यो यादीय म्हज्या काळजाच्या कुरकुटांत एकठांय बसल्यात. रामनाथ भाऊ गोंयचे

कोंकणीच्यो तरेकवार बोली उलोवन दाखयतालो. कोणायचीय ॲक्टिंग तो जुस्त करून दाखयतालो. म्हाका दिसांतल्यान दोनदां तरी ताईबायगेर गेले बगर सूख लागनाशिल्लें. तांच्या पोरसांत तरेकवार धाली आसताल्यो. विनोदमामा, विलासमामा, महेश, रोशन, ज्योती म्हणल्यार आमचीं घरांतलींच मनशां कशीं.

आनाआप्पा, मावशीबाय, माया, अविनाशमामा, सुरेशमामा तीं तेन्ना बाजारांतल्या घरांत रावतालीं. चवथीक, देवकाऱ्याक, सणा-परबेक आज्याल्या घरा येतालीं. थंयची चवथ म्हाका अजून याद आसा.

गंगाआका केन्नाकेन्नाय थंय येतालें. नाजाल्यार आमी तरी तांगेर वतालीं. तांच्या घरांत बेकरी आशिल्ली. तांगेर अनंत चतुर्दशीच्या व्रताक गेल्लीं म्हाका याद जाता. सोयरूमामा, म्हजे आज्याचो मामा. म्हाका दिसता तो वळवय रावतालो. तो तकलेक मुंडासो काय फेटो अशें कितें तरी बांदतालो. तो केन्नाय एक-दोन दिसां खातीर आज्यागेर रावपाक येतालो. तो म्हेंवाळ आवाजान भजनां म्हणटालो.

मुरलीभाऊ आनी माणीकबाय. तांचें घर आज्याल्या घरा लागींच आशिल्ल्यान मुरलीभाऊची येतना वतना दिसाक एक फावट तरी आमगेर आसताली. आज्याल्या घरा मुखार काणेकारालें घर. थंय तेन्ना सामंतालें बिराड आशिल्लें. तागेल्यो धुवो संध्या, सुचिता म्हज्यो इश्टिणी. तश्योच किरण आनी माया - व्हडल्या मामाले इश्ट सदू बोरकार, दादू पांगम, धाकट्या मामाले देविदास, शिवदास, महादेव, गुरू वाडकार. आजये कडेन कामाक येवपी विठाबाय, गिताबाय, ताने ... देमूची बायल, नारायण, बाबली, मदेराचें काम करपी सावळो मेस्त... हातूंतले मामाले इश्ट म्हाका भाचये म्हूण उलो मारताले.

आज्याल्या घराचे उजवे वटेन मातीला मामीचें घर आशिल्लें. मातील

म्हूण तिची भाची. तिचे कडेन आसताली. ताचें खरें नांव 'मातिल्डा' बी आशिल्लें जावंये. ताच्या नांवा वयल्यान सगळीं तिका मातीला मामी म्हूण उलो करतालीं. हांव पयली आनी दुसरी य़त्ता सांखळे शाळेंत शिकलां. शाळेंत वतना म्हजे केंस वळोवचे आनी सारके जावना म्हूण हांव ते परत परत सोडचे अशें सात-आठ वेळा जालें म्हणटकच म्हज्यो विणयो सारक्यो जाताल्यो. हो आमचो प्रॉग्राम मातिला मामी आपल्या वारांदा वयल्यान सदांच पळयताली. आगो पोरा, तांकां सतावं नाका गो, सतावं नाका म्हणटाली. परते घरा येतऩा गेटी कडेन पावतनाच हांव त्यो विणयो सोडून रिबिनां हातांत घेवन येतालें. आगो, सकाळीं इतलो बोवाळ करून वळयिल्ले केंस भितर सरतनाच सोडून मेकळें जालें? मातीला मामी परतीय विचारताली.

हांव सांखळेचे सरकारी शाळेंत दुसरी यत्ता शिकून तिसरेक मडगांवां गेलें. पूण सांखळेचो आनी म्हजो संबंद तुटलो ना. दिवाळेचे सुटयेंत, नातलांचे सुटयेंत आनी गिमाळे सुटयेंत आमी भावंडां, मावस भावंडां सगळीं सांखळे जमतालीं. गिमाळे सुटयेंत तर मुंबयच्यान मामे भावंडां, तांचे बराबर तांचीं मामे, मावस भावंडां माया, रवींद्र, रुपा... येतालीं. तांकां मुंबयकारांक आज्याल्या पोरसाचें, गोठ्याचें, दोंगराचें व्हड अप्रूप. ह्या दिसांनी दत्तवाडी वसंतपुजा जाताली. देवळांत कसलो उत्सव जातालो तो म्हाका याद ना. पूण केळीच्या पानार तरातरांच्यो उसळ्यो, आंबे, गरे खावपाक मेळटाले ती याद आसा. दत्तजयंती तर आमी केन्नाच चुकयनाशिल्लीं. दुसऱ्या दिसा जावपी 'ललित' ही कार्यावळ तर म्हजे खूब आवडीची.

आंधळ्याला पैसा देव दत्ता, म्हाका ही सून नाका, शिऱ्याचें किर्तन, तुंबडी भरून द्या, भुरगेपणांत आयकल्लीं हीं कवनां काळजांत घर करून आसात.

राधाकृष्णाल्या देवळांतलो गवळण कालो, चैत्रपुनवेचो विरभद्र, घोडेमोडणी, शिगम्यांतलो रोमटामेळ सगळ्यो यादी ताज्यो आसात. सांज्यांवाचें फेस्त... माथ्याक पानांचे ताळे बांदून मागीलदारांतले खणींत व्हिवा सांज्यांव म्हणत उडक्यो मारताले. पावसांत भिजत हांव तें पळयतालें.

म्हज्या भुरगेपणांतल्यो कितल्योश्योच यादी आनी यादींतलीं तीं मनशां. आयज हातूंतलीं कितलींशींच जाणां संवसाराक अंतरल्यांत. आज्यालें तें पोरणें घरय ना, तें पोरसूंय ना आनी तीं फुलांय नात. पूण हीं यादींचीं फुलां मात वोंवळां जावन म्हजे व्हंटयेंत घमघमत आसात.



# एक दीस

**सावयवेरें-मांडवी** न्हंयचे देगे वयलो सैमान नटिल्लो गांव. म्हज्या मांवाचो जल्म थंयच जाल्लो. थंय आमचें पोरणें घर आसा. त्या दिसा आयतारा सावय भाटांत आमचें पाडप आशिल्लें. आदल्या दिसा म्हजे भाचयेचो मांव आनी मांय नरेंद्रबाब वागळे आनी माधवीबाय मुंबयच्यान गोंयांत आयिल्लीं. नरेंद्रबाब हे वेवसायान कॅमिकल टॅकनॉलॉजिस्ट. अखिल भारतीय ग्राहक मार्गदर्शन संस्थेचे ते अध्यक्ष आसले. 'किमत' ह्या म्हयनाळ्याचे ते सात वर्सां संपादक आशिल्ले. तांचो जल्म सावयवेऱ्यां जाल्लो. नात्यान ते मनोहरबाब सरदेसायांचे मामा लागतात. मनोहरबाबांचे आवयचे ते सख्खे बापोलभाव. मनोहरबाब नरेंद्रबाबां परस धायेक वर्सांनी व्हड. पूण ते तांकां मामा म्हूण उलो मारताले खंय!

नरेंद्रबाबाच्या बापायचें पणजे महालक्ष्मी देवळा लागीं घर आशिल्लें. घरांत खूब कुटुंबां आशिल्लीं. नरेंद्रबाबाचे बापय ल्हान पिरायेंत गेले.

ाराच्यांनी तें घर विकलें आनी घरांतलीं कुटुंबां दुसरे कडेन खंय खंय रावपाक ालीं. ते खातीर नरेंद्रबाबाचें गोंयांत येवपाचें उणें जालें. लागींलागीं बंदच ालल्लें म्हणल्यार जाता.

नरेंद्रबाबांची एक मावळण खंय मनोहरबाबांच्याच घरांत दिल्ली. नरेंद्रबाब पोटांत आसतना तांची आवय सावयवेऱ्यां नण्णेगेर रावपाक आयिल्ली. नण्णेक एकूच चली. घरांत जल्मल्ले तिचे चले भुरगे वाचूंक नाशिल्ले. नरेंद्रबाबांच्या जल्माच्या वेळार तिका कितें दिसलें कोण जाणा, आपल्या भावागेर चलो जालो आनी तो वांचलो ना जाल्यार? तिणें नरेंद्रबाबांचे आवयक शेजारच्या कामेऱ्याले खोंपींत व्हेली. थंयच तांचो जल्म जालो. तांणी ल्हान आसतना एकदां आवयक विचारलें खंय, आई हांव खंय जल्मल्लों गे? आवयन सांगलें, तूं सावयवेऱ्यां एके खोंपींत जल्मल्लो. मागीर ते बारा वर्सांचे आसतना आवयबापूय तांकां घेवन वेऱ्यां सरदेसायांगेर आयलीं आनी तांकां ती खोंप दाखयली. हे खबरेक साठेक वर्सां जालीं. आतां गोंयांत आयिल्ले आसतना एकदां सावयवेऱ्यां वचून तो जागो पळयन सो दिसता अशें तांणी आपले वेणीक, म्हणल्यार म्हजे नण्णेक सांगलें. जुस्तूच आमचें पाडप आशिल्लें. त्याच दिसा तांणीय सावयवेऱ्यां येवपाचें थारायलें. मनोहरबाबाचें घर पळोवपाक मेळटलें म्हूण हांव भाटांत वचनासतना अनंताच्या देवळा कडेन देंवलें. सकाळचीं 10 वरां जाल्लीं. देवळाच्या चारी वटेन उदक आसा. देवळांत काळ्या पाशाणाची अनंताची मूर्त. अभिशेक चलतालो. फाटल्यान ल्हान उत्सवमूर्त. देवळांत बसतकच थंडगार दिसलें. आशीकुशीक कुळागरां, मडगांवच्या रखरखांतल्यान आयिल्ल्यान ही थंडाय चडूच जाणवताली. देवळांत लांकडाचे कोरांतिल्ले सोबीत खांबे आसात. एका खांब्यार तर विष्णूचे दशावतार कोरांतल्यात. देवळाचे कुशीक दोन तळयो. तळयो चिऱ्यांनी बांदल्यात. देंवपाक सोपणां.

दत्तराजाक घेवन सकयल देंवलें. भितर पिट्टोळ बी असलीं बारीक बारीक नुस्तीं भोंवतालीं. पांयां कडेन हुळहुळूंक लागलीं. आमी वयर येवन पिंपळाच्या पेडार बसलीं. पिंपळ वाऱ्यान सळसळटालो. वाऱ्यान पानां सकयल येवन पडटालीं. सुकिल्लें झिरझिरीत जाळी जाल्लें पान म्हज्या पांयां कडेन पडलें. पानांचे जाळयेन म्हाका भुरगेपणांत व्हेलें. आमी पिंपळाचीं पानां पुस्तकांत घालून दवरतालीं. ताका सुकून जाळी पड़ली म्हणटकच एकामेकांक दाखयतालीं. हांवें तशें दत्तराजाक सांगलें. ताणें आपल्या पुस्तकांत दवरपाक कितलींशींच पानां एकठांय केलीं. तळये कुशीक भुरगे क्रिकेट खेळटाले. तांचो बोल परतो परतो तळयेंतल्या उदकांत पडटालो. पूण तळयेंत देवनासतना ते बोल भायर काडटाले. एक एक फातर घेवन ते बोलाच्या अयल्यान शेंवटिताले. उदक हालतालें. बोल मात्सो फुडें वतालो. मागीर तळयेचे दुसरे वटेन वचून बोल बडयेन लागीं हाडटाले. एकदां तर बडीय भितर पडली. पूण तांणी खंयच्यान तरी दुसरी बडी फैदासून हाडली आनी बोल आनी बडीय काडली. थंयच्या सैमीक वातावरणांत एक वर कशें गेलें तें कळ्ळेंच ना.

नरेंद्रबाब थंय येतकच आमी सरदेसायांच्या घरा कडेन गेलीं. नरेंद्रबाबांचो जल्म जाल्लो ते खोंपींच्या जाग्यार शिमिटाचें घर उबें आशिल्लें. सरदेसायांच्या घरांत पावना फुडें नरेंद्रबाबाच्यो 60 वर्सां पयलींच्यो यादी ताज्यो जाल्यो. हे चवकेर आपूण खेळिल्लों, हे वासरेर बसून आपूण पेज जेविल्लों. हांगा रांदची कूड आशिल्ली. थंय सरदेसायाल्या घराण्याची वंशावळ बरयिल्ली दिश्टी पडली. घराण्याचे मुळपुरुस नारायणराव धरून ते मनोहरबाबांच्या नातवा मेरेनचीं नांवां वंशावळींत बरयिल्लीं पळोवपाक मेळ्ळीं. घरांतल्यान भायर सरतना 'आपूण आनी हांगा परतो पावतसो आपणें केन्ना धरूंक नाशिल्लें', नरेंद्रबाबान भितर पळयत

म्हणलें.

वेरेंच्यान आमी सावय आयलीं आनी आमच्या भाटा मुखार आशिल्ल्या दत्तमंदिरांत गेलीं. कुळागरांत मदीं आशिल्लें हें सुपुल्लें देवूळ आनी देवळांतली बाल दत्तात्रयाची मूर्त. म्हणूनच हें देवूळ गोंयच्या हेर दत्तमंदिरां परस वेगळें दिसता. देवळा भायर रंगयिल्लीं चित्रां, अनुसुयान ब्रह्मा, विष्णू आनी महेश हांचें ल्हान भुरग्यांत रुपांतर केल्लें तें चित्र, अनुसुया बाळकांक दूद पिवयता तें चित्र. चित्रांचें वर्णन करपी संस्कृत श्लोक मन प्रसन्न करता. रस्तो क्रॉस करून सकयल देंवलीं. भाटांत पाडप सुरू आशिल्लें. कुशीक मांडवी न्हंय मंद व्हांवताली. ताचे देगेर बसून आडसराचें उदक पियेलीं. कातली खाली. न्हंयेंतल्यान बार्जी वतात त्यो पळयल्यो. दत्तराजान नाल्लाचे बोंडे उदकांत शेंवटून शेंवटून आपली उमेद भागोवन घेतली.

दनपरां जेवपाक आमी कुर्टी, फोंड्यां हांगा आशिल्ल्या सहकारी स्पायस् फार्मांत गेलीं. थंय कपलाक तिबो लावन आनी गळ्यांत फुलांचो हार घालून हेर पर्यटकां भशेन आमकांय बी घसघशीत येवकार दिलो. मदल्यान व्हाळ व्हांवतालो. ताचे वयल्यान वचपाक सुपुल्ले पूल. जेवपाक बसपाच्या जाग्या वयर पाखें. बसपाक लांकडाचे लांब बांक, ताका सोबसारकें लांब मेज. ताचेर कोंड्याचे स्टॅण्ड, पेपर नेपकीन दवरपाक. मातयेचे ॲश ट्रे. सगळे इकोफ्रॅण्डली. हांव थंय बसपाक वतालें थंय पयलींच 50-60 जाणांचो एक ग्रूप बशिल्लो आशिल्लो. भितर सरतांच म्हाका श्रीमती सरदेसाय मेळ्ळी. आमचो काव्यमैफलीचो 24वो वर्धापन दीस आमी साळावले मनयिल्लो थंय तांचे कडेन म्हजी वळख जाल्ली. त्यो मनोहरबाब सरदेसाय हांच्यो भावजय. तांचे धाकले भाव प्रा. शशिकांत सरदेसाय हांची घरकान्न. दिसलें, आतांच आमी हांचें घर पळोवन आयल्यांत आनी योगायोग रोखडीच तांची भेट जाली. हांवें तांकां तशें सांगलें आनी मुंबयचे नरेंद्रबाब वागळे आमचे

बराबर आसात, तांकां तुमच्या घरकाराक मेळपाक आवडटलें अशें म्हणलें. ताणीं शशिकांतबाबाक आपोवन हाडलें.

'कोण, नरेंऽऽद्र मामा.' तांणी अजापान म्हणलें. म्हजी आई... तांकां नरेंऽऽद्र म्हूण उलो मारताली. मामा वळखलो? तांणी फुडें येत म्हणलें, आरे, शशी मरे. अजूनय तसोच आसा मरे तूं? मामी तूं इतली बारीक कशी जाली? मामा आनी भाचो तीस-पस्तीस वर्सांनी अचकीत मेळ्ळे आनी पयलींच्या यादिंनी गुल्ल जाले. 'थँक्स टू धीस लेडी' दोगांनीय म्हाका परतें परतें म्हणलें. आनी म्हाका ओगीच आंगार मुठभर मास चडिल्लेवरी जालें. आतां सगळ्यांकच भूक लागिल्ली. देगपदराच्यो साडयो न्हेंशिल्ल्यो गोंयकान्नी मेजार जेवण हाडून दवरपाक लागल्यो. जेवण दवरपाक कुयणी आनी मायट्यो. उकडें शीत, सूरय शीत, दुदयाची भाजी, कोबीची भाजी, अळसांद्याचें तोंडाक, सुंगटांचें हुमण, रोस, चिकन शाकुती, तिसऱ्यांचें सुकें, बांगड्याची किसमूर, तळिल्लीं सुंगटां, विसवणाचीं पोस्तां, चणकाचे कुडके, तोरांचें लोणचें, पापड, साकरभात, कडी... जेवण पळोवनच हांव धादोशी जालें. गोंयच्या जेवणाचे गिरेस्तकायेचें दर्शन घडलें. जेवपाक माडयेचे पोंये पासून तयार केल्ल्यो प्लेटी. निजाचें गोंयचें जेवण. फाटीं हांव केरळांत गेल्लें तेन्ना खासा केरळीय जेवण पळोवन आमी गोंयचें जेवण पर्यटकांक उपलब्ध करून दिनात म्हूण म्हाका खंत जाल्ली. हें जेवण पळोवन ती उणी जाली. जेवण सामकें रुचीक आनी घरगुती कशें. भरिल्ल्या पोटार आमी फार्मांत पासय मारून आयलीं. तरेकवार मसाल्यांच्या झाडांची थंय लागवड केल्या. जायफळ, दालचिनी, लवंग, वेलची, वॅनिला, कॉफी, हळद, वखदी वनस्पत. लवंगाच्या झाडाक पाचवे पाचवे कळे कशीं लवंगां लागिल्लीं. कॉफयेच्या झोंपांतल्यान पोपटी पोपटी मणी भायर सरिल्ले. वेलचेच्या मुळांतल्यान व्हड देंठ कसो येता. ताका एक एक वेलची लागता.

हांवें कुर्गाक, मुन्नार गेल्ले कडेन वेलचेचीं रोपां पळयिल्लीं. पूण तेन्ना सिझन नाशिल्यान वेलची लागिल्ली पळोवंक नाशिल्ली. ती म्हाका म्हज्या गोंयांतच दिश्टी पडली. मदल्यान व्हडलो व्हाळ व्हांवतालो. फार्माचे फाटले वटेन गोबर गॅस प्लाण्ट, गोठो बी आसा. सामक्या फाटल्या रस्त्यार तीन हती उबे आशिल्ले. तांकां व्हाळार व्हरून जाय जाल्यार न्हाणोवंक मेळटा. तांचेर बसून पासय मारूंक मेळटा. थंय तांचे खातीर जोंधळे आनी बाजरी दवरल्या ती तांकां खावोवंक मेळटा. दत्तराज आनी आध्या धांवत तांकां खावोवंक म्हूण गेलीं. पूण हतयान सोंड फुडें काडले बराबर भियेवन फाटीं सरलीं. हतयान सोंडेंत घाल्लें धान्य तोंडांत घालें आनी व्हडल्यान ठांऽऽऽ कू (थँक्यू) म्हूण आड्डी मारली. परतीं दुसरे वटेन सकयल आयलीं. फार्माचे मालक माधवबाब आनी अनिल भावोजी कडेन खबरो मारल्यो. हुनहुनीत च्या पियेलीं आनी परत एकदां हांगा पासय मारपाचें येवजून वचपाक भायर सरलीं... आयच्या दिसाच्यो सुरबूस यादी काळजा पोशांत गुठलायत...



# म्हज्या भुरगेपणांतली दिवाळी

**मडगांव** कला, संस्कृताय हातूंत अग्रेसर. श्री दामोदराचो राबितो आशिल्ल्या ह्या गांवांत अजुनय दिवाळेची परब व्हडा उमेदीन मनयतात. पूण कित्याक कोण जाणा, म्हाका दिसता म्हज्या भुरगेपणांतले दिवाळेची सर आतांचे दिवाळेक येवचिना.

शाळेक दिवाळेची सुटी पडली रे पडली, आमकां दिवाळेचे वेध लागताले. आयची दिवाळी आनी पंचवीस-तीस वर्सां पयलींची दिवाळी हातूंत कितलोसोच फरक पडला. आयची दिवाळी त्या मानान इन्सटंट जाल्या. दिवाळी लागीं पावतकच आमकां भुरग्यांक आकाशदिवो करपाची आनी नवे कपडे शिंवपाक दिवपाची ताकतीक जाताली. पयलीं वाड्या वयलीं भुरगीं एकठांय जावन एक एक आकाशदिवे करतालीं. फकत जाणट्यां कडल्यान गुरूत करून घेवप. हांवें मदीं कसलें कमळ करून लायला, तुवें पणटी कापून लायल्या, म्हजो बरो दिसता काय तुजो?...

चडसो वेळ मागीर आकाशदिवे तोखेवपाकच वतालो.

दिवाळेच्या आदल्या दिसा म्हणल्यार धनत्रयोदशीच्या दिसा तर घरांत घांसपा पुसपाचो बोवाळ आसतालो. हांडो, कळसुली, तांबयो आमटाण बी लावन वावराडे कडल्यान चकचकीत घांसून घेतालीं. ताचेर चुन्यान नक्षी काडटालीं. रोजां, काट्टां आनी आंब्याचीं पानां गुंथून माळी करप. त्यो तांच्या तोंडा भोंवतणी बांदप. मान्न्याच्या दाराक फुलांचें तोरण बांदप. आतां हांडोय ना, ती रांदनय ना आनी उजोय ना. सगळें सुटसुटीत. चुकिल्ले भशेन दिसता म्हूण बाथरुमाच्या दाराक आनी गिजराक एक एक माळ लांबयतां.

आमच्या मागीलदारांत एक आंबाड्याचें झाड आशिल्लें. सगळीं भुरगीं कोंड्याच्यो बडयो घेवन पाख्यार चडून आंबाडे काडटालीं. काडटालीं म्हणचे परस आंबाडे धाडायतालीं. दिवाळे दिसा आंबाड्याक खूब म्हत्व. आंबाड्याची करम केले बगर दिवाळेचो फराळ पुराय जायना. मागीर हे आंबाडे वाडोभर वांट्टालीं. आतां आंबाड्याचें झाड मोडून पडलां. करम करतलीं जाल्यार आंबाडे विकते हाडून करची पडटा ना जाल्यार कोण दिता काय म्हूण वाट पळोवची पडटा.

तेन्ना वाड्या वयलीं भुरगीं एकठांय येवन नरकासूर करतालीं. व्हडल्या भुरग्यांचो व्हडलो नरकासूर, ल्हान भुरग्यांचो ल्हान नरकासूर. आमी चलयोय गाडयेक बांदपाक पिकेन नरकासूर करतालीं. आतां हे इल्लेशे नरकासूर रेडीमेड मेळटात. रातभर आमच्या दोळ्यांक न्हीद म्हणटात ती नाशिल्ली. रातभर भोंवतालीं, ना जाल्यार दारांत भायर सोप्यार बसून रावतालीं. एक फावट तर नरकासूर पळोवपाक आमी दुर्भाट लेगीत वचून आयलीं. थंयचो तो अगडबंब नरकासूर आमी केन्नाच पळोवंक नाशिल्लो. ताच्या पांयांक दिसता चाकां बसयिल्लीं. आडवो घाल्ल्या नरकासूराक उबो करतना जुस्त आमी थंय पावलीं. तो उबो जाले बराबर आमच्या आंगार धांवन आयलो.

आमची मागीर भियेवन कशी गुळी जाली ताची याद आमी इश्टिणी एकठांय येतकच आमकां येता. त्या वेळार नरकासुरांच्यो सर्ती बी हो प्रकार नाशिल्लो. मडगांवां वाड्या वाड्यार केल्ले नरकासूर मडगांवभर भोंवडायताले. फकत एक बोरयेचो नरकासूर येतालो. ताचो आकार सगळ्यांत व्हड. ताचें उगडपी बंद जावपी तोंड हें त्या वेळाचें आकर्शण. तांबडे बल्ब बसयिल्ले दोळे तर इंगळे कशे भगभगताले. काणयेंतलो राक्षस खरो जावन आयला काय दिसतालो.

घरांतलीं जाणटेलीं फांतोडेर साडेचारांक उठ्ठालीं. रातचोच हांड्याक उजो घाल्लो आसतालो. बेडेकरालें उटणें, घमघमीत वासाचो शाबू, नाल्लाचो रोस, तेल आंगाक लावन न्हांवप जातालें. अशा न्हाणाक अभ्यंगन्हाण म्हणटात खंय. सकाळीं स वरांचेर दामोदर साला मुखा वयले पायणींत बोरयेच्या नाकरसुराक लासयताले. हरशीं नरकासुराक लासोवन बी न्हांवपाचें आसता. हांगा आमी न्हावन धुवन नारकासुराक लासता तो पळोवंक वतालीं. पयलीं बरोच वेळ कृष्ण आनी नरकासुराचें झूज जातालें. मागीर नरकासुराक लासयताले.

आमकां न्हाणोवन मेकळीं जातकच म्हजे आवयक आनी आजयेक फोव करपाचो बोवाळ. फराळाची तयारी जाली म्हणटकच दिवे दाखोवपाची तयारी. आंब्याच्या दोन पानांचेर रांगोळीचो पिठो दवरून लांबचे लांब दोन रेगो ओडप. मागीर मदीं उब्यो रेगो काडून एक एक खण करप. दर एका खणांत दोन दोन निरांजना आनी काट्टां. एक एकट्यान त्या खणांत उबे रावप. कपलाक कुकूम लावन पांयार उदक घालप. तुवाल्यान पांय पुसप. पिठाच्या गुळ्यांनी ओंवाळप. राट दाखोवप. विडो दिवप आनी निमाणी आरती. आरती जातकच विड्या बराबर ओंवाळणीचे पयशे तबकडेंत घालप. मागीर कारीट आंगठ्यान चिड्डून तातुंतली कोडसाण जिबेक लावप.

मागीर माराण्यांचो गडगड. म्हजे बापायचे बिगर गोंयकार इश्ट मुजरत फोव खावपाक म्हूण येताले. फोवांच्या तरेकवार जिनसांनी फराळाचें ताट भरिल्लें आसतालें. बटाट फोव, कालयिल्ले फोव, दुदांतले फोव, रोसांतले फोव, चण्याची उसळी आनी आंबाड्याची करम. हे आंबाडे धोडावपाचो पयल्या दिसा रातचो एक व्हड आक्त आसतालो. आंबाडे वानांत घालून मुसळान धोडावप. सोय मिरसांगो वांटून गोड घालून हिंग, मेथी, सांसवां फोण्णां दिवन केल्ली करम जिबेर उरताली. पोटोबा जातकच मागीर विठोबा. पयलीं दामबाबाल्या सालांत मागीर विठोबांच्या देवळांत. नवो करकरीत व्हिस्तीद आनी भांगर घालून देवळांत वतना सर्गाक हात लायिल्ले भशेन दिसताले. मागीर घरा येवन दिवाळी अंक चाळप. घरा कडेन आवय, आजी आशिल्ल्यान कामाची कसलीच जापसालदारकी नाशिल्ली. आवयन कितें कर म्हणलें जाल्यार केलें. दिवाळेचो जाय तसो आनंद घेवंक मेळटालो. दनपरां आंबट तीख बांगड्याचें हुमण आनी शीत आसतालेंच. मागीर मात हांव न्हिदून सोडटालें. बद्द पांचांक उठून लक्ष्मीपुजनाक वचपाक भायर सरतालें. केन्ना काय घरांघरांतले आकाशदिवे, लायटींच्यो माळयो पळयनश्यो जाताल्यो. मडगांवच्या जार्दीनांत घाल्ल्यो लायटी आमचे दोळे दिपकायताल्यो.

त्या वेळार मडगांवां चकचकीत लायटी घाल्लो गोसालियांचो बंगलो म्हणल्यार राजमहाल कसो दिसतालो. चडशे बाजारांतल्या सगळ्या दुकानांनी लक्ष्मीपुजन जातालें. वळखीच्या दुकानांत वतकच चिरमुल्यांचे पुडे मेळटाले. भितर बत्ताशे नाजाल्यार लिंबाचीं पिपीरमिटां आसतालीं. आतां तसलीं पिपिरमिटां दिश्टी लेगीत पडनात.

दुसऱ्या दिसा गोरवांचो पाडवो. केन्ना केन्नाय तिसऱ्या दिसाय येतालो. तिसऱ्या दिसा पाडवो आयलो जाल्यार आमी आमच्या आजोळा सांखळे

वतालीं. तांगेर गोरवां आसतालीं. आजो सकाळीं फुडें तांकां न्हाणयतालो. एका आयदनांत रंग कालोवन तातूंत वाटयो बुडोवन तांचे रंगरंगयाळे शिक्के तांचे फाटीर मारतालो. आजो आमकां सांगतालो, गोरवां आमकां दूद दितात. ते खातीर आमचें पोशण बरे तरेन जाता. म्हूण आयच्या दिसा तांची पुजा करून आमी तांचे विशीं कृतज्ञता उक्तायतात. आंगणांत शेणाचो गोठो करतालीं. गोठ्यांत शेणाचीच इल्लीशी रांदन करून ताचेर कारीट अर्दें कापून तें तोप कसो दवरतालीं. तातूंत दूद घालतालीं. तेंकून धेंडल्याची लांकडी प्रतिमा दवरतालीं. हांव ल्हान आसतना आज्यान म्हज्या माथ्यार तोपी घालून हातांत बडी घेवन म्हाका थंय उबे केल्लें. आनी हांव खोशेन व्हडलें कितें केल्ले भशेन थंय उबें राविल्लें.

ह्या गोठ्याक गंदफूल घालून रोसांतल्या पोळयांचो निवेद्य दाखयतालीं. सांजेचीं भुरगीं धेंडल्याक मखरांत बसोवन नाचत येताली.

‘धेण धेणलो, धेणल्या पावस शेनलो
धेणल्या आवय म्हातारी
शेळें उदक न्हाताली
धेणलो आमचो खेळगडी
केळ्याचो साली खावन पोट रगडी’
तांकां गोडशें आनी पयशे दितालीं.

पाडव्याच्या दुसऱ्या दिसा भाऊबीज. तेन्ना भाऊबीजेक साडी न्हेंसपाचो एक व्हड आक्त आसतालो.

धाकटी दिवाळी सोंपतकच व्हडले दिवाळेचे वेध लागताले. तुळस धुवून बी नितळ करतालीं. मागीर ती रंगयतालीं. तुळशी भोंवतणी शेण काडटालीं. तुळशी लग्ना दिसा सकाळीं फुडें तुळशी भोंवतणी रांगोळी घालतालीं. तुळशींत उशी कांडो, जिन्याची बडी, आंवाळ्याचो खांदो आनी चिंचेचो

खांदो लायतालीं. तिळसना भट येवन तुळशीचें लग्न लायतालो. फोव, उसाचे करवे, आंवाळ्याचे कुडके, चिंचेचे कुडके एकठांय करून निवेद्य दाखयातालीं. हाका हरिजागर अशें म्हणटात. आनी परतो व्हडलो दिवाळेच्या फोवांचो फराळ. आंबाड्याची करम मात करिनात. व्हडले दिवाळेक दिव्यांच्या उत्सवाची म्हणल्यार दिवाळेची समाप्ती जाता. पूण मडगांवकारांची दिवाळी सोंपना. तुळशी लग्नाच्या दुसऱ्या दिसा मडगांवां विठ्ठल रखुमाईचो दिंडी उत्सव जाता. मागीर खऱ्या अर्थान मडगांवकारांचे दिवाळेची सांगता जाता.

दिंडे दिसा म्हणल्यार रातीं आनीकय लायटी घालतालीं. आनी ते बगर आमकां बोंदेरां करपाचो बोवाळ. तुळशी लग्ना दिसा रातचीं बसून बोंदेरां कापप, तीं सुतलेचेर चिकटावप, मागीर तीं वेवस्थीत पाटार गुठलावन घेवप आनी दिंडे दिसा सकाळीं फुडें घरा मुखा वयल्या रस्त्याचेर हें पोंत तें तें पोंत मेरेन लावप.

रातचो मागीर ताचे पोंदच्यान हरिमंदीरांतलो पार वतालो आनी परते फांतोडेर हरिमंदिरांतलो पार आनी विठोबा देवळांतली पालखी एकठांय जावन वताली. ते खातीर फांतोडेर साडेपांच मेरेन आमी जागीं रावतालीं. म्हज्या भुरगेपणांत आमगेर कितलींशींच सोयरीं येतालीं. म्हज्या बापायच्यो मावळणी, तांच्यो धुवो. खरें म्हणल्यार त्यो कुळारचे, आजोळचे ओडीन येताल्यो. म्हजे आजयेचें कुळार आमच्या वाड्यारच आशिल्ल्यान तिकाय दिंडेची ओड आसताली. तीय येताली. भायल्या सोप्याचेर, सोपणांचेर सगळीं जाणां बसतालीं. आमी मागीर वेळ वचपाक भेंडयांनी खेळटालीं. जाणटीं बायलां मागीर एकामेकांक नांवां घेवपाचो आग्रो करतालीं. हय, ना करीत एक एकटी तयार जातालीं. एकटी म्हणटाली - पुरसो नायक झाला म्हातारा, मी आहे तरणी काय ही ईश्वराची करणी. तर दुसरेन म्हणप -

खुटयाक लायलो बोटवो, हरी कामत मोटवो. म्हजे आवयचे मावशे बराबर तिचे शेजारची बायल आयिल्ली. तिचो घोव बेबदो. तिणें घेतिल्लें नांव म्हाका अजून मेरेन घट्ट याद आसा. 'दुदणीच्या आळयाक कोंड्याचें शिरें, जयवंता फाटल्यान भोंवता बेबद्यांचें भिरें.' म्हजे आजयेन तर लजत लजत आज्याचें नांव घेतिल्लें, 'काळ्यो पिड्डुको गळोभर, रावजी पैक पळयन दोळेभर.' गोरी गुबगुबीत आजी लजतना सामकी ज्यानोत दिसताली. आनी फांतोडेची दिंडी येय मेरेन आमची मनरिजवण जाताली. आमची दिंडी म्हणल्यार एके तरेचो सांस्कृतीक महोत्सव कसो जातालो. सकाळची दिंडी लेझीम बिझीम खेळयत येताले. पेट्रॉमास दिवे घेवन दोन भाडेलां. ग्यानबा तुकाराम ग्यानबा तुकाराम आवाज कानार पडटकच आमची न्हीद नाच जाताली. दिंडेक पांयां पडलीं काय मागीर न्हिदूंक वतालीं. आतां दिवाळी सोंपली म्हूण येवजून जीव जड जातालो. रडूंक कशें येतालें. तशींच वचून मागीर न्हिदतालीं. आतां फाटल्यान वळून पळयतना ते भांगराळे दीस याद जातात.



# तेकडीच्या सैमा सांगातान

**मुन्नारच्यान** तेकडी वतना वाटेर देवीकुलम लागलें. हांगा दोंगर कापून रस्ते तयार केल्यात. ते खातीर सगळो वोल्तां वोल्तांचो घाटांतलो रस्तो. अशींच एका वोल्तार पावलीं आनी सैमाचे करणेन दोळे खिळोवन धरले. निळेंच मळब. निळो म्हणल्यार सदचो निळो रंग न्हय. मळबनिळो निळो रंग. तातूंत धवींफुल्ल कुपां. हरशीं कुपां पळोवपाक आमकां मान वयर काडची पडटा. हांगा कुपां दोंगराचे देंवतेचेर सकयल दरयेंत... गाडी थांबोवन कितलोसोच वेळ आमी थंय रावलीं. वाटेर फुडें सैम आपले पोटलेंतलें एक एक चित्र दाखयत रावलो. आनी हांव म्हज्या दोळ्यांत सांठयत रावलें.

फुडें मागीर लागले च्याचे मळे. दोशीं वटेन दोंगराचे देंवतेचेर च्याची झोंपां लायिल्लीं. वाटेर एके कडेन च्याचीं पानां खुंटप चालू आशिल्लें. सकयल देवन च्याच्या पानांचो तो दिखाळ मिरमिरीत वास घेवन आयलें. मुन्नार ते तेकडी चार वरांची नागमोडी घाटांतली वाट. कसो कोण जाणा

तेकडी पावता म्हणसर म्हाका जोर आयलो. वेलचेचे मळेच सांगताले आमी तेकडी वाठारांत पावतात म्हूण. हें कार्डमम हिल्स. ड्रायवर शिचू सांगतालो. म्हणटा म्हणसर कॉफयेचो घमघमीत वास. कॉफयेच्या वासानच आमी कुमुली पाविल्ल्याचें सांगलें. हांगा घराघरांत कॉफयेच्यो बियो दळून पिठो करतात.

आतां आमची गाडी वताली तेकडीच्या अटंग्या रानांत. थंय वचत थंय पाटयो लायिल्ल्यो दिश्टी पडटाल्यो. वाग आसात. गाडयेचो होर्न वाजोवचो न्हय. रानांत भितर सरचें न्हंय. थंय रानांत लेगून केरळा टुरिझमाचीं बरीं हॉटॅलां आसात. बुकींग करूंक नाशिल्लें. गेट पास काडून भितर सरलीं. चोय वटेंन रान. रानांत मदीं हॉटॅल. हॉटॅलाचें नांवय सुचक अशें... अरण्य निवास. अटंग्या रानांत आनी इतलें सुंदर हॉटॅल आसत हाची हांवें कल्पनाच करूंक नाशिल्ली. व्हडलो रूम. कोनशा वयलो रुम मेळिल्लो. दोशीं वटेन व्हडली गॅलरी. थंयच्यान पेरियार सरोवर दिसतालें. भायर पावस झडटालो आनी काळ्या किट्ट कोराचीं माकडां ह्या झाडा वयल्यान त्या झाडाचेर उडक्यो मारतालीं. हॉटॅलांत बरें रेस्टॉरंट आशिल्लें. म्हाका जेवपाची वान्सा नाशिल्ली. सूप पिलें. क्रॉसिन गुळी घेतली आनी न्हिदून दिलें.

न्हिदून उठटकच बरें दिसलें. भायर भोंवतलें म्हण्यार पावस शिरशिरतालो. तातूंत दत्तराजाक स्वीमींग येवजलें. स्वीमींग जातकच हे वटेन ते वटेन वेळ काडीत आमी जेवपाक गेलीं. रेस्टॉरंटांत बुफे मांडिल्ली. भारतीय, कॉंटिनेंटल आनी खास केरळीय पद्दतीचें जेवण आशिल्लें. सादी वालपापडेची भाजी बारीक चिरून करबील फोण्णां घालून अप्रतीम जाल्ली. न्युडल्स, मंच्युरीयन, पंजाबी पद्दतीच्यो भाजयो, चिकन, नुस्त्याचे प्रात धरून फ्रुटसालाद, सुफले, पुडींग असले पंचतारांकीत जेवण तेकडीच्या रानांत मेळत म्हूण हांवें धरूंक नाशिल्लें. पावस मात्सो थांबिल्लो. पासय

मारतलें म्हणल्यार काळखांत रातचें आनी त्या रानांत खंय वतलें आशिल्लें! भायर उबें रावलें. वाऱ्या वांगडा रानांतल्या कसल्या तरी फुलांचो उग्र वास आयलो.

रातच्या दोनाक सुमार जाग आयली. तशेंच उठून गॅलरींत आयलें. हारशांचीं जनेलां बंद आशिल्ल्यान कोण भितर सरत म्हूण भंय नाशिल्लो. भायर सामकें किण्ण. पूण कसले कसले रानांतले आवाज येताले. किर्र... किर्र... हूफ... हूफ... उहऽऽऽ. मदींच एक वाग बी आड्डले भशेन आवाज आयलो. वाग बीग दिसता काय म्हूण काळखांत भायर पळयत रावलें. येदें व्हडलें रान आसतना वाग आनी हांगा कित्याक येतलो अशें येवजीत न्हिदूंक गेलें. न्हीद मात लागली ना.

फांतोडेर परतेंय उठलें. भायर झाडांचेर सवण्यांची चीव चीव. चिमणेच्या आकाराचीं कितलींशींच सवणीं. हळडुव्या कोराचीं, निळ्या कोराचीं. घडये त्यो चिमण्यो नासत. पूण तांची नांवां म्हाका कशीं कळटलीं. दत्तराज उठटकच ब्रेकफास्ट घेवंक गेलीं. जेवणा भशेन ब्रेकफास्टय सगळे तरेचो. खास केरळीय आप्पम, इदिआप्पम आनी व्हेजीटेबल स्टयू.

अरण्य निवासांतल्यान सरळ बोटीच्या धक्या मेरेन वचपाक वाट आसा. तशेंच भायल्यान आनीक एक वाट धक्या मेरेन येता. बोटींत बसून दोन-अडेच वरां पेरीयार सरोवरांत भोवंक मेळटा. पेरी म्हणल्यार व्हड आनी आर म्हणल्यार न्हंय. पेरीयार म्हणल्यार व्हडली न्हंय. हे न्हंयेचेर 1895 त धरण बांदिल्लें. तातूंतल्यान हें सरोवर तयार जालां आनी ताचे भोंवतणी आशिल्लें दाट रान म्हणल्यार पेरीयारचें अभयारण्य. आमची बोट सुरू जाली. भुरगीं, जाणटीं दोळ्यांक दुर्बिणी लावन जनावरां दिसतात काय म्हूण पळोवंक लागलीं. माया म्हयन्याचें निमणें सप्तक जाल्ल्यान सरोवरांतलें उदक खूब सुकिल्लें. ते खातीर बोट मदल्यान वताली. गच्च रान, मदल्यान पेरीयार

सरोवर आनी उदकांत मदीं मदीं बोडके रुख. हे रुख सैमीक सोबितकायेंत आनिकूय भर घालताले. ह्या रुखांचेर येवन बसतालीं थंयचीं सवणीं. हॉर्नबील, सर्पंट, ईगल, किंगफिशर... तांचींय नांवां दोळ्यांक दुर्बीण लावन बशिल्ल्या बर्ड वॉचर्सांनी सांगलीं म्हूण कळ्ळीं. हो पळय बेबी एलीफंट. घे बोवाळ. खूब पयसुल्ल्यान हतीचें पील दिसतालें. फुडें आनीक दोन-तीन दिसलीं. सगळीं जाणां बोटीचे दुसरे वटेन धांवलीं. कॅमेरे तयार केले. पळयत जाल्यार रानदुकर. मदींच बोट वचून दोंगुल्लेचे कडेक रावली. हातुंतल्यान दोन कामगार बायलो देंवल्यो. थंय लेक पॅलेस हें कर्नाटका टुरिझमाचें आनीक एक हॉटॅल आसा. हें हॉटॅल म्हणल्यार श्रावणकोरचो राजा श्रीचित्र तिरुनल हांचो समर पॅलेस. गिमाळ्या म्हयन्यांत तो हांगा येवन रावतालो. ही खबर 1931 तलीं. एक दीस राजान हांगा ब्रिटिश अधिकारी लॉर्ड वेलिंगटनाच्या पुतान हतीक फारान मारिल्लो पळयलो. तेन्नाच्यान तांणी ह्या रानांतल्या झाडांपेडांक आनी जनावरांक संरक्षण दिलें. आतां हें अभयारण्य पेरियार टायगर रिझर्व म्हूण घोशीत जालां. बोट तशीच फुडें गेली. देगेर उबी आशिल्ली गव्यारेड्यांची जोडी. गव्यारेडो म्हशीची आसत. पांयांक मेय घाल्ले भशेन धवे पटे. व्हडलीं शिंगां... दोन वरां बोटीन सरोवरांत विहार केलो. फांतोडेर आयल्यार वाग बीग दिसतात खंय! ना म्हणल्यार एक रानमाजर दिसलें. पळोवंक वागाचें पील कशें! दोळ्यांक दुर्बिणी लावन बशिल्ल्यांनी हड्ड्यार हात मारून तें वागाचें पील म्हूण सांगलें.

एक दीस अरण्य निवासांत निवास करून आमी अभयारण्याच्या भायर आशिल्ल्या कार्डामम कावंटी ह्या सुंदर हॉटॅलांत रावपाक आयलीं. हॉटॅलाच्या नांवांत कार्डामम आसून लेगीत थंय फकत वेलच्योच नाशिल्ल्यो तर तांचे वांगडा हेर मसाल्याच्या झाडांची आनी हेर वखदी वनस्पतींचीय लागवड केल्ली. तांच्या सायंटिफीक नांवां सयत तांची म्हायती दिवपी तकटे

तांचेर लायिल्ले. लवंग, जायफळ, मिरयां, कॉफी, उटी ॲपल, पणस, आंबे, चिकू, गंजन, पुनर्नवा, पणसाचें झाड आंगां खांद्यार पणसुलां खेळयत उबें आशिल्लें. आनी ह्या सगळ्या झाडां मदीं एक एक कॉटेजी आशिल्यो. दोंगरच कापून त्यो बांदिल्ल्यो हॉटॅलाच्या मुखार बांबूचें गच्च रान. हॉटॅलांत आधुनीक सुखसोयी आशिल्ल्यो पूण सैमाच्या सांगातान.

हॉटॅलांत खास केरळाचो आयुर्वेदीक मसाज जाय जाल्यार करून घेवपाक मेळटालो. 'आयुरा' ह्या तांच्या पार्लरांत भितर सरलें. भितर आंगण आनी आंगणांत तुळस. भितरल्या दारांत काळेसावळे बायलमनशेन हांसत येवकार दिलो. बऱ्याऽऽ हुनहुनीत तेलान मसाज करून घेतलो. मसाज करतलेक मल्ल्याळम सोडून दुसरी खंयचीच भास येनाशिल्ली. न्हाले बराबर सामकी लकणी येवंक लागली. रुमांत वचून खाटीर आड मात पडलां भायर नळ्यांचेर कोण नाचिल्ले भशेन आवाज. नळे फुटिलल्याचो आवाज. पळयत जायार माकडांचे भिरें नळ्यांचेर नाचता. आंबे काडून सकयल शेंवटून मारल्यात. कितलोसोच वेळ धुमशेणां कांडून ते नाच्च जाले. म्हाका म्हज्या भुरगेपणांतली याद जाली. सांखळे म्हज्या आजोळा आंबे, पणस खावपाक माकडां येतालीं आनी नळे फोडून घालतालीं. तांकां धांवडावपाक आजो फुगेटी लायतालो.

सांजेच्या स वरांचेर कुमुली कलरी सॅंटरांत कलारिपायातू हो माइली आर्टाच्या प्रात्यक्षिकांचो 'शो' आशिल्लो. तो पळोवंक गेलीं. संवरक्षणा खातीर बडी, धारदार शस्त्रां, निशस्त्र हातांनी दुसऱ्यांचेर केल्लो वार म्हणल्यार मलारिपायातु. शो सुरू जाता पणट्यो पेटोवन, गायत्री मंत्र पठनान. गुरूक, देवांक चारूय दिकांक नमन करून प्रात्यक्षिकांक सुरवात जाता. हातांत धाल तलवार घेवन झगडप. हातांत तलवार आशिल्ल्यां कडेन रित्या हातान वार करप. दत्तराज शो सामको आवडीन पळयतालो. कराटे परसय बरें

न्ही मम्मा. ताणें आपली पसंती सांगली. दुसऱ्या दिसा मागीर कथकली नृत्य पळयलें. कथकली म्हणल्यार निकटें नृत्य न्हय, ताका नृत्यनाटक म्हणूं येता. तेकडीच्या अटंग्या रानांत पर्यटकां खातीर सगळ्यो सुविधा आसात. धेंपाचे वाटेर आशिल्ल्या कुमुली गांवांत पर्यटकांची मनरिजवण करपा खातीर थेटरां, रंगमंदिरां आसात. हातूंत भर म्हणून एक व्हॅक्स म्युझियमय आसा. शाजी. पी. यम. ह्या तरणाट्या शिल्पकारान तयार केल्लें मदर तेरेझा, मायकल जॅक्सन, महात्मा गांधी, बेनझिर भुत्तो हांचे मेणाचे पुतळे आसात.

आमचो टॅक्सी ड्रायवर शिचु आमकां स्पायस प्लाण्टेशन्स पळोवंक या म्हणूंक लागलो. या म्हणटा म्हणून गेलीं. रस्त्यार गाडी थांबयली. रस्त्या वयल्यान सकयल देंवन वचपाक जाय आशिल्लें. खंयच्याय गोंयच्या कुळागरां भशेन कुळागर. शंबर रुपयांचें तिकीट काडून भितर वचपाक जाय आशिल्लें. वयल्यान नदर मारल्यार कुळागराची कल्पना येताली. आसूं म्हणलें आनी कुमुलीच्या बाजारांत गेलीं. वेलची आनी घरावी दळिल्ली कॉफी घेतली. म्होंव घेतलें. गंजनाचें तेल घेतलें. कापसाक लावन एक थेंब कोनशाक खंयय दवरलो जाल्यार ताच्या वासान मूस बी येनात खंय!

तेकडीचो वाठार म्हणल्यार परमळीत संवसार. वेलचेचो, कॉफयेचो घमघमीत वास. बाजारांत भोंवतना येवपी मसाल्यांचो झणझणीत वास. केरळीय खाणां जेवणांचो सुवादीक वास. पेरियार सरोवरांत भोंवतना आयिल्लो पावसांत भिजिल्ल्या सैमाचो ओलो वास. तेकडीच्या रानांत चलतना आयिल्लो सुकिल्ल्या पानांचो वास, मसाजाच्या वेळार लायिल्ल्या आयुर्वेदीक तेलाचो वास हे सगळे तरेकवार चेरांचे वास हांवें काळजाचे कुपींत सांबाळून दवरल्यात. जेन्ना केन्ना तेकडीक सैमाच्या सांगातान घालयिल्ल्या दिसांची याद येतली तेन्ना ही चेराची बाटली उगडप. ताचो वास घेवप आनी त्या सुगंधान ताजें टवटवीत जावप.

# मालवणी डेज

**मालवण** - सैमीक सुंदरकायेन नटिल्लो एक प्रदेश. गोंयचो भाव-भयण म्हणल्यार जाता. मालवणां सुरंगाचीं खूब झाडां आसात. चेर काडपाक सुरंगाचो कळो सुकोवन चेराच्या फॅक्टरींनी धाडपाचो उद्देग थंय चलता. संस्कृत भाशेंत माल्य म्हणल्यार जाची माळ करपाक येता असो. सुरंगाच्या फुलांचें वन म्हूण माल्यवन. पूण कांय लोक अशेय म्हणटात मा म्हणल्यार आगर आनी लवण म्हणल्यार मीठ. ह्या वाठारांत मिठाचें आगर आशिल्लें म्हूण हाका मालवण म्हणटाले. तें कितेंय आसूं. हांगा पर्यटक येतात ते हांगाच्या दर्यावेळेच्या मोगान आनी थळाव्या खाणाजेवणांचे रुचीन.

एक दीस प्रवीण आनी संतोषी म्हणूंक लागलीं, आमी तीन दिसां खातीर बदल म्हूण मालवणां वतात. तुमीय येतात जाल्यार येयात. बरें म्हणलें. त्या दिसांनी टीव्हीचेर मालवणी डेज म्हूण एक मालिका चलताली. रसाळ मालवणी भाशा, मनीस सभावाचे एक एकअस्सल मालवणी नमुने, मर्दींच

गाळी संवपाची तांची पद्‌दत. ते खातीर ती मालिका पळयतना अस्सल गांवठी सिरियल पळयिल्ल्याची मजा येताली. सध्याच्या मांय-सुनांच्या रडारडीच्या मालिकांच्या हुंवारांत ही मालिका म्हाका रिफ्रेशिंग अणभव दिवन गेली. आमी मालवणां वच मेरेन दत्तराजाक मालवण म्हूण गांव आसा म्हूण खबर नाशिल्लें. आतां तो मालवणी डेजांतलो तो मास्तर, म्हालो, खानावळकान्न, पिसो आपल्याक मालवणाक पळोवंक मेळटले म्हूण खोशी जालो. शुक्रारा सकाळफुडें भायर सरपाचें थारायलें. पूण मात्शें काम जालें आनी भायर सरता म्हणल्यार इकरा जालीं. मडगांवच्यान भायर सरलीं तीं सोमती वचून आरवली-शिरोडें हांगां वेतोबाच्या देवळा कडेन रावलीं. वेतोबा म्हणल्यार वेताळ. नाथपंथाचे सिद्धपुरुश श्री भुमैय्या हांणी सतराव्या शेंकड्यांत ह्या देवालयाची स्थापणूक केल्या. देवळांत भितर सरतनाच वेतोबाच्या णव फूट उंचायेचे मुर्तीचेर नदर पडटा. एका हातांत तलवार घेवन वेतोबा उबो आसा. शिरोड्यां -आरवलीचो तो राखणदार. वेतोबाचे भेटेक वतना केळ्यांचें घडुलें व्हरपाची पद्‌दत आसा. हें सामकें जागृत देवस्थान अशें मानतात. हांगा भावीक आंगवण करतात. आंगवण पुराय करतना वेतोबाक चामड्याच्या जोत्याचो जोड दितात. जोत्याचो आकार सामको व्हड. मुद्‌दम तीं जोतीं तयार करून घेतात. थोड्या दिसां भितर हीं जोतीं झरिल्लीं दिश्टीं पडटात. वेतोबाक गांवांत भोंवपाक म्हूण हीं जोतीं दितात. वेतोबाची पयलींची मुर्ती पणसाच्या लांकडाची आशिल्ली म्हूण ह्या गांवांत पणसाचें लांकूड बांदकामांत वापरनाशिल्ले. मराठी साहित्यीक जयवंत दळवी हांणी खंय तरी बरयिल्लें वाचिल्ल्याची याद जाली. वेताबा आपली शक्त. तो आमी भोंवतात थंय आमकां राखता. दळवी पयले खेपे विमानांत बसले तेन्ना भितल्ल्यान भियेवन तांची गुळी जाल्ली. त्याच वेळार तांणी जनेलांतल्यान भायर पळयलें आनी विमानाच्या पंख्याचेर बशिल्लो वेतोबा

तांकां दिश्टी पडलो आनी तांचो भंय गेलो. देवधर्माचेर विस्वास नाशिल्ले लोक लेगीत वेतोबाक मानतात.

वेतोबाचें दर्शन घेवन भटान दिल्ली केळीं खावन वेंगुर्ल्यां वचपाक गेलीं. वेंगुर्ल्यां 'डच वखार' म्हूण मातये भरवण जायत आयिल्ली इमारत आसा. चारी वटेन किल्ल्याक आसता तशी वणत आसा. 1655 त 3000 गिल्डर म्हणल्यार 34.5 किलो भांगर विकून नॅदरलॅण्डच्या वेपाऱ्यांनी ही इमारत बांदिल्ली. तेन्ना वेंगुर्ल्लें बंदरा वयल्यान बोटी भरून माल भायल्या देशांनी वतालो. ही इमारत बांदतना सायलाचें लांकूड वापरिल्लें. फुडें 1682 त डचांनी वेंगुर्ल्लें सोडलें. मागीर हो किल्लो ब्रिटिशांच्या हातांत आयलो अनी तांणी तो सरकारी कार्यालया खातीर वापरलो. 1960 त हीं ऑफिसां हालयलीं आनी ह्या इमारतीची वायट दशा सुरू जाली. दारां, जनेलां, वाशे लोकांनी चोरून व्हेले. जमीन खणून लादी पुसून व्हेली. आतां ही ओसाड इमारत पुरातत्व विभागा कडेन पडून आसा. आमी आनी थंय भितर गेलीं ना. खंयच्याय वेळार खंयचोय कुडको कोसळटा खंय. महाराष्ट्राच्या दर्यादिगेर डचांनी बांदिल्ली ही एकूलती एक वास्तू. तिचें जतन बरे तरेन जावपाक जाय आशिल्लें. वाटेर एक इगर्ज लागली. ही इगर्ज खंय वेंगुर्ल्लें ते तेरेखोल वाठारांतली सगळ्यांत पोरणी इगर्ज.

वेंगुर्ल्यां बंदरार गेलीं. पयलींच्या काळांत हांगाच्यान माल भायल्या देशांनी वतालो. हे देगेर खडपां खूब आशिल्ल्यान फकत भरते वेळार बोटी जेटी कडेन येतात. वयर खडपांचेर दीपगृह आसा. भर दनपारच्या कडार खडपां चडून वयर वचपाचें म्हाका पांसियेंस नाशिल्लें. थंयच लागीं आशिल्ल्या गजाली ह्या हॉटॅलांत जेवपाक गेलीं. जनेलांतल्यान दर्या दिसतालो आनी बोटीय दिसताल्यो. हांगाची स्पेशालिटी कितें काय म्हणल्यार ताणें सांगलें, मालवणी कोंबडी वडे. मालवणां वचपाचीं

आशिल्ल्यान वेंगुर्लें स्पेशल हाड म्हणलें. ताणें गजाली स्पेशल चिकन हाडलें. शागुतीची धाकटी भयण. नांवां वेगळीं.

जेवन परुळेच्यान मालवणां गेलीं. हॉटॅल बुकिंग करूंक नाशिल्लें. तारकर्ली, देवबाग ह्या दर्यावेळेर हॉटॅल मेळटा जाल्यार पळोवचें म्हूण थंय गेलीं. एके वटेन दर्यावेळ आनी दुसरे वटेन न्हंय. हे तारकर्ली गांवचें वैशिश्ट्य. हरशीं गांव गोंयच्या खेडेगांवां भशेनच. एक गांव. केरळा भशेन हांगाय हावसबोटी आसात. तारकर्ली वेळेर मुंबयसावन कितल्योश्योच बशी भरून पर्यटक आयिल्ले. पूण वेळेर निवळसाण नाशिल्ली. थंयच्यान तशींच फुडें देवबागाचे वटेन गेलीं. हॉटॅल सागर संगमांत गेलीं. तेंय फूल. मागीर च्या पियेवपाक रावलीं. लागींच अरबी समुद्र आनी कर्ली न्हंय हांचो संगम आसा. थंय गेलीं. खरें म्हणल्यार हॉटॅल सोदपाक गेल्लीं. 'नदी मिले सागर में, सागर मिले कौनसे जल में कोई जाने ना' अशें एक हिंदी पद आसा ताची ओगीच याद जाली. फुडें निकत्योच बांदिल्ल्यो कॉटेजी आशिल्ल्यो. पूण आमकां चार रूम जाय आशिल्ले. परत मालवणां आयलीं. वाटेर घरांघरांनी दोन दोन रूम बांदून भाड्यान दिल्लें. सगळ्या घरांनी 'घरगुती मालवणी जेवण मिळेल' अशे बोर्ड आशिल्ले. होम स्टे संकल्पना मालवणी लोकांनी बरे तरेन राबयल्या. आमी बद्द सोमवार पेठेंत आशिल्ल्या सागर किनारा ह्या हॉटॅलांत आयलीं. चार रूम मेळ्ळे. एके वटेन बाजार पेठ, दुसरे वटेन दर्या आनी दर्यांत भितर सिंधुदुर्ग किल्लो. दत्तराज, प्रतीक आनी आध्या सोमतीं वेळेर धांवलीं. वेळे वयल्यो शिंपयो, शंख कितें कितें मेळटा तें पुंजावन हाडलें. सगळीं रेंवेचे पांय घेवन रुमांत आयलीं. पुंजावन हाडिल्लो म्हालवज बाथरूमांत हाडून धुलो. नॅपकीनान पुसून पोतयेंत भरून दवरलो. हें सगळें पळोवन म्हज्यांतली आवय ताकां धपकावंक सोदताली. पूण म्हजे भितरलें भुरगें, तांचे येदें आसतना हांवय हेंच करतालें. आसूं, दोन दीस तांकां जाय तें

करूंक म्हणत ओगी रावलें.

हांव, मेधा, संतोषी आनी प्रवीण बाजार भोंवन येवया म्हूण भायर सरलीं. चडशीं खाणांचीं दुकानां. खटखटें, लाडू म्हणल्यार गोडाच्या मेलांतले शेवेचे लाडू. ते भायर भिकणांचे लाडू, चिरमुल्यांचे लाडू. खासा मालवणचे गोड कोकम म्हूण लेबल आशिल्लें एक पाकीट घेतलें. गोड जातीचीं भिण्णां. खावपाक बरी लागलीं. करवंदाची बर्फी म्हूण आनीक एक पाकिटाचेर बरयिल्लें पळयलें. काण्णांचीं कापां. खावपाक व्हडलीशीं 'खास' लागीं ना. फकत एक नविदाद कशी. भिण्णां, आंवाळे, जांबळां, हरव्या तोरांचें स्क्वेश, हांच्यो वचत थंय बाटल्यो विकपाक आशिल्ल्यो. एके कडेन तर कुळदाची पिठी विकपाक आशिल्ली. तें एक पाकीट घेतलें. नाल्लाचो रोस, गोड घालून केल्ली खतखतीत पिठी पिवपाक बरी लागता.

विजया बेकरी थंयची फामाद बेकरी. थंय नासण्याच्यो पौश्टीक बिस्किटी, राजगिऱ्याच्यो बिस्किटी, उपासाक खावपाच्यो बिस्किटी, बटाट बिस्कीट, लोणीबटर, मालवण श्रुजबेरी... हांचे बगर आनीकय कितलेशेच तरांच्यो बिस्किटी आशिल्ल्यो. चडशा दुकानांनी 'मालवणचा आलेयुक्त खाजा' म्हणल्यारखाजें विकपा आशिल्लें. ते बगर आंब्यापणसाचीं साठां आनी तरेकवार घरावीं लोणचीं. मालवणी सागोती मसाला, फिश फ्राय मसाला, गरम मसाला, सगळे कडेन दिश्टी पडटाले. सोमवार पेठेंतल्या त्या एका रस्त्यार पांच-स तरी आयुर्वेदीक औषधालयां दिसलीं. परतीं सागर किनाऱ्यांत येवन भुरग्यांक आनी बाकीच्यांक घेवन जेवपाक हॉटॅल चैतन्यांत गेलीं. दोन तीन मेजांचेर मुंबयकारां जेवपाक बशिल्लीं. आमच्या कुशींतल्या मेजा वयल्या सगळ्या मुखार व्हडले ग्लास भरून स्ट्रॉबेरी शेक आशिल्लो. हांगाचो स्ट्रॉबेरी शेक फामाद काय? अशें हांव येजितां म्हणसर वेटर आनीक दोन ग्लास घेवन आयलो आनी मुखा वयल्या मेजार दवरत म्हणलें, 'ह्या

तुमचां सोलकडी'. आवयस्स! जंबो ग्लस भरून कडी हे लोक पितले? म्हज्या पोटांत धस्स जालें. कोंबडी वडे रातचे मेळनात म्हणलें. मागीर हाडले मालवणी रस्सा चिकन आनी मालवणी सुका चिकन. दोगांयची रूच अप्रतीम आनी ताचे बराबर तांदळाच्या पिठाची उब लावन केल्ली भाकरी. ते भायर मालवण स्पेशल सुक्यो भाजयो हाड म्हणलें. ताणें चपात्यो आनी करात्याची आनी बटाट घाल्ली वायंग्याची भाजी हाडली. दोनूय भाजयो रुच्चीक. कारात्याची भाजी पयलींच हांवें आनी मेधान सोंपयली आनी बाकीच्यां खातीर आनीक एक प्लेट मागयली. तांचे बराबर तळिल्लो विसवण आनी सुंगटां. घरा कडेन कसलेंच नुस्तें खायना आशिल्ल्या दत्तराजान मालवणचें नुस्तें बेस्ट लागता म्हणत विसवणाचेर ताव मारलो. चलत चलत हॉटॅलांत परतीं आयलीं. दुसऱ्या दिसा फांतोडेर जाग आयली. वेळेर रांपणकार रांपण ओडटाले. सिंधुदुर्ग किल्लो निकतोच उठ्ठालो जावंये. किल्लो पळोवपाक वतलीं जाल्यार व्हडयांतल्यान वचचें पडटा. वत येवचे पयलीं गेल्यार बरें पडटा. कडकडीत वतांत मागीर भोंवपाक त्रास जातात. पूण एकएकटीं उठ्ठात आनी ब्रेकफास्ट घेतात म्हणल्यार धां वरां जालींच. वतना वाटेर दोतोर शेखर साळकराची बायल दोतोर मेधा आनी तांची धूव सोनल मेळ्ळीं. दोतोर शेखर थंय एका मेडिकल कॅम्पा खातीर आयिल्लो. मागीर मेधा आनी सोनलय आमचे बराबर आयलीं. तिकीट काडून व्हडयेंत बसून किल्ल्या कडेन वचपाक भायर सरलीं. उदका पोंदा खडपां लिपिल्लीं आसात. ते खातीर जाणा जाल्लोच व्हडेकार वेवस्थीत किल्ल्या मेरेन व्हरूंक शकता. खूब वर्सांनी व्हडयेंत बशिल्ल्यान मजा आयली. भुरगीं उदकांत हात घालून उमेद भागोवन घेतालीं. व्हडयेंतल्यान देवून जुंव्यार पावलीं. ल्हान व्हड खडपांचो जुंवो. जुंव्याचें नांव कुरटें बेट. हाचेर शिवाजीन सिंधुदुर्ग किल्लो-शिवलंका उबी केल्या. किल्ल्याचें मुखेल

दार दोन बुरुजां मदीं आसा. सामकें म्हऱ्यांत पावसर थंय दार आसतलें हाची कल्पना येना. दारा भायर गायड जाय, गायड जाय म्हूण विचारत दोग-तीग जाण आयले. हनुमंत बाबजी वायंगणकर हांकां थारायलो आनी आमची टीम हनुमंता फाटल्यान चलूंक लागली. हनुमंतान हनुमंताचेच मुर्तेसावन सुरू केलें. ताणें दारा भायर खडपाचेर कोरांतिल्ली हनुमंताची मुर्ती दाखयली. कितलोय पावस पडूं आनी बुडटी येवं, उदक हनुमंताच्या पांयाचे वयर केन्नाच वचना खंय. हें जरीमरी मंदीर. हें सवायशीण बायलांचें देवूळ. 'शिवाजीच्या हाताचे आनी पांयाचे ठशे आसात ते दाखय. दत्तराजाचो आनी प्रतीकाचो बोवाळ. ''आदीं दाव्या बाजूक जावां. बगांत बगांत मग ठशां कडेन येवचां, काय पोरांनू''. ''तो दोन खांद्याचो माड. तो आम्हाला पयली दाखवा.'' भुरग्यांनी मालवणी उलोवपाचो यत्न केलो. पोरांनु, तो बगा. तो माड आतां रवांक नाय. दोन वर्सां आदीं थंयसर वीज पडली. पळयत जाल्यार सरळ माडाक दोशी वटेन दोन खांदयो आसात. वयली चुडटा ना. हरशीं हांवें तांचो फोटो पेपरांनी आयिल्लो पळयिल्लो. इतलीं वर्सां तो हेर माडां मदीं 'पळय म्हाका दोन खांदयो फुटलयात, दोशी वटेन नाल्ल लागतात' अशें म्हणत हेर माडां मदीं राजा कसो मिरयताला आसतलो. आतां बोडको जावन बाबडो कसो दिसतालो. हनुमंत सांगत आशिल्लो, पुणेच्यान वनस्पतीशास्त्रज्ञ येवन ताका वाटावपाचो खूब यत्न केलो. ते भायर किल्ल्या वयल्या लोकांनी गोड जेवण करून ताका वाडलो. पूण कांय उपेग जालो ना.

हो किल्लो बांदपाक तीन वर्सां आनी एक दीस लागलो. त्या वेळार 1 कोटी सुमार खर्च आयलो. शिवाजीन सुरत लुटून त्या लुटीच्या पयशांनी हो किल्लो बांदलो. ह्या किल्ल्याचेर शिवाजीन धा कुटुंबांक घरां बांदून दिल्लीं. तांची धावी पिढी सध्या थंय रावता. सध्या किल्ल्यांत चाळीशेक लोक रावतात. सातशें वयर लोक मुंबय स्थायीक जाल्यात. किल्ल्यांत

रामनवमीचो व्हड उत्सव जाता. तेन्ना हीं कुटुंबां हांगा येतात. आमचो गायड हनुमंत थळाव्या चाळीस जाणां मदलो एक. ताका खंय वर्साक एकावन रुपया मानधन मेळटा. किल्ल्यांत चवथी मेरेन शिकपाक मराठी शाळा आसा. पूण सध्या चवथी मेरेन शिकपी ल्हान भुरगीं नाशिल्ल्यान शाळा बंद आसा. व्हडलीं भुरगीं मालवणां शिकपाक वतात. हो किल्लो बांदतना शिवाजीन थंय रावतल्यांक तीन अटी घाल्ल्यो खंय. किल्ल्यांतल्या जमनीचेर नांगर केन्नाच चलोवंक जायना. तशें केल्यार घरांदारांचेर एक दीस नांगर चलतलो. थंयच्या माडांचो सूर केन्नाच काडपाक जायना आनी तिसरी अट म्हणल्यार किल्ल्यांत कोणाकय मरण आयलें जाल्यार मडें किल्ल्यांत लासूंक जायना. व्हडयेंत घालून मालवणां व्हरूंक जाय. पावसाळ्यांत पसून. मुखारच किल्ल्यांतलें मुखेल देवूळ श्रीशिवराजेश्वर मंदीर आसा. देवळांत भितर सरलीं. मूळ मुर्ती काळ्या पाशाणाची आसा. पूर्ण मुर्तेक न्हेंसोवन वयर मुखें घाल्लें. मुर्तेच्या हातांत म्हणल्यार म्हऱ्यांत अडेज किलोची तलवार आसा. मूळ मुर्तीचो फोटो थंय दवरिल्लो आसा. पयलीं म्हाका दिशिल्लें शिवराजेश्वर म्हणल्यार शंकराचें देवूळ आसतलें. पूण शिवाजीचें देवूळ ताचो पूत छत्रपती राजाराम हाणें बांदिल्लें. ही मूळ मुर्ती व्हड्येकाराच्या रुपांत आसा. मुर्तेच्या दावे आनी उजवे वटेन सूर्य, चंद्र आनी वल्हें कोरांतिल्लें आसा. मूर्तेक मिश्यो आसात पूण खाड ना. खाड नाशिल्ली शिवाजीची जगभराची ही एकच मुर्ती. ताचें कारण म्हणल्यार शिवाजीचो राज्याभिषेक जातकच शिवाजीची आवय जिजाबाईक मरण आयिल्लें. तेन्ना शिवाजीन खाड काडिल्लें. धाकल्या राजारामाचे तकलेंत शिवाजीचें तें रूप उरिल्लें अशें म्हणटात. ह्या देवळाचें पुरयतपण सकपाळ कुटुंबा कडेन आसा. तांचें मूळ नांव शंखपाळ. तांकां वर्साक 101 रुपया मानधन मेळटा. भट तीर्थ दितालो तें घेतलें. भायर सरतनाच दत्तराजाचो प्रस्न, मम्मा, शिवाजी

राजा काय देव? कित्याक रे?. राजा तो. तुका खबर ना. आमकां शाळेंत शिकयला. प्रतिकान ताका सांगलें. मागीर राजाचें देवूळ बांदतात तर? ताणें प्रतिकाक विचारलें. तो व्हडलो राजा आशिल्लो म्हणून बांदला जातलें. हांव आनी तांकां उत्तर दिवपाचे भानगडींत पडूंक ना. हांवें सोमतें हनुमंताक विचारलें, 'पोरां काय इचारतात तां बगां. शिवाजी राजा हुतो काय देव हुतो? तेंकां आदीं उत्तर दियात.''

हे पोरांनू हें मंदीर आदी शिवाजी महाराजानू बांदललंय आनी थंयसर रामदास स्वामीच्यो पादुका ठेवललय. मग मंदिराचां भायलो भाग वाढवलंय राजाराम महाराजानू. त्येचा भायला मंडप बांदलय तो शाहू महाराजानू. हनुमंतान आपले भशेन भुरग्यांचें समाधान केलें. फुडें शंकराचां एक मंदीर आसा. त्येच्या फुडें आसा तीन विहिरी. तेचीं नांवां आसंत दूदबाव, दहीबाव आनी साकरबाव. ह्या तिनांचां पाणी एक करांन पंचामृत म्हणान वापरतंय.'

आतां आमी पियेल्लें तें तीर्थ ह्याच उकदाचें. चोंय वटेन खारें उदक आशिल्ल्या जुंव्यार गोड उदकाच्यो तीन बांयों आसप म्हणल्यार अजाप कशें. आतां पुरातत्व विभागान हांगा बांय खणून पळयली जाल्यार खारें उदक लागलें खंय. किल्ल्यांत वचत थंय खावपा पियेवपाची वेवस्था आशिल्ली. किल्ल्यांतल्या थळाव्या लोकांनी हे गाडे घाल्यात. कोकम सरबत, आंवळा सरबत, लिंबू सरबत, थंय पेयां, वडापाव मेळटाले.

फुडें दक्षिणेक भवानी देवीचें देवूळ आसा. ही मुर्ती काळ्या पाशाणाची. सदां ही मुर्ती पुजा करचे पयलीं गोडे तेल आनी नाल्लाचो रोस लावन पुसतात. म्हूण मुर्ती तुकतुकीत दिसताली. तुळजापूरच्या भवानीचे कुळाचार हांगा जातात. वर्सान एकदां जागर, गोंधळ घालतात. देवळा कडल्यान परतीं येवन भुरगीं आनी प्रवीण हनुमंता बराबर टेहटणी बुरुजाचेर वयर चडलीं आनी सिंधुदुर्ग किल्ल्याच्या सरभोंवतणचें दर्शन घेवन आयलीं. वतान

तकली तापताली. सद्गुरू सुसेगाद कदेल घेवन एका गाड्यार सरबत पीत बसलो. जाय थंय वचून येयात, सगळें पळोवन जातकच म्हाका आपयात म्हणत हनुमंताक सांगलें आरे एकदांचे शिवाजीच्या हातापांयांचे ठशे दाखय आनी आमकां मेकळीं कर. मागीर ताणें भितर सरिल्ली त्या उजवे वटेन सोपणां चडून वयर व्हेलीं. किल्ल्याचें बांदकाम सुरू आसतना शिवाजी तें पळोवपाक आयिल्लो. चुनो वलो आसतना शिवाजीचें पावल ताचेर पडलें अनी हात वयले वटेन लागलो. ताच्या हातापांयांचे ठशे थंय उदेले. थंय गंवडो आशिल्लो तो तकलेन मात्सो फीन आशिल्लो. ताणें ताचे वयर परत चुन्याचो लेप काडिनासतना ते ठशे तशेच सुकपाक दिले. आतां त्या ठशांचे वयर घुमट्यो बांदिल्ल्यो आसात. पर्यटक तातूंत आपले हात पांय घालून पळयतात. अशें केल्ल्यान फुडें तो जागो सुळसुळीत जातलो. कितल्ल्यांत सगळीं झोंपां वाडल्यांत. राजवाडो आशिल्लो तो मातयेभरवण जाला. किल्ल्याच्यो वणटी उदकाच्या माऱ्यान निखळत आसात. तांची निगा जावंक जाय आशिल्ली तशी जायना. हरशीं शिवाजीचें नांव घेतकच आख्खो महाराष्ट्र धांवन येता.

हनुमताचो निरोप घेवन वचपाक भायर सरलीं. ‘वताना मोरयाचा धोंडा बगायला इसरूं नाकात. बगान जावां’. ‘बरां बरां, बगतंय, बगतंय’ म्हणत आमी व्हडयेंत बसलीं. वाटेर पद्मदुर्ग लागलो. ह्या इल्ल्याशा खडपांजुंव्यार शिवाजीच्या वेळार बोटी बांदपाचें आनी सारक्यो करपाचें काम चलतालें. भरतेच्या वेळार बोटी भितर घेताले आनी सुकतेच्या वेळार बोटींचेपोंद सारके करताले. सुकतेच्या वेळार खडपां वयल्यान पद्मदुर्गा वयल्यान सिंधुदुर्गाचेर वचपाक मेळटालें. पूण सुनामी जातकच पद्मदुर्गाचो हो भाग उदकापोंदा गेल्ल्यान आतां व्हड्यानूच वचचें पडटा म्हूण व्हडयेकारान सांगलें.

धक्क्यार येवन हनुमंतान इतलें सांगलां म्हूण मोरयाचा धोंडा पळोवपाक

गेलीं. व्हडलें खडप. ताचेर गणपती, चंद्र, सूर्य, शिवलिंग, नंदी आनी पादुका कोरांतिल्ल्यो आसात. साडेतिनशें वसां पयलींच्यो आकृत्यो अजून वळखुपाक येतात. सिंधुदुर्ग किल्ल्याची बुनयाद घालतना पुरयतपण करपाक भट मेळना जालो. त्या वेळार भटांनी दर्या वलांडून वचचें न्हय म्हणटालें. ते खातीर शिवाजीक ह्या जाग्यार गणेश पुजा आनी समुद्रपुजा करची पडली. मागीर हांगा चिऱ्याची पुजा करून तो चिरो व्हरून सिंधुदुर्गार बसयलो. इतिहासीक म्हत्व आशिल्लें हें खडप वत, पावस खायत उगड्यार पडिल्लें आसा.

आमी हॉटॅल सागर किनारा सोडून चिवला वेळेर आशिल्ल्या चिवला बीच रिसोर्टांत रावंक गेलीं. थंय सामान दवरून हॉटॅल स्वामींत वचून मालवणचे सुप्रसिद्ध कोंबडी वडे म्हणल्यार चिकन सागोती आनी वडे मागयले. शिवराक जेवतल्यांनी काळ्या 'वाट्याण्याचां सांबारां' म्हणल्यार तोंडाक मागयलें. दोनय हांगची स्पेशालिटी. पोटभर जेवन चिवला बीच रिसोर्टांत आयलीं आनी सगळ्यांनी ताणून दिलें. हांव आनी दुसऱ्यांक न्हिदूंक दिनाशिल्लीं तिनूय भुरगीं सकयल आयलीं. तीं हॉटॅलांतल्या भायले रेंवेर खेळपाक लागलीं. रिसेप्शनिस्ट जेनिफर फॅर्नांडीस अस्सल गोंयचे कोंकणींत म्हजे कडेन उलोवंक लागलें. हांवें म्हणलें, 'तूं सामकी आमचे भशेन कोंकणी उलयता मगो?' ताणें सांगलें तें फाटलीं तीन वसां पवरि हॉटॅल मॅजस्टीकान काम करतालें. आतां ताचें लग्न थारलां. म्हूण तें हांगा आयलां.

च्या, सॅण्डवीच खावन भुरगीं वेळेर या म्हणूंक लागलीं. वेळेर जुस्तच रांपण वयर काडटलीं. माणक्यो, सवनाळे... फट फट उडटा ते जिवें फडफडीत नुस्तें भुरगीं अजापान पळयत रावलीं आनी मागीर ओले रेंवेंत सिंधुदुर्ग किल्लो करपांत गुंग जालीं. हांव सुसेगाद चिवला दर्यांत बुडपी सुर्याच्या केसरी गुळ्याक पळयत बसलें. काळोख पडपाक लागलो तशीं

उठलीं आनी हॉटॅलांत येवन न्हालीं. मागीर जेवपाक हॉटॅल सायबांत गेलीं. परत एकदां मालवणी सागोती आनी तांदळाच्यो भाकऱ्यो. तीन कडेन सागोती खाली. तिनय कडली रूच वेगळी. पूण अप्रतीम.

निमाण्या दिसा ब्रॅकफास्ट घेवन जय गणेश देवूळ पळोवपाक गेलीं. ज्योतिषभास्कर जयंतराव साळगांवकारान आपले आवयचे इत्से खातीर तें आपल्या जाग्यार बांदलां. ल्हानशेंच पूण सोबीत देवूळ. तातूंत भांगराची गणपतीची मूर्त आनी दोशीं वटेन भांगराच्यो रिद्धी सिद्धी आसात. हातांत चवरां घेवन वारो घालपी उंदीरय भांगराचे. दोशीं वटेन भांगराचे लामणदिवे. सगळें पुजेचें साहित्य म्हणल्यार पडगो, पंचपात्र, तांबयो, पळी... सगळें भांगराचें. गणपतीचें दर्शन घेवन भायर सरलीं. जेनिफरान सांगिल्लें, लागींच रॉक गार्डन आसा. तेंय पळोवन येयात.

रॉक गार्डन... चिऱ्यांनी बांदिल्लें दुरीग. दोन तीन शिल्पां... कासवाच्या सोंशाच्या आकाराचीं थोडीं फुलझाडां आनी मोडकी ट्रेन.

‘हेंच तें तुजें रॉक गार्डन... वता कडार आनी कितें पळयतलीं हातूंत?’ सगळ्यांनी सोमतो म्हाका प्रस्न केलो. जणू काय हांव त्या रॉक गार्डनाची धनीण आशिल्ले भशेन. हांचे भशेन हांवय थंय पळोवपाक म्हूण आयिल्लें. पूण त्या रॉक गार्डनाचे फाटले वटेन दर्या आनी ते दर्यादिगेर तरेकवार आकाराचीं खडपां. सैमान निर्मिल्लीं शिल्पां. हाका तरी रॉक गार्डन म्हणिल्लें जाल्यार सोबपाचें.

म्हजे एके इश्टिणीन सांगिल्लें, मालवणां वतात जाल्यार कामत हॉटॅलांतलो मिसळपाव आनी आलें लसूण फोण्णां घाल्लो बटाटवडो मुजरत खायात. कोणूय म्हाका स्पेशल टीप दित जाल्यार हांव मुजरत थंय वचून येतां. मिसळ लाजवाब. वडोय रूचीक. पाव इल्लोसो. गोंयांत मेळटा ताचे परस अर्द्यान. बटाट बिस्कूत कसो.

हॉटॅलांतल्यान सामान घेवन भायर सरलीं. वतना कुडाळच्यान वच्चें आनी वाटेर लागता तो धामापूर तलाव पळोवचो अशें थारलें. मालवण सावन भायर सरून नेरूरपार काडून चौके पावलीं. फाटली गाडी खंय पावली काय म्हूण पळोवपाक रावलीं. गाडी थांबली थंय दावे वटेन एक घुमटी आशिल्ली. कासारटाका बैरागी अशें बरयिल्लें. एकदां खंय कांकणां विकपी एक कांसार तिनसांजेच्या वेळार ह्या रानांतल्यान वतालो. वाटेर चोरांनी ताचे कडले पयशे फारायले आनी ताची तकली कापून मुखा वयल्या व्हाळांत उडयली. फुडें ताचो आत्मो खंय रातचो थंयच्यान येतल्या वतल्यांची राखण करपाक लागलो. म्हूण मागीर लोकांनी ही घुमटी बांदली.

मात्शीं फुडें वतकच धामापूर तलाव म्हूण बोर्ड वाचलो. ह्या धामापूर तलावाचो उल्लेख मराठी साहित्यीक सुनीता देशपांडे हांच्या साहित्यांत खूब वेळा आयला. यक्षाचं तळं म्हूण तांणी बरयिल्लो सुंदर लेख आसा. तांचो मूळगांव धामापूर. तांचें भुरगेपण धामापूराक गेलां. तळ्यांत देंवपाक सोपणां आसात. वयर भगवतीची आनी सांतेरीचीं देवळां आसात. धामापूर तळ्याची एक दंतकथा आसा. कोणाकय लग्नकार्याक आंगार घालपाक भांगर जाय जाल्यार ताणें फुलांचे हार, कांकणां आपल्याक भांगराचीकसली वस्त जाय तसली फुलांची वस्त करून ती ह्या कुरपण्यांत घालून तो कुरपणो उदकांत सोडपाचो. कुरपणो व्हांवत व्हांवत मदीं वचून बुडटालो. आनी थोड्याच वेळा भितर भांगर घेवन परतो येतालो. ह्यो भांगराच्यो वस्ती व्हरतना देवतेक नमस्कार करून तें परतें केन्ना हाडून दितलो तें सांगचें पडटालें. कोणें एका मनशान व्हेल्लें भांगर परतें हाडूनच दिलेंना खंय. तेन्नाच्यान अशें भांगर मेळपाचें बंद जालें. तें तळें, तीं सोपणां, ते देवळाचे खांबे सुनीताबायच्या दोळ्यांनी पळयले आनी त्या यक्षाच्या तळ्याचो निरोप घेत गाडयेंत बसलें.



# म्हजो साहित्य क्षेत्रांतलो प्रवास

**म्हजो** जल्म मडगांवचो. पूण हांव सव्वा वर्साचें आसतना म्हजे आजयेन म्हाका सांखळे व्हेलें. थंयचे सरकारी शाळेंत हांव पयली आनी दुसरी शिकलें. तिसरेक महिला नुतन हायस्कूलांत मडगांवां आयलें. नवे शाळेंतलो पयलोच दीस. सांखळेचे शाळेंत बाईक बाईच म्हणटालीं. पूण सराक गुरूजी म्हणटालीं. पयल्याच दिसा पाटील सरान हजेरी घेतना हांवें हजर गुरुजी म्हणलें. सगळीं भुरगीं दांत दाखयत खूं खूं करून हांसलीं. म्हाका म्हजें कितें चुकलें तेंच कळ्ळें ना. हांव अबरगत कशें ओग्गी रावलें. सांखळे म्हजी मावशी म्हाका अभ्यासाक घेवन बसताली. थंयचे शाळेंत म्हजो पयलो दुसरो नंबर येतालो. म्हणून जांवये म्हजे आवयन म्हजेर व्हडलें लक्ष दिलें ना आनी हांव तिमाही परिक्षेक नापास जालें. आमच्या शेजरा शोभन बाई रावताली. तिणें मागीर म्हाका आपले आपूण कसो अभ्यास करप तें शिकयलें. ताचो परिणाम म्हणून सहामाही परिक्षेक हांव वर्गांत पयलें आयलें. तेन्ना आमची

हेडबाई पाठणकर बाईन फाटीर हात भोंवडावन म्हाका शाबासकी दिल्ली ती अजून याद आसा. शैलाबाईनय शिकयिल्लें याद आसा. शैलाबाई सुंदर साडयो न्हेंसताली. विणयेर तरांतरांचीं फुलां माळटाली. ती बाई म्हाका खूब आवडटाली. केन्ना केन्नाय माथ्यांत ती द्राक्षांचो घोंस, काण्णांचो घोंस, राजआंवाळ्यांचो घोंस लेगीत माळटाली. मागीर म्हाका थंय नव्यो नव्यो इश्टिणी मेळ्ळ्यो आनी हांव ते शाळेंत मना पसून रमलें. काणयांचीं पुस्तकां वाचपाची गोडी लागली. त्या वेळार चांदोबान तर आमकां पिशें लायिल्लें. तातूंत 'तिळ्या बहिणी' म्हूण एक काणी एका एका भागांत येताली. फुडल्या भागांत कितें जालें काय म्हूण अंक हातांत मेळ्ळे बराबर वाचपाची उमळशीक लागताली. तो अंक विकतो घेवन वाचतालीं. पूण आनिकूय जायतीं पुस्तकां म्हाका त्रास काडिनासतना हातांत मेळटालीं. सुंदर राजकुंवरी, दुश्ट जादूगार, चेटकीण, धाडशी कुंवर, हिमगौरी, लालपरी, अलिबाबा, मर्जिना हांच्या संवसारांत शेणून वचूंक लागलीं. आमच्या शेजाऱ्याली मडगांवां बाजारांत दिसाळीं, म्हयनाळीं विकपाची एजन्सी आशिल्ली. तांगेर किशोर, फुलबाग हीं पोरणीं पुस्तकां आसतालीं. तीं हांव आवडीन वाचतालें. फुलबागांत अक्षरांचो खेळ कशें एक सदर आसतालें. चंदुचे चार चेंडू चोरून चोर चिंचेवर चढला. चंदूने चिंचेवर चढून चोराला चोप चोप चोपले. हें वाचून म्हाकाय कितें तरी बरयन दिसलें. हांवेंय मागीर 'म'ची मचमच, 'प'ची पंगत असलें कितेंय बरयिल्ल्याची याद जाता. तें व्हरून आमचो शेजारी दिलीप रायकारान राष्ट्रमतांत दिलें आनी राष्ट्रमतांत तें छापून आयलेंय बी. आनीक एक इल्लीशी कविताय बरयिल्ली. आनी इतलीं वर्सां हांव तीं विसरूनय गेल्लें. आतां यादींचे धागे उसयतां उसयतां विस्मृतींत गेल्लो एक धागो अचकीत मेळ्ळो. इतलीं वर्सां हांव समजतालें म्हजी पयली कविता 'जाग' म्हयनाळ्याच्या मार्च 2000 च्या अंकांत छापून आयल्या

म्हूण. पूण म्हजी पयली कविता हांव बारा-तेरा वर्सांचें आसतना बरयिल्ली. हांवे तेन्ना कितें बरयिल्लें काय? राष्ट्रमताचो तो अंक खंयूय मेळटा जाल्यार म्हाका पळयन सो दिसलो.

आमचो आनीक एक शेजारी, म्हजी इश्टीण मिताचो बापूय लायब्ररींत दर सप्तकांत दोन पुस्तकां आनी एक मासीक हाडटालो. तो घरा पावचे पयलींच तातूंतलें एक पुस्तक हांव घेतालें आनी दुसऱ्या दिसा वाचून परत दितालें आनी दुसरें हाडटालें. ते खातीर म्हाका पुस्तकां बेगबेगीन वाचून सोंपोवपाची संवय लागली. ते बगर म्हजो बापूय इंडिया टुडे, लोकप्रभा हीं मासिकां हाडटालो. म्हाका वाचपाक तींय चलताली.

सुटयेंत हांव मामागेर सांखळे वतालें. म्हजो मामा 'जाग' आनी 'कुळागरा'चें अंक घेतालो. तेय हांव वाचतालें. आमी कोंकणी वाचतना आडखळटात. तूं कांय न्हय कशें कोंकणी वाचता मगो? म्हजी मावशी म्हाका सदांच म्हणटाली.

धावी जाय मेरेन हांव पुस्तकांचे दुनियेंत खूब भोंवलें. धावी जातकच कॉलेजींत वचपाचो प्रस्न आयलो तेन्ना हांवें विज्ञानांत आनी गणितांत बरे मार्क मेळ्ळ्यात म्हूण विज्ञान फांटो निवडलो. पूण ती केमिस्ट्री, फिजिक्स मनांतल्यान शिकन शें दिसलें ना. इंग्लिशींत आनी मराठींत मात मार्क बरे पडटाले. किरण मॅडम रवीन्द्रनाथ टागोरांची 'Where the mind is without fear' ही कविता शिकयतना तंद्री लागताली. पूण मागीर कळ्ळें ही म्हजी लायन न्हय. दुसऱ्या वर्सा दामोदर कॉलेजींत बारावी कॉर्मसाक ॲडमिशन घेतलें. अकावंटन्सी विशय घेवन बी.कॉम जालें. अकावंटन्सी विशयांत कॉलेजींत पयलें आयलें. पूण आनीक फुडें शिकन शें दिसलें ना. आतां मात दिसता हांवें तेन्ना कला फांट्यांत ॲडमिशन घेवपाचें म्हूण. आनी खंयचे एके भाशा विशयाचो अभ्यास करपाचो म्हूण.

पदवी घेवन नोकरी सोदपाक सुरवात केली. गोवा अर्बन बँकेंत आनी लायफ इन्शुरन्स दोनूय जाग्यांचेर बराबर कॉल आयले. लायफ् इन्शुनन्स जॉयन जालें. वास्को पोस्टिंग जालें. वास्को म्हणटा थंय हांव केन्नाच पावंक नाशिल्लें. पूण थंयचो सगळो स्टाफ बरो आशिल्लो. मेळून मिसळून वागपी. ते खातीर थंयचीं दोन वर्सां कशीं गेलीं तें कळ्ळेंच ना. मागीर मडगांवां बदली जाली आनी वर्स जावचे पयलींच म्हजें लग्न जालें. लग्ना पयलींच घोवान सांगिल्लें, आपल्याक नोकरी करपी बायल नाका. 10 ते 5 अशी बांदून उरपी नोकरी नाकाच नाका. तुका जाय जाल्यार आपलो बिझनेस जॉयन कर. ना जाल्यार तुका कितें दुसरें आवडटा तें कर. हांव फाटीं फुडें जातालें. बापायन सांगलें, बरो भुरगो आसा. नोकरी सोडल्यार चलता. सोडली नोकरी. लग्न जालें. तेन्ना म्हजो घोव, मांय आक्यां भाड्याच्या फ्लॅटांत रावतालीं. दामबाब बिल्डिंगेंतलो आमचो फ्लॅट तयार जावंक नाशिल्लो. भाड्याचो फ्लॅट सामको बंद अशे इमारतींत. एकूय गॅलरी ना. भितरल्यान एकूय मनीस दिसना. जनेलांतल्यान भायर पळयल्यार मुखा वयल्या घराचें फकत मागीलदार दिसतालें. हाचे उरफाटें आमचें कोंबांतलें घर. भायलें दार सकाळीं सातांक उक्तें जातालें तें बद्द रातचें इकरांक बंद जातालें. खंयच्याय वेळार शेजारचो कोणूय खबरी मारपाक एकामेकांच्या घरांत भितर सरतालो. ताका लागून फ्लॅटांत म्हाका सामकें घुस्मटिल्ले बरी जावंक लागलें. स म्हयन्यांनी आमचो दामबाब बिल्डिंगेंतलो फ्लॅट तयार जालो आनी म्हाका एकदाचें सू जालें. थंयच्यान म्हजें कुळार धेंपाचे वाटेर. ते भायर फ्लॅटाक चारी वटेन गॅलऱ्यो आनी मुखार व्हडलो तेर्रास. गॅलरींत रावल्यार सकयल्यान वचपी चडशे लोक वळखीचे. निदान हडकुपाक तरी मेळटालें. फ्लॅटाचें दार उगडून भायर आयलें जाल्यार तेंकूनच गोमन्त कालिका मासिकाचें ऑफिस. थंय पुस्तकांनी भरिल्ल्यो आरमारी. जाय तितलीं

पुसतकां वाच.

लग्न जालें तेन्ना म्हाका रांदपाक येनाशिल्लें. घोवाक तर गोंयच्या घराव्या जेवणाचो घोस्त. आनी दुसऱ्यांक जेवपाक आपोवपाचोय घोस्त. ते खातीर रांदपाक शिकलें. ल्हवू ल्हवू रांदपाच्या सर्तींनी वांटो घेतलो. इनामां घेतलीं. रेसिपी बरयतना 'माझ्या लहानपणची दिवाळी' हो लेख गोमंतकाच्या दिवाळी विशेशांका खातीर बरयलो आनी थंयच्यान म्हज्या सहित्याचो प्रवास सुरू जालो. लेख मराठींत बरयिल्लो. पूण कविता कोंकणींतूच सुचपाक लागल्यो. म्हणून मागीर लेख, कथा कोंकणींतूच बरोवपाक लागलें. सुरवेक बदयिल्लें साहिंत्य खंय धाडचें तेंच कळनाशिल्लें. एकदां तशें माधवीक म्हणलें. माधवीन म्हणलें, म्हजे कडेन धाड. म्हजी पयली कविता 'शेणिल्ले खीण' ताचे कडेन दिल्ली. आनी ताणें ती मार्च 2000 वर्सा 'जागा'च्या अंकांत उजवाडायली. ती कविता आपणाक आवडली म्हणून सर्गेस्त कवी शंकरबाब रामाणी हांची चीट आयली. म्हजे पयलेच कवितेक मेळिल्लो हो व्हड पुरस्कार. मागीर कविता सर्तींनी, कथा सर्तींनी भाग घेतलो. इनामां मेळ्ळीं. भौ. माधवबाब बोरकार सारक्यांनी मुजरत चीट बरोवन, फोन करून तोखणाय केली. मोलादीक सुचोवण्यो केल्यो आनी बरोवपाक उर्बा मेळ्ळी.

तेन्ना म्हजो पूत हरशीं ल्हान आशिल्लो. तरी हांव वेळांत वेळ काडून बरयत रावलें. म्हज्या घोवाक आनी म्हाका दोगांकय भोंवडी परमप्रिय. ते खातीर आमचो प्रवास खूब जातालो. त्याच वेळार दत्ता दामोदर नायक हांचें 'अरेबियन डेज' हातांत पडलें आनी म्हाकाय प्रवासवर्णन बरयन शें दिसलें. तेन्नाच आमी माथेरानाक वचून आयिल्लीं. तें प्रवासवर्णन बरोवन 'जागा'क धाडलें. म्हाका एक बरी संवय आशिल्ली, म्हणल्यार अजूनय आसा, खंयूय प्रवास करतां तेन्ना टिपणां काडून दवरतां. ते खातीर हांवें फाटल्या वर्सांनी

खंय खंय गेल्लें तींय वर्णनां बरोवन काडलीं. आनी म्हजो साहित्य क्षेत्रांतलो प्रवासवर्णनांचो प्रवास सुरू जालो. आतां आमी दामबाबांतल्यान कृष्णप्रेमांत पावलीं. तरीय हो साहित्यक्षेत्रांतलो प्रवास जिविताच्या निमण्या खिणा मेरेन चालूच उरतलो.





- कथा, कविता, लेख, प्रवास वर्णनां बरयल्यांत आनी राज्य पांवड्यार इनामां मेळयल्यांत.
- 'म्हजी माती म्हजें मळब' (कवितां झेलो) आनी 'जगमां' (बाल साहित्य) हीं पुस्तकां प्रकाशीत जाल्यांत. कविता संग्रहाक अखिल भारतीय कवयित्री संमेलनाचो गोदावरी देवी केजरीवाल पुरस्कार फावो जाला.
- साबार कवी संमेलनांनी, आकाशवाणी पणजी केंद्र तशेंच साहित्य अकादेमीचे अस्मिता कार्यावळींत गोंय आनी पुणे हांगा कविता सादर केल्यात.